# कोंकणी भाशेचो इतिहास

नागेश सोंदे

HORTUS MALABARICUS and the Contribution of Konkani



CHMS

ಅಮೃತಧಾರಾ

# ಕೊಂಕಣಿಚೊ ಇತಿಹಾಸ





ISBN No. : 81-900382-4-9

ಸ್ನೇಹಾ ಪ್ರಕಾಶನ, ನಾಡಿಗ್‌ಗಲ್ಲಿ, ಶಿರಸಿ

**THE ROLE OF KONKANI BRAHMIN AYURVEDIC PHYSICIANS RANGA BHAT, VINAYAKA PANDIT AND APPU BHAT OF COCHIN IN THE COMPILATION OF HORTUS INDICUS MALABARICUS - REVELATION OF THE TRUE FACTS HITHERTO HIDDEN AND HISTORY OF KONKANIS DURING THE DUTCH COLONIAL PERIOD**

By
N. Purushothama Mallaya



KONKANI BHASHA PRACHAR SABHA
Konkani Bhasha Bhavan
COCHIN - 682 002.

# हॉर्तूस मलबारिकूस : एक वळख

संपादक : पय्यनूर रमेश पै

पी. जी. कामत फौंडेशन
एरणाकुळम
2015

# प्रकाशकांलीं उतरां

कोंकणी भाषेंत हॉर्तूस मलबारिकूसा विशीं येवचें हें पयलें पुस्तक आसा. हाचे प्रकाशनाक फाटबळ दिलेल्या विश्व कोंकणी केन्द्र (मंगळूरु), श्री सुकृतीन्द्र प्राच्य संशोधना केन्द्र (ओरियंटल रिसर्च इन्स्टिट्यूट), अनुग्रहा चॅरिटेबल ट्रस्ट (एरणाकुळम) आनी अविट्टम तिरुनाळ ग्रंथालय (तिरुवनंतपुरम) ह्या संस्थेचे पदाधिकाऱ्यांक आमचो धन्यवाद. लेख धाडून दिवन सहकार दिलेल्या पंडितांक आनी अनुवादकांक आमी आभारी.

आपु भट, विनायक पंडित आनी रंग भट ह्या तेग कोंकणी आयूर्वेदी वैद्यांचे वैयक्तिक विशयाचेर चड माहिती नाशिल्ल्यान ती संग्रह करपाचो यत्न नेटान चलूंक जाय. इतिहासाचो खोज आनी चरित्रपुरुषांचो सोद सरळ आनी सुलभ ना हें आमकां कळटा. हॉर्तूस ग्रंथाचे निर्मितींत हे तेगांनी केल्लें योगदान अतिशय महत्वाचो आसा. ह्या ग्रंथांत निपून पडिल्ली जायतीं विषयां पासून सोद केल्यार पूर्वकालाचें विज्ञान भंडार उत्कें जातलें. पाळ-मूळांतल्यान वखदां तयार करपाचो घरगुत्ती/गांवगिरी संप्रदाय आमचे म्हालगड्यांक कळटालें हाची नोंद घेवचें बरें.

कोची गोश्रीपुर प्रदेशांतुय देश-विदेशांतले ग्रंथालय, सस्य संग्रहालय, वस्तु संग्रहालय, विश्वविद्यालय - हांगाय विशेष संदर्शन करून समजुपाक आनी माहिती एकठांय करपाक वावर करचे पडटलें. ह्या कामाक लागपी कोण वावुरपी वा संशोधक मुखार येता ताचो / तिचो भोंवडेचो खर्च काडपाक आमकां संतोष दिसता.

हॉर्तुसांतलें कोंकणी प्रमाणपत्र मुखचित्र करून कांय पुस्तकां कोंकणींत आयल्यांय, आनी तीं चित्रां आमच्या पुस्तकाच्या भितल्ल्या पानांत कौतुका खातिर दिल्यांय. हॉर्तूस मलबरिकूसांतल्या चित्रांचे थोडे नमूने हांगा दाखयल्यांय.

आमच्या पूर्विकांची तोखणाय करताना तांचो बरे कामाचो याद करून आमी तांचो भोवमान करताय. नमन, नमन, नमन !

**- आनंद जी. कामत**
**पी.जी. कामत फौंडेशन**

# संपादकीय

कोंकणी भाषेंतलें सर्व प्रथम 'ब्लॉक' मुद्रणाचो इतिहास रचिल्लें प्रमाणपत्र आमकां 'हॉर्तूस इण्डिकूस मलबारिकूस' ह्या ग्रंथसमुच्चयाच्या पयल्या खंडांत वाचूंक मेळटा. देवनागरी लिपीन बरयिल्ली ही कोंकणी 340 वर्सां उपरांतय आमकां परकी भास दिसना; मात्र न्हंय एक आपलेपणय दिसून येता.

प्रमाणपत्राचे नंतर हॉर्तुसांत कोंकणी दिश्टी पडटा झाडांच्या चित्रांच्या सांगात. त्या चित्रांतलीं झाडांचीं नांवां कोंकणीन बरयलां आनी तें बी देवनागरी लिपीनच आसा. पुण सर्व अक्षरांय आमी आज बरोवच्या पद्धतिनच आसा अशें ना. थोड्या जाग्यार (केन्ना दीर्घ घालताना तर केन्ना ह्रस्व घालताना) रेखा जाय आशिल्ली म्हणून आमकां दिसतलें. तशेंच जाय तो अनुस्वार त्या त्या जाग्यार ना म्हणूय दिसून येता. आयच्या नमून्यार अनुस्वार, ह्रस्व/दीर्घ रेखा हें सर्वय घालें जाल्यार तें प्रमाणपत्र कशें आसूं येता आशिल्लें हें आमच्या लेखकांनी दाखोवन दिला.

मागीर आमच्या लेखकांनी त्या प्रमाणपत्राचें अर्थविश्लेषण केल्लेलें तुमकां हांगा वाचूंक मेळटा. थोडे पंडितांनी आपल्या बरपावळींत हाचो परामर्शो कशी केला हें समजून घेवपा खातिर हांगा वेंचीक लेखनों दिल्यांत. त्या त्या झाडाचे पासून विस्तृत माहिति लॅटिन भाषेंत दिल्या हेंवय दिश्टी पडटा. त्या संदर्भांत कोंकणी नांवांचें उच्चारण रोमी लिपीन दिल्यांय. हॉर्तुसांतलीं कोंकणी नांवां पुंजावन एक सविस्तर वळेरी सर्वप्रथम जावन आमच्या ह्याच पुस्तकांत दिलां हें एक खाशेलपण आसा. चित्रांचे बरोबर जीं कोंकणी नांवां दिल्यांय तांच्या थोडे नमूनेय ह्या आमच्या पुस्तकांत दाखयल्यांय.

ह्या कारणांनी आनी मुखार हॉर्तूस संबंधी कोणाकय संशोधन करचें जाल्यार आमचें हें पुस्तक उपयोगी उरूंक जाय ही आमची अपेक्षा आसा. कोंकणी भाषेंत हॉर्तूस मलबारिकूसाची वळख घेवचें हें पयलें पुस्तक तयार करपाचो आमचो वावर आतां सफल जाला अशी दिसता.

**- पय्यनूर रमेश पै**

अध्यक्ष, कोंकणी साहित्य अकादमी - केरळ

# मांडावळ

## भाग 1 - वळख आनी समज



## भाग 2 - कोंकणी प्रमाणपत्र

## भाग 3 - विशयाची पाठभूंय



## भाग 4 - हॉर्तुसांतली कोंकणी



## भाग 5 - वखदी वनस्पतीचीं नांवां

## भाग 6 - चित्रशाळा

# भाग 1 - वळख आनी समज



**वाचकां खातीर प्रास्तावीक**
भाषांतर : पलिया गांवकार



**एक मनोरंजक प्रसंग**
- पलिया गांवकार
तन्वी बांबोळकार



**गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक**
- शेणै गोंयबाब



**कोंकणी मंदाकिनी**
- डॉ. जुजे पेरेइर



**कोंकणी सरस्पतीचो इतिहास**
- डॉ. ओलिव्हीन्या गोमिश

# वाचकां खातीर प्रास्तावीक

**- मूळ : जॉन कज़ेरीयस** (कोचिनांतले पाद्री)

**- भाषांतर : पलिया गांवकार, तन्वी बांबोळकार**

[गोंय विद्यापीठांतल्यान पदव्युत्तर पदवी जोडिल्ले उपरांत महाविद्यालयांत प्राध्यापक म्हणून कामाक लागल्यात पलिया गांवकार आनी तन्मी बांबोळकार. तांणी पुस्तक विमर्शा, अणकार आनी गद्य लेखन करून कोंकणीचो वावर हातांत घेतला. हॉर्तुसा विशीचें आमच्या वावराक आपली मार्गदर्शकी डॉ. किरण बुडकुले हांच्या बरेपणान हांणी बरें सहकार्य केलें. - सं.]

PRÆFATIO AD LECTOREM.

Quod igitur hanc descriptionem concernit, in ea expressa est forma & facies cujusque plantæ, earumque præcipuarum partium, ut Radicis, Stipitis seu Caulis, Foliorum, Florum, Fructus, Seminum, uti & proprietates coloris, præterea positæ sunt nomina in linguis Malab. & Bramanum cum singulari eorum notatione; cumque quoque nobis sint omnes plantarum notas species, quas comparare potuimus, cum earum differentiis simul describere, ut ita omnem confusionem, quæ in plantis dignoscendis inter species facillimè oboriri potest, præveniremus; quod ad figuras, in illis plantæ cum præcipuis suis partibus, ut Floribus, Fructibus, Seminibus in naturali magnitudine delineatæ & ad vivum expressæ sunt, idque adeò exactè ut non dubitem quin descriptio nostra ut ut omnibus suis numeris non sit absoluta, cum iis collata sufficiens erit ad claram & distinctam cognitionem de hisce plantis acquirendam; quod ad usus medicos, illos tum ex inventis Reverendi Patris JOANNIS MATTHÆI Carmelitæ delegimus, tum ex ore Doctorum peritissimorum nempe RANGA BOTTO, VINAIQUE PANDITO, & APU BOTTO Bramanum, & ITTI ACHUDEM hominis ex genere Chegum quemadmodum ex testimoniis ipsorum patet; quibus additi sunt vires quorundam oleorum à nobis extractorum; atque hac ratione primam partem Horti hujus Malabarici adornavimus.

JOANNES CASEARIUS,
*Eccles. in Cochin.*

ह्या वर्णनात ह्यो मुखावेल्यो गजाली आसात : वनस्पतीची जात आनी तरा उत्कायल्या, आनी मुळां, मुखेल खोड वा खांदे, पानां, फुलां, फळां आनी बियो, हे मारकेले तांचे मुखेल भाग, तांच्या रंगांचो प्रकार, तशेंच तांचे वर्णन मलबारी आनी ब्राह्मणांच्या भाशेंत केला; त्या भायर आमी अश्या वनस्पतींच्यो सगल्यो जाती आस्पावन घेतल्यात, जांची तुळा करप शक्य

जालां, आनी तेच बरोबर तांची वेगळेपणां सांगपाक मेळटात, म्हणटकच तांच्या जातीं मदीं उप्रासपी गोंदोळ टाळु येता; ह्या वनस्पतींचीं चित्रां, फुलां, फळां आनी बियो ह्या भागांची चित्रां तांच्या सैमीक आकारांत चितारुन तांचे बारीक वर्णन केलां, की जरी तें एकदम तश्या तश्शें नासलें तरी ह्या वनस्पतींचो स्पश्ट आनी वेगळें ज्ञान दिवपी अभ्यास करुंक फावो तशें आसा अशें म्हणुंक आमी अनमन नात; वनस्पतींच्या वैजकी वापरां खातीर, आमी रेवरंड फादर जोआनस माथेयस, कार्मेलायट तशेंच ज्या कुशळ दोतोरांनी मौखीक रीतीन सांगली ती वनस्पती वेंचल्या. ह्या दोतोराची नांवां रंग भट, विनायक पंडीत आनी अपु भट आसात. तेच प्रमाण ब्राह्मण आनी इट्टी अचुदें ह्या चेगम लोकांनी दिल्ल्या पुराव्या वेल्यान, तशेंच आमी काडिल्ल्या तेलां वेल्यान ताचे वैजकी गुण सिद्ध जाले. आनी ह्याच कारणाक लागुन आमी हॉर्तुस मलबारिकूसाच्या ह्या पयल्या भागांत चित्रांनी देखी दिल्यात.

[हॉर्तुसाच्या पयल्या खंडांत दिलेले लॅटीन भाशेंतले आमुख लेखनाचो हो आखिरचो भाग श्री. जोस लोरेन्सो हांणी अंग्रेजीन भाषांतर केलें; आनी ताच्या आधारान हो कोंकणी अणकार केला. मूळ हॉर्तुसांत दिल्ली माहिती प्रमाणे त्या ग्रंथाच्या रचनेंत कोणे कोणे वांटे घेतले हें आमकां ह्या प्रास्ताविक लेखांतल्यान कळटा.]

# एक मनोरंजक प्रसंग

**- पलिया गांवकार, तन्वी बांबोळकार**

[ मूळ हॉर्तूसाच्या तिसरे खंडांत हेनारिक व्हॅन रीड हांणी बरयल्लो लेख डॉ. जे. हेनीगर हांणी अंग्रजींत अणकार केला. ताजे वेल्यान हें भाषांतर तयार केला. व्हॅन रीडान आपल्या समक्षांत फळावल्ल्या आनी ताका जाल्लो अतिशय महत्वाचो अजाप ह्या लेखांत दिश्टी पडटा.]

हो वावर त्रासदायक कटकटीं विरयत फुडें तसोच चालू उरचो म्हणून हांवे अशे तरेची वेवस्था केल्लीः म्हज्या आदेश प्रमाण दोनूय तरांच्या कांय वैजानी, म्हणचे ब्राह्मण आनी हेरांनी, आप आपल्या भासांनी सगल्यांत चड बरी नामना आशिल्ल्या आनी खूब प्रमाणांत दिसून येवपी वनस्पतींची यादी तयार केली. त्यो त्यो वनस्पती ज्या ज्या ऋतूंत बहरतात ते प्रमाण हेरांनी परत त्या वनस्पतींची विभागणी केली, कारण झांडाचेर फकत पानाच आसतालीं वा तीं फकत फळटलीं वा फुलतालीं. उपरांत ही यादी वर्साच्या ठरावीक काळाप्रमाण वनस्पती शास्त्राच्या कांय जाणकारांकडे दिली. तांणी आमकां त्या त्या वनस्पतींचीं पाना, फुलां फळां, जळामळाकच्यान पुंजावपांत आदार केलो. हें करपाक ते व्हड झाडांच्या उंचेल्या तेंगशेर लेगीत चडले. सादारण तरेन तांची झाडांनुसार पंगडांनी विभागणी करून तांका कांय रानांनी धाडले. झाडां एकठांय करप्यांनी हाडिल्ल्या जिव्या वनस्पती आनी झाडांचीं हुबेहुब रेखाचित्रां म्हजे वांगडाक सेयिस्कर सुवातेर राविल्ल्या चित्रकारांनी काडलीं. उपरांत म्हजे हजेरेंत दर जिसा ह्या रेखाचित्रांक वर्णना जोडलीं.

ते खेरीज, वनस्पतींच्या आकार आनी उपेग प्रमाण तांकां आशिल्ली म्हायती तांणी आमकां पुरोवची अशें आमी मलबारच्या सगळ्या राजकुंवरांकडेन आदरयुक्त नमळायेन मागिल्लें. अशे तरेन वेळचे वेळार आमचे मेरेन 50 ते 60 समुद्री मैल अंतरा वेल्यान झाडां हाडप जातालें. तशेंच, ह्या राजा आनी राजकुंवरामदी एकलोय असो नाशिल्लो जाणें कसलीं ना कसलीं फुल झाडां

आमच्या हॉर्तुसांत रोवूंनात. अशे तरेन हीं वनस्पती शास्त्राच्या जाणकारांनी पुंजायल्लीं, चित्रकारांनी पितारिल्लीं तशें, तज्ञ अशा सक्षम मनशांनी वर्णन केल्लीं तरेकवार बारीक मोटीं झाडां, हांवें म्हज्या पंगडांतल्यान तशेंच खासा तांचे नामने वेल्यान नेमणूक केल्ल्या फिशल वैजांच्या तशें वनस्पती शास्त्राच्या जाणकारांचे चिकित्से खातीर सुपूर्द केलीं. साहजीकच, हांवे हीं चित्रां एक 15-16 विंगड जाणकारांच्या पंगडाक दाखोवन दुभाश्या वरवीं तांकां ह्या वनस्पती आनी झाडांची म्हायती, तांचीं नावां आनी तांचे वखदी गुण हांचेविशीं विचारलें, तांच्यो जारा एके नोंदवहेंत नोंद केल्यो. तरी पूण, हे मंडल मलबारच्या सांबार वाठारांतल्यान एकठांय हाडिल्लें, कारण जरीं ते एका मेकाक वळख नाशिल्ले तरीं ते एका हावेसान, आत्मसन्मानाचे भावनेन आनी जर कोणें कित्याय कडेन आड नदर केली, जाल्यार तें लिपोवपाचो वा धांपपाचो यत्न करताले. तशेंच हुस्कयान बावुरताले. हाचे फाटल्यान, अर्थातच, मेहेरबानी मेळोवपाची वान्सा आसताली. तर ताचे आड संशयान प्राधान्य मेळोवपाचे वान्सेन एक केल्ले. तेच परीं ते एकामेकाकडेन असहमत जावपाचें जाता तितलें टाळटाले. आनी जर तांणी खंयच्याय झाडाक अप्रमाणीक रीतीन बरे वा वायट गुण लावपाचो यत्न केलो तक आपणालें चूक ना हें दाखोवपाक ते जमता तें करताले.

खुबदां हांव खोसदिण्या मनोरंजक प्रसंगार हाजर आसतालो, देखीक, जंय हे तत्वज्ञानी देशी ब्राह्मण सिध्दांत, नेम, प्राचीन श्लोक आनी तांच्या विख्यात-विद्वान पुर्वजांच्या पुस्तकांतले वचनदार मुद्दे घेवन एकामेकांकडेन भेद मतभेद करताले. आपल्या मतांचेर ते वाद विवाद करताले खरे, पूण इतले अजापभरीत नमळीकायेन, जीभोव प्रतिष्ठित तत्वचिंतकांमदीं लेगीत सांपटचीना; कांयच कटुताय, मानसीक, अस्वास्तताय नासतना, वा एकामाकांच्या मतांचेर किकोंत करिनासतना ते प्राचीनतया आनी तांच्या शास्त्राच्या पयल्या शोधकांक भोव भावार्थना मान दितात, आनी तांचेपासत ते आपली मतां आनी अपले अणभव पारखितात तशेंच 'तांचे' अधिकारिणीखाला आपले

आणभव तिजतात. वैजकिशास्त्र आनी वनस्पशात्रापुरतें पळयल्यार, ह्या शास्त्रांचे ज्ञान श्लोक रूपांत सांबाळून दवरलां, तांतूत पयले वळीची सुरवात जाता वनस्पतीचे विशेश नामांवयल्यान, उपरांत ताची वा वर्ग, मुळतत्वां, प्रकार भाग, सुवात, रुतू रोगनिवारक मूल्यां, उपेग आनी हेर आसल्य गजालींचे वर्णन ते भोव आचूकतायेन करताले. आपल्या मतांचेर ते वाद-विवाद करताले खरे, पूण इतले अजापभरीत नमळीकायेन, जी भोव प्रतिष्ठित तत्वचिंतकांमदीं लेगीत सांपडचीना: कांयच कटुनाय, मानसीक असवस्ततताय नासतना, वा एकामेकाच्या मतांचेर किकोंत करिनासतवा. ते प्राचीनताय आनी तांच्या शास्त्राच्या पयल्या शोधकांक भोव भावार्थान मान दितात, आनी तांचेपासत ते आपली मतां आनी आपले अणभव पारखितात तशेंच 'तांचे' अधिकारिर्णाखाला आपले आणभव तिजतात. वैजकिशास्त्र आनी वनस्पतशास्त्रापुरते पळयल्यार, ह्या शास्त्रांत ज्ञान श्लोक रूपांत सांबाळून दवरलां. तांतून पयले वळींची मुरवात जाता वनस्पतीचे विशेश नामांवयल्यान, उपवरांत ताची जैत वा वर्ग, मुळतत्वां, प्रकार, भाग, सुवात रुतु, रोगनिवारक मुल्यां, उपेग आनी हेर आसल्या गजालींचे वर्णन ते भोव अचूकतायेन करतात. आनी ते हें इतले कुशळतायेन करताले की कोणेंय जर एका वनस्पतीचें नांव घेनलें, जाल्यार कोणूय ब्राह्मण रोखडोच ताका जाप करतलो, ताचे बद्दल जें किते सांगलां आनी जें किते म्हणपाक जाता, तेंय तो सांगतलो. जरी हे शिकोवपाचे पद्दतीक निबर स्मरणशक्तीची गरज आशिल्यान ती कठीण कशी दिसता आसली, तरीय ते खेळीमेळींचे सोंपेपणान हे श्लोक आपल्या भुरग्यांच्या स्मरणशक्तीचेर कोरांतताले. ताचें मताप्रमाणे हे पिरायेर स्मरणशक्त सगळ्यांत वशीश्ट आसता. उपरांत तरणाटे तशेंच प्रौढ पिरायेवयल्या सहज आपणवपी मनींत तें भावार्थान उरता. ह्या शिक्षण क्षेत्रांचो (वैजकीशास्त्र आनी वनस्पतशास्त्र) पयलो सोद इतलो पोरण अशें म्हणटात की ते जीं पुस्तकां दाखयतात तांचे लेखक चार हजार वर्सां आदीचे अशी स्पश्ट धारणां चालंत असा. खरें पळोवपाक गेल्यार, हे लोक ही विद्याशाखा मेकळ्या मनान वा

आपल्याक जाय म्हूण आपणायनात. ती तांच्या जल्मावयल्यान तांचो पेश कशी थारता. जल्माक लागून तांका मान फावो जाता. पराधीनता, आर्न थोडेभीतर सांगचे जाल्यार तांचे काम तांका जल्मकायद्यान मेळटा, जें तो-तं स्थितप्रज्ञ वृतीन अनिवार्य म्हणून मानून घेता. अशेतरेन पिळगेन-पिळगी कुळाचो चालंत दर्जो आनी दायकेंतल्यान आवय-बापूय हें सगळें आपल्या भुरग्यांच्या स्वाधीन करतात. जें तांकां एकामेकाकडेन, आपलो वेवसाय प्रवीण रीतीन चालीक लावपाक गरजेचें आसता. हो वेवसाय प्राचीनकाळासावन जल्मकायद्यान ह्या वा त्या कुळाक अधिकृतपणान प्रदान केल्लो आसता. एक तर, खंयच्यातरी राजान आपले भोव आज्ञाधारक प्रजेचेर हो अनिवार्य आनी कडक कायदो लादला, वा लोकांचे परस्पर मान्यतायेन तो लागू जाला; वा विशिश्ट पवित्र गुढांचेर आशिल्लो तांचो खर भावार्थ वा भविष्यवाणी तशेंच दैवी प्रेशीत ज्ञानेचो अंधश्रद्धीक भंय (जाचो ह्या लोकांचो आसामान्य भावार्थ आसा) असल्या गजालींनी हो कायदो हाडला, ताका फाटबळ दिलां आनी कितल्याशाच शैंकड्यांसावन ताचें समर्थन ते करीत आयल्यात. पूण ही भासाभास करपाची सुवात ही न्हय...

# गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक

**- शेणै गोंयबाब**

[ शेणै गोंयबाब म्हळ्या नांवान विख्यात जालोलो कोंकणी भाषेचो नामनेचो पंडित आनी महात्मा वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार हांकां हॉर्तुसा पासून खबर आशिल्ली काय म्हूण पळयलें नर तांणी ह्या विशीं बरयलां म्हूण व्यक्त जाता. 1928 वर्सा मुंबैच्या गोमंतक छापखान्यांत छापून उजवाडाक हाडिल्ले गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक (पैलें खंड) नांवाच्या विख्यात पुस्तकाच्या 150 वें पानांत हें आमकां वाचूंक मेळटा. तें हांगा पळयात. - सं]

कोचिच्या गोंयकारांक कोंकणी भाशेचो इतलो मोग आस कि ते आपले हिशेब आनी कागदां-पत्रां तेच भाशेंत बरैतात खें. गोंयच्या गोंयकारांवरी, ते आपल्या हिशेबाच्या पटयांनी, माथें खरपून येवजून, गोडा बदला अडेचें गूळ घालिनात. सतराव्या शेंकड्याचें दुसरें अर्द लागत्यार, गोंयकार कोचीक पावन सुमार शंबर वर्सां जाल्लीं. तरी आसताना, तांचो कोंकणी भाशेचो अभिमान इल्लोय उणांवक नासलो. ते आपले भाशेक आपुण खासा मान दिनाले इतलेंच न्हंय, तर परक्ताय एवरोपेव लोकांकडसुनूय तिका मान दिंवक लायनाले. 1675 न कोचिचो ओलान्देज गोवेर्नादोर हेनरिक फान स्हीड हो आसलो. हाणें आपले भोगवटींत, सुमार दोन वर्सां वावरून रंगभट, विनायक पंडित आनी आपूभट ह्या तिगां गोंयकार वैजांच्या पालवान, मलबारच्या वनस्पतिचीं चित्रां, नांवां, गुण आनी उपयोग घालून एक मोटो ग्रंथ बरैला. ताचें नांव Hortus Indicus Malabaricus ह्या ग्रंथांतलो मजकूर कशेच तरेन लटको ना ह्मणपाचें सगळ्या एवरोपाक आनी संवसाराक सांगूंक, कोंकणी भाशेंत देवनागरी अक्षरांनी बरैल्लें एक सेर्तिदांव त्या तिगांय वैजांचे सयेसैत त्या पुस्तकाक जोडलां. कोंकणी भाशेक त्या ग्रंथांत Lingua Bramana (**बामणी भास**) अशें म्हळां.

# कोंकणी मंदाकिनी

**- डॉ. जुजे पेरेइर**

[नामनेचो कोंकणी पंडित आशिल्ले डॉ. जुझे पेरेइर (1939-2015) अमेरीकेंत कोंकणीचे संशोधन करपी विद्यार्थियांक मार्गदर्शन करताले. 1996 वर्सा उजवाडाक आयिल्ले तांगेले "कोंकणी मंदाकिनी" ह्या पुस्तकांत (पान 16) हॉर्तूसा विशीं तांणी म्हायती दिल्या, उपरांत तांणी वेगवेगळ्या काळखंडांत दुसरे दुसरे कडे बरोवन आयिल्ले कोंकणी लेखांच्यो नमुनेय त्या पुस्तकांत दिल्यात. हॉर्तूसा विशीं दिल्लेली म्हायती शणै गोंयबाबाल्या 'कोंकणी भाशेचें जैत' ह्या मूळ बरपाच्या आधाराचेर आशिल्लें म्हूण तांणी कोंकणी मंदाकिनीचे अखेर व्यक्त केलां. आतां आमकां तांचो परामर्सो वाचुया - सं.]

जायते गोंयचे हिंदू, इंकिजिसांवाचे भ्रांतीन, आपणाल्या गांवांतुले पळुनु वचुनु केरळांतु रावले. थैं तांतुल्यां थोड्यानीं कोचि नगरांतु वैद्यापणाचो मानु जोडिलो. त्या काळारि कोचि होलांदेजांल्या (Dutch) सत्तेखाल आसिललें. थैं एका जाणारान, हेनरीकुस फान रेड (HENRICUS VAN RHEEDE, सुमार 1637 तें 1691) म्हळ्ळल्यान, दखिण हिंदुस्तानांतुल्या झाडांचो अभ्यासु आरांभिललो, एक म्हा वनस्पतिविद्येचें कार्य घडूंच्या कारणें. ह्या कामाक ताका तेगां कोंकणी वैद्यांचो आलासिरो मेळ्ळो, जांचीं नांवां आपु भट्ट, रंग भट्ट आनी विनायक पंडित (अंक 40). रेडालें झाडांचे वर्गीकरण सारिखें आस म्होणु निर्धारुंच्याक ताका ते वैद्यानीं एक कोंकणी प्रमाणपत्र बरौनु दिलें. सरस्पतीच्या दृष्टीन त्या पत्राक मोल उणें, पुणु तें केरळचे कोंकणींतु आजि पर्यंत अस्तित्वांतु आसिल्ल्या बरपां भितारि पैलेंचि बरप म्होणु ताका मानु थोरु. ताचे उपरांतें कोंकणी केरळकारांनीं कांयि पुस्तकां आपुले आव्यभासेतु बरैलीं म्होणु सांगताती, जैसीं देवुळांचीं स्थल पुराणां, 'भागवत पुराण', 'लिंग पुराण', 'वीरभद्रचरित्र', 'परशुरामचरित्र' इत्यादि.

# रंगभट्ट – विनायक पंडित – आपु भट्ट

(१७ वो शेकडो)

## 40

## *प्रमाणपत्र*

(१६७५)

॥ स्वस्ति ॥

श्री शालिवाहन शक १८९७ राक्षस संवत्सर चैत्र बहुळ १०. कोचि राजपटणीं बैसिके, रंगभट, तथा विनायक पंडित, आपुभट्ट, तेग वैद्य, ताणीं कोचिच्या कुम्दोरा आंद्रिक फांड्रे [COMMANDEUR HENRICUS VAN RHEEDE, c.1637-1691] त्याच्या निरोपान ह्या मलबारा देशांतु ओशद [औषध] मात्र व्रुक्ष [वृक्ष], वालि, झाडखंड ओळखतल्या मनुश्यांक मुसरो देवुनु ते ते फूल, पान, बीज, समस्त त्या त्या रुतु [ऋतु] काळावरि संपादून, तीं तीं विचारिलीं. त्या उपरांत आमी आमगेल्या वैद्य-ग्रंथाच्या निघंटा प्रमाणीं त्यां त्यां ओशदाचे गूण, वा अनुभवान जो जो गूण आमकां कळेलो, तो वा त्यां ओखदांचीं नांवां पळेव्नु, आजि दोनि वर्शां सकाळी सांजे आमी लागी राव्नु हो लीव्रु [हें पुस्तक] संपादून दिला.

तें लटिक अशि म्हणुच्याक नज – अशि म्हणु आमी आमंची निसाणि कर्नु दिली. तें सत्य म्हणु मानुचें म्हणु नगर बरपान हें बरव्नु दिलें. श्री. रंगभट. विनायक पंडित. आपुचें ओप.

# कोंकणी सरस्पतीचो इतिहास

- डॉ. ओलिव्हीन्या गोमिश

[गोंय विद्यापीठाचें कोंकणी विभागाचो मुखेल जावन आशिल्ले दिवंगत प्रोफेसर (डॉ ओलिव्हीन्या गोमिश हांणी आपल्या कोंकणी सरस्पतीचो इतिहास नांवाच्या पुस्तकांत हॉर्तूसा विशींचो हो उल्लेख केला. 1989 जनवरी 6 तारीकेक मणिपालांत जमिल्ल्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेचे माचयेर प्रकाशित जालेले हें पुस्तक खूब वर्सां गोंय विद्यापीठांत कोंकणींत पदवी जोडपाक शिकपी विद्यार्थ्यांनी चड म्हायते खातीर वापरला. केरळी कोंकणी शैली आशें शीर्षक दिलेल्या धावे अध्यायांत (पान 41) तांणी अशें बरयिल्लें आसा. - सं ]

पुण ह्या गोंयां भायर गेल्ल्या गोंयकारां मदलो कोंकणी बरोवपाचो आमच्या हाताक सांपडिल्लो भोव आदलो नमुनो म्हळ्यार केरळांतल्या कोचीं शारांतलो. पयले वयले गोंयकार केरळांत चौदाव्या शोंकड्यांत वेपाराक लागून गेल्ले. उपरांत 1510 तले पुर्तुगेज जिखे उपरांत आनी 1563 आंत गेले. तो 1678 वर्सांतलो 20 आब्रिल तारखेर निशाण केल्लो मुद्रित जाल्ले भारतीय भाशेंतलो लेख आसा. तो दाखलो करेळच्या तीगां कोंकणी वैद्यांनी कोचींचे डच् सुभेदार हेनरीकुस वान रीड - आंड्रिकि फांड्री, असो ताका पाचाल्ला - हांगेले आज्ञेवेल्यान Hortus Indicus Malabaricus (मलबरांतली हिन्दी बागायत) हो ग्रंथ संपादीत करपाक आदार दिल्लो. हाजे विशीं त्या काळाच्या नोटारियल पद्धतीन ताणीं शिफारसपत्र दिलें तें कोंकणींत आनी नागरी लिपयेंत अशे तरेन बरयल्लें मेळटा :

स्वस्ति श्री शालिवाहन शक 1597 राक्षस संवत्सर चैत्र बहुळ 10 कोचि राजपाटणीं बैसिके रंगभट तथा विनायक पंडित, आपू भट, तेग वैद्य तानीं कोचिचो कुमदोर आंड्रिकि फांड्रे त्याचा निरोपान ह्या मलबार देशांतु आशिले औषधमात्र वृक्षवालि झाड खंड ओळखतल्या मनुश्याक मुसारो देवनु ते ते गांवांतु पेट्टवून तिं तिं वोखद आणवून त्यां त्यां झाडांचे फल फूल पान

बीज समस्त त्या त्या रुतुकाळावरि संपादून तीं तीं चितारिलीं. त्या उपरांत आमीं आमगेल्या वैद्य ग्रंथाच्या निघुंटा प्रमाणीं त्या त्या औषधाचे गुण वा अनुभवान जो जो गुण आमकां कळेलो तो वा त्या ओखदांचीं नांव पळेवनु आजि दोन वर्ष सकाळी सांजे आमिं लागिं रावुनु हो लिव्रु संपादून दिला. तें लटिक म्हणुंच्याक नज अशिं म्हण्णुं आमि आमंचि निसाणि कर्णु दिली. हें सत्य म्हण्णुं मानुचें जाइद म्हण्णुं नागर बरपान हें बरवुनु दिलां. निशाणी - श्री. रंग भट्टु. विनायक पंडित. आपुचें ओप...

हो दाखलो नागरींत वयर दिला तेच प्रमाणें आसा. ह्या बरोवप्यांचें आर्नीक कितेंय बरोवप आसल्यार अजून आमचे नदरेक पडलें ना.

# भाग 2 - कोंकणी प्रमाणपत्र

# प्रमाणपत्रांतले शब्द

- एन. पुरुषोत्तम मल्ल्या

[कोंकणी भाशेंची चळवळ केरळांत शुरू केल्लें श्रेय एन. पुरुषोत्तम मल्ल्या हांकां प्राप्त जाता. इतिहासकार, संशोधक, लेखक, प्रभाषक, अनुवादक आनी ग्रंथकार अशी अनेक नरांनी ते विख्यात आसात. विश्वकोंकणी केंद्राचो प्रथम 'विमला वी पै जीवनसिद्धी पुरस्कार' आनी हालींच भारत सरकाराचें 'पद्मश्री' बिरुद तांकां फावो जाला. ते कोंकणी भाषा प्रचार सभेचे कार्यदर्शी आसात.

ह्या प्रमाणपत्रांत उपयोग केल्ल्या कोंकणी उतरांचो अर्थ कितें? समजुपाक सरळ रीतीन हांगा प्रयत्न केला. तांच्या The Role of Konkani Brahmin Ayurvedic Physicians Ranga Bhat, Vinayak Pandit and Appu Bhat of Cochin in the Compilation of Hortus Indicus Malabaricus- Revelation of the True Facts Hitertto Hidden and History of Konkanis During the Dutch Colonial Period ह्या पुस्तकांत हर एक कोंकणी शब्दाक अंग्रजीन जो अर्थ दिल्ला तो आमी वाचकां खातीर दिला. हेंवय एक खाशेलपण आसा - सं.]

| | |
|---|---|
| स्वस्ति | A particle meaning "May it be Well" with (one) often used at the beginning of letters |
| श्री | The mark/ insignia of greatness |
| शालिवाहन | Salivahana |
| शक | Saka era |
| १५९७ | 1597 |
| राक्षस | Rakshasa |
| संवत्सर | Samvatsara |
| चैत्र | Chaitra |
| बहुल | Dark half |
| १० | Tenth |
| कोचि | Cochin |
| राजपटणी | Raja's Town |
| वैसिके | Residing |
| रंग भट | Ranga Bhat |
| तथा | so also |
| विनायक पंडित | Vinayaka Pandit |
| आपू भट | Appu Bhat |
| तेग | Three |
| वैद्य | Physicians |
| तानिं | They |
| कोचिचा | of Cochin |
| कुमदोर | Commander |
| आंड्रिकि फांड्रे | Andrike Fandre |

त्याचा His
निरोपान with permission
हय this
मलबार Malabar
देशान्तु Region
आशिले existing
ओषध Medicinal
मात्र only
वृक्ष Trees
वालि Creepers
झाड Plants
खंद branches
ओळखतेल्या known
मनुष्याक person
मुसारो honorarium
देवूनु given
ते ते that that
गांवातु places
पेट्टवून sent
तिं तिं that that
वोखद Medicine
आणवून Brought
त्या त्या that that
झाडाचें Plants
फल fruit
फूल flower
पान leaves
बीज seeds

समस्त all
त्या त्या that that
ऋतु seasonal
काळावरि time
सपादून after collections made
तिं तिं that that
चितारिली Pictured
त्या that
उपरांत afterwards
आमि we
आमगेल्या our
वैद्य Physicians
ग्रंथाचा books
निघंटा dictionary
प्रमाणिं based on authority
त्यां त्या that that
ओषधाचे of Medicine
गुण effect
वा or
अनुभवान knowledge derived from personal experiment
जो जो what
गुण effect
आमका to us
कळेलो made known
ता that
वा or

| | |
|---|---|
| त्या | that |
| ओखदाची | of Medicine |
| नांव | names |
| पळेउन | noted |
| आजि | today |
| दानि | two |
| वर्ष | years |
| सकाणि | morning |
| साजे | evening |
| आमि | we |
| लागि | nearby |
| राबून | standing |
| हा | this |
| लिव्रु | book |
| सपादून | editing |
| दिला | given |
| तों | that |
| लटिक | false |
| अशि | like that |
| म्हाणुंचाक | to say |
| नज | No |
| अशि | thus |
| म्हणु | saying |
| आमिं | we |
| आमंचि | our |
| निशाणि | signature |
| कर्णु | affixing |
| दिली | given |
| तो | that |
| सत्या | true |
| म्हणु | so saying |
| मानुचे | acceptance |
| जाइद | affimed |
| म्हणु | so saying |
| नागर | Devanagari |
| बरपान | Script |
| ह | thus |
| बरवून | writing |
| दिलां | given |
| श्री: | Insignia of greatness or dignity |

# मलबाराचें उद्यान

**- शरतचंद्र शेणै**

[कोंकणी कवी, अनुवादक, गीतकार, कथालेखक आनी व्याकरणकार अशी अनेक तराची ताकद दाखयिल्ले शरतचंद्र शेणै एक निवृत्त बँक अधिकारी आसात. केंद्र साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाल्ले ह्या लेखकाचीं खूब पुस्तकांय प्रकाशित आसात. हॉर्तूस मलबारिकूसा विशीं तांणी वेगवेगळ्या पत्र-पत्रिकेंत संशोधनात्मक लेखनां उजवाडायिल्लीं आसात. - सं.]

HORTUS MALABARICUS म्हळ्यार 'मलबाराचें उद्यान' म्हूण अर्थ. मलबार म्हळ्यार आतांच्या उत्तर केरळ राज्याचो वाठार जावनु आसा. जाल्यार पूर्वकालाक भारताच्या दक्षिण पश्चिमेचो एक सगलोच भूप्रदेश ह्या एक सामान्य नांवान वळखतालो. आनी हें नांव वनस्पतींचे, सुगंध द्रव्यांचे गिरेस्तकाये खातीर संवसारिक तलाचेरीच सुप्रशस्त आशिल्लें.

ह्या वाठाराच्या वनस्पतींचे विशीं क्रिस्ताब्द सतराव्या शतकांत तयार जालोलो एक बृहद् ग्रंथसमुच्चय आसा HORTUS INDICUS MALABARICUS. सुमार 780 वनस्पतींचो सुदीर्घ आनी विपुल परामर्श ह्या बारा खंडांच्या ग्रंथांत आसा. सुस्पष्ट आनी संकीर्ण चित्रांनी भरिल्लो, वनस्पतींचे गुण आनी उपयोग विवरसून आशिल्लो, एक समग्र विज्ञानकोशाच्या पांवड्याचो हो ग्रंथसमुच्चय लतीन भाषेन आसा. जाल्यार प्रति एक वनस्पतीचेंय नांव इतर तीन भाषांनी लागेन दिल्यां - मलबारिका, अराबिका आनी लिंग्वा ब्रामानिका.

आनी ही 'लिंग्वा ब्रामानिका' आसा आमची मोगाळ कोंकणी भास! ही कोंकणी कशी ह्या मलबार वाठारांतुल्या वनस्पतीं विशींच्या विदेशी ग्रंथांत इतली साबार आयली? तेंय बी सतराव्या शतकांत! हे विशीं सोदून गेल्यार भारतीय चरितांतुलें एक भांगरा पर्व आमचे मुकार

वाकतें जाता. 1678 थाकून 1703 मेरेन जावनु अंस्टरडम हांगाच्यान मुद्रण जालेल्या, बारा खंडांच्या ह्या ग्रंथसमुच्चयांतुल्या प्रथमल्याच खंडांत आरंभारीच कोचीच्या तेग कोंकणी वैद्यांनी मेळून हस्ताक्षर केलेलें एक हातबरपाचें साक्ष्यपत्र दिल्यां. कोंकणी भासेन, देवनागरी लिपीन बरयलेलें हें साक्ष्यपत्र रंग भट, विनायक पंडित आनी आपू भट नांवांच्या त्या तेग कोंकणी वैद्यांनी त्या अप्रूप ग्रंथाचे रचनेंत दिलेले देणगीचें सुवर्ण साक्ष्य दिता.

'आर्जीक दोन वर्सां सकाळीं सांजे आमी लागी राबून हो ग्रंथ संपादून दिला' अशी त्या साक्ष्यपत्रांत त्या कोंकणी वैद्यांनी सुस्पष्ट रूपान, कसल्याय संशयाक वाट दवरीनाशें, साक्ष्य दिल्यां! जाल्यार हें सत्य चड कोणाचे मतींत आर्जीय तरी गेलेंना म्हणचेंच वास्तव. सतराव्या शतकांतुल्या त्या तेग कोंकणी वैद्यांनी स्वाभिमानान देवनागरी कोंकणींत बरोवनु, आनी हस्ताक्षर लेगीत तेच प्रकारीं केलेल्या त्या अप्रूप साक्ष्यपत्राचें पूर्णरूप अशी -

> स्वस्ति श्री शालीवाहन शक 1597 राक्षस संवत्सर चैत्र बहुळ 10 कोचीं राजपाटणीं वसिक रंग भटट तथा विनायक पंडित आपु भटट तेग वैद्य तानी कोचीच्या कुमदोर ऑड्रीक फांड्र त्याचा निरोपान ह्या मलबार देशाक आशिले औषध मात्र वृक्ष वाल्ली माड खुंड आळखुनेल्या मनुष्यांक मुसारो देवून ते ते गांवांतु पेट्टवून ति ति वोखद आणवून त्या त्या माडांचें फल फुल पान बीज समस्त त्या त्या रुतुकाळावीर संपादून तिंनी चितारिली. त्या उपरांत आमी आमगेल्या वैद्यग्रंथाचा निघंटा प्रमाणीं त्या त्या औषधाचे गुण वा अनुभवान जो जो गुण आमकां कळेल्या तो वा त्या ओखदांचीं नांवां पळेवनु आर्जी दोनि वर्सां सकाळीं सांजे आमी लागी रावून हो लिव्र संपादून दिल्ला. तें लोटिक अशी म्हणुचाक नज अशी म्हणु आमी आमचीं निरमाणी करुं दिल्ली. तें सत्य म्हणु मानुचें जाइद म्हणु नागर बरपान हें बरवूनु दिल्लां. श्री: रंग भटट, विनायक पंडित, आपू भटट.

ह्या तांच्या उतरांतुल्यान त्या ग्रंथा फाटल्या भगीरथप्रयत्ना विशीं स्पष्ट माहिती आमकां मेळता. ग्रंथाच्या साक्षात्कारा फाटलें मुख्य बल आनी प्रचोदन आशिल्लो ओलान्देज कुमुदोर हेंड्रीक फान रीड, जो मागीर कोचीचो गवर्णर जालो. बारा खंडांचें हें सगलें पुस्तक ताच्याच नांवांन प्रकाशित जाल्यां. ग्रंथा फाटल्यान काम करपी, वावुरपी सगल्यांक ताणेंच

स्वस्ति श्री शालिवाहन शक १५९७ राक्षस संवत्सर चैत्र बहुळ १० कोची राजपाटणीं
वैसिके रंगभट्ट तथा विनायक पंडित आपुभट्ट तेग वैद्य तानिं कोचिचा कुमदोर
आंद्रिकि फांड्रे त्याचा निरोपान ह्या मलबार देशाक आशिले ओषधमात्र वृक्ष वालि
माड खंड ओळखतेल्या मनुष्यांक मुसारो देवूनु ते ते गांवांतु पेटटवून तिं तिं वोखद
आणवून त्या त्या माडाचें फल फूल पान बीज समस्त त्यात्या ऋतुकाळावरि संपादून
तितीं चितारिलीं. त्या उपरांत आमिं आमगेल्या वैद्यग्रंथाचा निर्घंटा प्रमाणिं त्यांत्या
ओषधाचे गुण वा अनुभवान जो जो गुण आमकां कळेलो तो वा त्या ओखदांची नांवां
पळेयनु आजी दोनि वर्षा सकाळिं सांजे आमिं लागि राबूनु हो लिंबु संपादून दिला.
ते लटिक अशि म्हणुंचाक नज अशि म्हणु आमिं आमची निसाणि कर्णु दिली.
ते सत्य म्हणु मानुचे जाइज म्हणु नागर बरपान हें बरयूनु दिलां श्री:

रंग भट्ट विनायक पंडित आपु भट्ट

वेंचून निमंत्रित केलेले आनी एकेकल्यांक तीं तीं कामां दिलेलीं. ताणें त्या त्या वाठारांतुल्या अधिकार्यांची आनी पालकांची मददूय घेतलेली. केवल 1670-77 कालखंडांत कोचींत आसलेल्या हाका 1611 वर्षा मरण आयलें. जाल्यार पुस्तकाचे वरलेले खंड ताचे मरणा उपरांतेंय उजवाडा आयले.

कोंकणी साक्ष्यपत्राची तारीक आसा क्रिस्ताब्द 1675 एप्रिल म्हयन्यांत. म्हण्टना त्या कोंकणी वैद्यांनी तांचें काम शुरू केलेलें 1673 वर्साच्या आरंभाक म्हूण व्यक्त जाता. तशी त्या दोन वर्सांच्या कालांत तान्नी वनस्पतीं विशीं ज्ञान विज्ञान आशिल्ले गांवकारांक वेतन दीवनु वेगवेगळ्या वाठारांनी धाडून वेगवेगळ्यो वनस्पती हाडयल्यो म्हणूय व्यक्त जाता. तेंच न्हय, तीं तान्नी 'चितारिलीं' लेगीत! प्रकाशित पुस्तकांनी मुद्रण केलेलीं चित्रां वेगळीं आसत. पुण त्या चित्रांचीं आधार चित्रां, मूल चित्रां, त्या कोंकणी वैद्यांनींच तयार केलेलीं म्हूण स्पष्ट जाता. तांच्या साक्ष्यपत्रांत ह्याचेंच साक्ष्य तान्नी दिल्यां.

आनी त्या वनस्पतींचे गुण आनी इतर माह्तिती खंयच्यान आयली? 'आमगेल्या वैद्यग्रंथाच्या निघंटा प्रमाणे / अनुभवा प्रमाणे' अशी तान्नी साक्ष्यपत्रांत स्पष्ट सांगल्यां. अर्थात् मूल रूपान समस्त माहिती तान्नीच 'संपादून दिलेली'! तांतूं कितेंय चड ऊणें करचें आनी अणकार करचें कामच बाकी वरलेलें. आनी केवल तेंच बाकीच्यांनी केल्यां. ह्याचोच परिणाम जावनु पुस्तकाच्या समस्त खंडांत वनस्पतींचीं नावां कोंकणी भाषेनय दिल्यांय. चित्रांचे ओट्ट तीं नावां नागरीनच आसाय जाल्यार लिखित माह्तितीचे ओट्ट रोमी लिपीन आसाय. मलयाळम भाषेंतुलीं नांवांय तशीच. कोंकणी आनी मलयाळम भासो भारतांत प्रप्रथम जावनु मुद्रण जालेल्योय ह्याच ग्रंथांत.

देखून आमच्या जायत्या जाणांनी ह्या साक्ष्यपत्राचो उल्लेख केला. शणै गोंय बाबांल्या 'गोंयकारांली गोंया भायली वसणूक - पैलें खंड'

(1928) आनी 'कोंकणी भाशेचें जैत' (1930) ह्या दोन पुस्तकांनी हाचो उल्लेख आयला. ते म्हण्टाय -

सतराव्या शेंकड्याचें दुसरें अर्द लागल्यार गोंयकार कोचीक पावन सुमार शंबर वर्सां जाल्लीं. तरी आसतना तांचो कोंकणी भाशेचो अभिमान इल्लोय उणावंक नासलो. ते आपले भाशेक आपुण खासा मान दिताले इतलेंच न्हय तर परक्या येवरोपी लोकां कडसूनूय तिका मान दिवंक लायताले. 1675 त कोचीचो ओलान्देज गोवेर्नादोर 'हेनरीक फान रीड' हो आसलो. हाणे आपले भोगवटींत सुमार दोन वर्सां वावरून रंग भट, विनायक पंडित आनी आपू भट ह्या तिगां गोंयकार वैजांच्या पालवान मलबारच्या वनस्पतींचीं चित्रां, नांवां, गुण आनी उपयोग घालून एक मोटो ग्रंथ बरयला. ताचें नांव HORTUS INDICUS MALABARICUS. ह्या ग्रंथांतलो मजकूर कशेच तरेन लटको ना म्हणपाचें सगल्या येवरोपाक आनी संवसाराक सांगूक, कोंकणी भशेंत देवनागरी अक्षरांनी बरैल्लें एक सेर्तिदांव त्या तिगांय वैजांचे सये सयत त्या पुस्तकाक जोडलां. कोंकणी भाशेक त्या ग्रंथांत LINGUA BRAMANICA (बामणी भास) अशें म्हळां.

तें कोंकणी साक्ष्यपत्र आमच्या पूर्विकांल्या स्वाभिमानाचें साक्ष्य म्हणून हे वरी जायत्या सुवनीरांचेर, विशेष अंकांचेर आनी पुस्तकांचेर पुनः पुनः मुद्रण केल्यां. कोंकणींतुलें प्रथम मुद्रण म्हणूनूय त्या साक्ष्यपत्राक चरित्रांत जागो आसा. कोंकणी चळवळींतुले समस्तांनीच हें मान्य केल्यां. कोंकणीचे मूल, स्वाभाविक आनी सहज लिपी विशींय हें साक्ष्यपत्र साक्ष्य दिता. हेंय कार्य साबार जाणांनी मान्य केल्यां आनी ते खातीर साक्ष्यपत्राचो उल्लेखूय केला.

जाल्यार वनस्पति विज्ञानाचे रंगावेलें आमच्या पूर्विकांलें हे योगदान - अनुपम अतुल्य योगदान - आमी आजीय सारकीं वळखूक पावले व्हय? वैश्विक तलाचेर विख्यात जालेल्या, पांचशें पांचशें पानांच्या बारा पुस्तकांत व्याप्त जालेलें तें विपुल विज्ञान 'संपादून दिलेलें' तान्नी!

ह्या परिश्रमाचें, ह्या मानव सेवनाचें फाव तें गौरव तांकां मेळ्ळ्यां व्हय? ना! आजीय हें आमकां साध्य जालेंना. आमी आजीय हें करूक पावलेनाय. हॉर्तूस मलबारिकूसाचें नांव जंय जंय येता थांगा एक मलयाळी वैद्यालेंच नांव गाजता, आमच्या पूर्विकांचीं नांवां न्हय! हो अन्याय कशी घडलो म्हूण सोदतना थोड्यो गजाली मुकार येताय.

एक म्हळ्यार आमचेंच अज्ञान. आमी केवल त्या साक्ष्यपत्राचें एकच प्राधान्य दिकूक पावल्याय. तांतूं कित्याचें साक्ष्य दिल्यां, आनी त्या पुस्तकांत आसाच तें किनें ह्या गजालींकडे आमी लक्ष दिलेंना. दोन वर्षांक सकाळ सांज त्या वैद्यांनी किनें केलें हें कार्य आमचे नदरे आड रावलें! ना जाल्यार आमी त्या साक्ष्यपत्रांत सुव्यक्त जावनु कितें सांगलां तें कार्य संवसाराचे मुकार पावयतले आशिल्ले. तशें घडलेंना.

दुसरें कार्य म्हळ्यार त्या ग्रंथाचो साक्षात्कार सादलेल्या हेंड्रीक फान रीड हाचेकडचान जालेंलीच चूक. ग्रंथाचो प्रथम खंड मुद्रण जावंच्या वेळार ताणें फाव तें ध्यान दिलेंना. हें कार्य ताणें आनी एक वेळार कबूल केल्यां. प्रथम खंडाचें मुद्रण आपण्याले नदरे आड जाल्यां आनी ते विशीं आपूण अतृप्त आसां अशी ताणें मार्गार बरयल्यां.

खरें म्हळ्यार त्या प्रथम खंडांत हें कोंकणी साक्ष्यपत्र प्रथम जावनूच येवंका आशिल्लें. ताचे बदला 'इम्मानुवल कारणीरो' म्हळ्या परिभाषकान मलयाळम भाषेन बरयलेलें साक्ष्यपत्र आयल्यां. ताजे उपरांत 'इट्टी अच्युतन' म्हळ्या मलयाळी वैद्यालें साक्ष्यपत्र आयल्यां. तशी कोंकणी साक्ष्यपत्राचें प्राधान्य नष्ट जाल्यां. आनी कार्य म्हळ्यार कोंकणी साक्ष्यपत्राची तांतू दिलेली लतीन परिभाषा भोव विकल जावनु आसा. मूल साक्ष्यपत्रांत कोंकणी वैद्यांनी स्वताक 'तेग वैद्य' केवल हें विशेषण दिल्यां जाल्यार परिभाषेंतुलें विशेषण GYMNO SOPHIST BRAHMIN म्हूण आसा. GYMNOSOPHIST म्हळ्यार दिगंबर पंथाचे (नागडे) म्हूण अर्थ ! ह्या असल्या अन्याया निमित्तीं, आनी

मलयाळम साक्ष्यपत्र मुकार आयलेले कारणान मलयाळी जनांनी आत मलयाळी वैद्याकच त्या सगल्या पुस्तकाचो मुख्य रचणार जावनु मान्य केला. तान्नी हे खबरेक खूब प्रचारूय दिला. ताच्या नांवार स्मारक उबीं जाल्यांय आनी ते खातीर केरळ सरकारा वाटेन अनुदान इत्यादीकय दिल्यां.

जाल्यार तागेल्या साक्ष्यपत्रांत बरयल्यां कितें? 'कुमदोर हेंड्रीव फान रीडाच्या आदेशा प्रमाण हांव कोचींत येवनु, पुस्तकांत बरयलेलीं कार्यां आनी चित्रां पळोवनु वनस्पतींचे गुण आदी कार्यां आमगेल्या ग्रंथां प्रमाण कशी कितें म्हूण परिभाषकाक सांगून आयकयलीं' अशी ताणे साक्ष्य दिल्यां. परिभाषकाल्या साक्ष्यपत्रांतूय बरयल्यां हेंच कार्य, हेंच सत्य. समजता कितें? मलयाळी वैद्य आयलोलोच पुस्तक तयार जालेले उपरांत मात्र. मागीरीय तागेलो वांटो केवल सीमितूच आशिल्लो. तोवय बी केवल मौखिक रूपाचो मात्र.

सतराव्या शतकांतुले ते तेग कोंकणी वैद्य केवल वैद्य म्हूण न्हय, ब्राह्मण म्हूण न्हय, कोचीकार म्हूण न्हय आशिल्ले. संवसारिक तलाचेर, जनोपकारी रूपाची अनन्य, अतुल्य, अनुपम संभावना केलेले,

इतःपर्यंत कोणूच करूक पावलोना तसलें भगीरथप्रयत्न करूक पावलेले, स्वाभिमानी महामनीष ते. आपलें विज्ञान वांटचे ओट्टू आपले मायभापेची घुडी वयर वयर उबयलेले आमचे पूर्वज ते. हें कार्य आमचे पिळगे पिळगेन जाण आसूका. तांच्या नांवांन आमी स्मारकां उबी करका. तांचे संभावने विशीं योग्य परामर्श आमच्या पाठ्य पुस्तकांनी, चरित्र पुस्तकांनी येवंका. केवल कोंकणी पुस्तकांत मात्र न्हय, इतर पुस्तकांतूय येवंका.

['**निर्माण**' म्हयनाळ्याच्या (गोंय) आगस्ट 2014 अंकांत आयलोलो लेख]

# दोन निश्कर्श

**- नागेश डी सोंदे**

[संशोधन, भाषांतर, व्याख्यान, लेखन आनी इतिहास निरूपण असल्या वेगवेगळया क्षेत्रांत नांव जोडल्ले श्री. नागेश सोंदेन तांच्या "कोंकणी भाशेचो इतिहास" ह्या पुस्तकांत हॉर्तुसा विशीं बरयलां. [illegible] वसा उजवाडायल्ल्या ह्या पुस्तकांत हॉर्तुसा विशीं पान 70 ते 72 मेरेन तांणी जें बरयलां तें हांगा दिलां - सं]

ही सर्व कुळं जेन्ना देशांतर जालीं तेन्नां आपण्याले धर्मा बरोबर संस्कृती, भाशा, रीत रिवाजवी घेवनुं गेले. जाका लागून आयचे कोच्चींतु आशिले कोंकणी लोकांलो संबंध अजून अनेक शतमानां उपरांतवी गोंय आनी आसपासच्च प्रदेशावरोबर आसा. हाका एक मुखेल कारण म्हळ्यार कोंकणी लोकांले आद्य कुलदेवत अजून गोंयच्चे मंगेशी, शांतादुर्गा, रामनाथी इत्यादि आनी तांगेली मायभाशा कोंकणी म्हण्णुं मानिलें आसाची.

डा. कत्रे हाणीं एक विधान केल्लिलें आसा कीं पोर्तुगीस मिशनऱ्यांनी कोंकणी भाशेंतु साहित्य निर्माण करचें पयले गोंयांतु किंवा गोंय भायर कोंकणी भाशेचें साहित्य अशें कांयी दिसून आयलें नां. हाका अनेक कारणं आसाची. जाल्यार मुखेल कारणं हे दूसरें तिसरें काय नासताना कोंकणी लोकांतु आपण्यान स्थळांतर जाल्लिले उपरांत दिसून येवचो भाशेसंबंध आळस. तरी पूण पोर्तुगीसांनी गोंयांतु आक्रमण करचें पयलें गोंयांतु कोंकणी सारस्वत नाशिल्लीं म्हणचें धाडस मात्र योग्य इतलेंची न्हंय, तर वस्तुस्थितीक लागून ना म्हणका. जेन्नां गोंयकार धर्मच्छळाक लागून कोच्चीक गेले तेन्नां गोंयांतु आशिले अनेक ग्रंथ ते आपण्याले बरोबर घेवनुं गेल्लिले. तीं ग्रंथं अनेक शतमानमेरेन तांगेली वारस जावनु आशिली इतलेंची न्हंय तर या संबंधान तांका अभिमान आसतालो. जेन्नां जोन् लेडन टिपू सुल्तानाले पराभवाउपरांत केरळांतु प्रवास करतालो तेन्नां ताका कोंकणी ब्राह्मणांबरोबर सहवास येता.

या वेळार ताका ते लोक आपण्याले भाशे संबंधी माहिती दिताची इतलेंची न्हंय तर हे भाशेंतु बरयिलीं अनेक ग्रंथं दाखयताची. भागवत,

लिंगपुराण, रामायण, महाभारत, वीरभद्रचरित, परशुरामचरित्र असले अनेक ग्रंथांचो उल्लेख लेडनाले प्रवास वर्णनेंतु आमंका मेळता. हे निःसंशय आसा कीं ही सर्व ग्रंथं केरळांतु निर्माण जालिली नासताना कोंकण्यांनी मूळ गोंयचान देशांतराचे समयारि हाडिलीं. हींची तीं ग्रंथं जे विशय ग्रियर्सन आपण्याले लिंग्विस्टिक सर्वे आफ इडियांतु उल्लेख करता.

तशें पळयल्यार त्या काळांतु आपआपसांतले वेव्हारांतु केरळांतले कोंकणी लोक कोंकणी भाषा बी वापरतालें अशें दिसून येता. इ.स. 1678 तु केरळचे तेग वैद्यांनी कोचिचे डच् सुभेदार हेनरीकूस फान ऱ्हीड - आंड्रीकि फांड्रे- हागेले आज्ञेवयल्यान 'मलबारांतली हिंदी बागाईत' हो ग्रंथ संपादित करनु दिलो. हाजे विशय जें शिफारस पत्र ताणीं दिलिलें आसा ते कोंकणींतु आसून भारतांतु मुद्रीत जालिलो भारतीय भाशेटो पयलो लेख होडि आशिलो म्हणयेत. तो लेख हे तरेन आसा :

1597 राक्षस संवत्सर चैत्र बहुळ 10 कोचि राजपाटणीं बैसिके रंगभट तथा विनायक पंडित आपू भट तेग वैद्य तानीं कोचिचा कुमदोर आंद्रिकि फांद्रे त्याचा निरोपान ह्या मलबार देशांतु आशिले औषधमात्र वृक्षवालि झाड खंड ओळखतल्या मनुश्याक मुसारो देवनु ते ते गावांतु पेट्टव वैद्यग्रंथाचा निघुंटा प्रमाणीं त्या त्या ओषधाचे जोजो गुण आमकां कळेलो तो वा त्या ओखदांची नांव पळेउनु आजि दोन वर्ष सकाळी सांजे आमिं लागिं रावुनु हा लिरू संपादून दिला.

ते लटिक म्हणुचाक नज अशि म्हण्णुं आमि आमंचि निसाणि कर्णु दिलि. हे सत्य म्हण्णुं मानुचे जाइद म्हण्णुं नागर बरपान हें बरवुनु दिलां श्री. रंग भट विनायक पंडित आपुचे ओप. ह्या लेखावयल्यान आमिं दोन निश्कर्श काडू शकताचीं. पयलो निश्कर्श म्हळ्यार जे गोंयकार देशांतराकारणान केरळ प्रदेशांतु निवास करताले ते आपण्याली मायभाशा जावनुं आशिले कोंकणी आपण्याले वेव्हारांतु वापरताले. दुसरो निश्कर्श : लोक आपण्याले भाशेखातीर सहजरीतीन देवनागरी लिपी वापरताले.

# सतराव्या शतकांतलें कोंकणी प्रमाणपत्र

- **सुरेश गुंडू आमोणकार**

[ज्ञानेश्वरी, धम्मपद, श्रीमद् भगवद्गीता सारख्याल्ल्या धर्मग्रंथांचें कोंकणी भाषांतर केल्लें सुरेश गुंडू आमोणकार एक निवृत्त अध्यापक आसात. भारत सरकाराचो 'पद्मश्री' पुरस्कार तांकां प्राप्त जाला आनी विश्वकोंकणी केंद्रान तांकां 'विमला वी पै जीवनसिद्धी पुरस्कार' दिला. तांकां म्हालगडे विद्वांस आनी पंडित अशी मानतात. ते गोंयचे मापसांत रावून आसात. गोंय सरकाराचें कला आनी संस्कृती निर्देशनालयान लागींच उजवाडाक हाडचें हागल 'ख्रिस्तपुराण' ह्या संशोधनात्मक ग्रंथाच्या पान 164 आनी 165 लेखकाच्या बरपणान आमचे वाचकां खातीर हांगा दिलां. - सं]

## परिशिश्ट 19

1678 वर्सा उजवाडायल्ल्या "Hortus Indicus Malabaricus" ह्या ग्रंथाक कोंकणी भाशेंत आनी देवनागरी लिपींत बरयल्लें प्रमाणपत्र



**आर्विल्ले देवनागरी लिपींत बरयल्लें प्रमाणपत्र**

स्वस्ति श्री शालिवाहन शक 1597 रक्षस संवत्सर चैत्र बहुळ 10 कोचि राजपाटणी वैसिके रंग भट्टु तथा विनायक पंडित आपू भट्टु तेग वैद्य तानि कोचिचा कुमदोर आड्रिकि फ्रांड्रे

त्याचा निरोपान ह्या मलबार देशान्तु आशिले ओषध मात्र वृक्ष वालि झाड खंद ओळखतेल्या मनुष्याक मुसारो देवूनु ते ते गांवातु पेट्टवून तिं तिं वोखद आणवून त्या त्या झाडाचें फळ फूल पान बीज समस्त त्या त्या ऋतू काळावरि संपादून तिं तीं चितारिली त्या उपरांत आमिं आमगेल्या वैद्य ग्रंथाचा निघंटा प्रमाणिं त्यां त्या ओषधाचे गुण वा अनुभवान जो जो गुण आमका कळेलो तो वा त्यां ओखदाची नावं पळेवुनु आजि दानि वर्ष सकाणि सांजे आमिं लागि रावूनु हा लिव्रु संपादून दिला तें लटिक अशि म्हणुंचाक नज अशि म्हणु आंमि आमचि निसाणि कर्णु दिली ते सत्य म्हणु मानुचें जाइद म्हणु नागर बरपान हे बरवून दिलां श्रीः

| निशाणी<br>रंग भट्टु | निशाणी<br>विनायक पंडित | निशाणी<br>आपुचि ओप |
|---|---|---|

निशाणी - हरमन द दोनेप, कोचिनचे नागरी सेवेचो सचिव

---

**निशाणी - हरमन द दोनेप, कोचिनचे नागरी सेवेचो सचिव**

मलबारांतलें कोचिन ह्या शाराचे डच गव्हर्नर, हॅन्रीकुस वॅन न्हीड (Henricus Van Rheede) हाणें 1678 वर्सा उजवाडायल्ल्या "Hortus Indicus Malabaricus" ह्या ग्रंथाच्या पयल्या खांडाचे प्रस्तावनेंत कोचिनांतल्या तीन कोंकणी बामण आयुर्वेद वैद्यांनी कोंकणी भाशेंत आनी सुधारिल्ले देवनागरी लिपींत बरोवन दिल्लें प्रमाण पत्र, ताच्या मुळच्या लॅटीन आणकारासयत दिलां. त्या वैद्यांचीं नांवां रंगा भट, विनायक पंडित आनी आपु भट अशीं आशिल्लीं. ह्या प्रमाण पत्राचो आरंब 'स्वस्तिश्री' ह्या मंगल उतरांनी जाला आनी तें 'श्री' ह्या उतरान सोंपलां. ताचो लातीं आनी इंग्लीश भाशेंतलो अणकार फुडल्या पानाचेर दिला. कोचिनचे नागरी सेवेचो सचिव, हरमन द दोनेप हाची त्या प्रमाण पत्राचेर निशाणी आसा.

---

## परिशिश्ट 19 अ

1678 वर्सा उजवाडायल्ल्या "Hortus Indicus Malabaricus" ह्या ग्रंथाच्या प्रमाणपत्राचे लॅटीन आनी इंग्लीश भाशांतले अणकार

### LATIN TRANSLATION
### HOC EST

AB anno millesimo quingentesimo nonagesimo septimo dicto a Bramanis Salivanapaco (qui apud nos est Annus 1674): usque ad decimum Aprilis

anni dicti Requeçao (qui apud nos est Annus 1675). Ego RANGA BOTTO, VINAIQUE PANDITO & APU BOTTO, omnes tres de Natione & Religione Bramanas & Gymnosophistæ antiqui in districtu COCHINENSI per mandatum Nobilis D. HENRICI a RHEEDE, Commendatoris terrarum Malabaricarum & Civitatis COCHINENSIS, curavimus per servos nostros qui notitiam arborum, plantarum, herbarum & convolvulorum habebant, eas ex terra Malabarica cum suis floribus, fructibus & seminibus ad Civitatem prædictam, ut delinearentur & describerentur, adferri, quarum nomina scripta sunt in libro nostro vocato *Manhaningattnam*, in quo etiam continentur virtutes & vires earum Medicinales, & præter hasce eis addidimus quod diuturna nostra experientia & magno labore ac sudore de eis didicimus & observavimus, & ut hic liber perficeretur, laboravimus per spatium duorum fermo annorum, ita ut omnis & quilibet, qui eum lecturus & visurus est, ei possit adhibere fidem quam ipse fuisset daturus, si res in ea scriptas ipsemet fuisset expertus; juramus itaque secundum consuetudinem nostram, quod omne in eo contentum verum sit; in cujus rei fidem fecimus præsentes chartas quas propriis manibus nostris subscripsimus. Datum in Civitate *Cochinensi* vigesimo die Aprilis anni millesimi sexcentesimi septuagesimi quinti.

RANGA-BOTTO, VINAIQUE PANDITO, APU BOTTO
Traductum ex lingua Bramanum per subscriptum
VINAIQUE PANDITO
in linguam Lusitanicam, & ex lingua
Lusitanica in Latinam per me CHTISTIANUM HERMAN de DONEP,
Secretarium Civilem Civitatis Cochinensis.

**English Translation**

The testimonium begins with the auspicious letters "Swastisri" amd the English translation reads thus: In the Saka era of Salivahana 1597 (1674 A.D) in the Samvatsara of Rakshasa in the 10th day of the dark half of the month Chaitra, Ranga Bhat so also Vinayaka Pandit, Appu Bhat, three Physicians residing in the capital city of Cochin, they by order from commodore of Malabar lands & the city of Cochin Andreke Frande sent over Malabar region giving honorarium to person having knowledge of medicinal trees, creepers, plants and branches existing there and that after bringing those Medicinal plants, fruits, flowers, leaves, seeds all that at seasonal

time and after collection made have pictured, and afterwards we based on our dictionary of Medical treatises, the effect of Medicine and knowledge derived from personal experimence what made known to us the effect, the names of that Medicine were noted, we today staying together two years morning evening editing done of this book and that should not be said as false saying thus, we do affix our signature and that be accepted and affirmed as true so saying we did this in writing in Devanagari Script :
The testimonium ends with auspicious word "sri" in Devanagari

sd/-

**Ranga Bottu,** **Vinayak Pandit,** **Apu Bottu**

Translated from Braman language to Portuguese by Vinayak Pandit and from Portuguese to Latin
by me

**Herman De Donep**
Secretary, Civil Administration, Cochin.

# प्रमाणपत्र - एक दूसरी नदर

**- एन. बालकृष्ण मल्या**

[कोंकणी कवी, संशोधक आनी चित्रकार ह्या नात्यान बालकृष्ण मल्या आपलो वावर मुखार करत आसा. 'हांतुंसाक कोंकणी वैद्याचे योगदान' ह्या विशीं हांणी बरयिल्लो सोद निबंध पुस्तक रूपान मलयाळम आनी इंग्लीश भाशेन उजवाडायला. प्रमाणपत्रांतलीं हर एक वळी अत्यंत सुलभ जावन समजूंचे दृष्टीन हांगा सोडवान दाखोवंक प्रयत्न केला. मात्र न्हंय तीं उतरां मलयाळम आनी अंग्रेजी भासांनीय बरोवन दाखयल्यांत - सं ]

**स्वस्ति श्री शालिवाहन शक १५९७ राक्षस संवत्सर चैत्र बहुळ १० को**

സ്വസ്തി ശ്രീ ശാലിവാഹന ശക 1597 രാക്ഷസ സംവത്സര ചൈത്ര ബഹുള 10 കൊ-

svasti śrī śālivāhana śaka 1597 rākṣasa saṁvatsara caitra bahuḷa 10 ko

**ची राजपाटणी बैसिके रंगभट्ट तथा विनायक पंडित आपुभट्ट तेग वैद्य**

ച്ചി രാജപട്ടണി ബൈസികെ രംഗ ഭട്ട് വിനായക പണ്ഡിത് തഥാ ആപു ഭട്ട് തേഗ് വൈദ്യ്

ci rājapāṭani baisike raṅgabhaṭṭ tathā vināyak paṇḍit āpubhaṭṭ teg vaidya

**तानिं कोचिचा कुमदोर आड्रिकि फाड्रे त्याचा तिरोपान ह्या मलबारदेशा**

താനിം കൊച്ചിചാ കുമദോർ ആഡ്രികി ഫാഡ്രെ ത്യാചാ തിരോപാൻ ഹ്യാ മലബാർദേശാ

tāniṁ kocicā kumador āḍriki phāḍre tyācā tiropān hyā malabāradeśā

**तु आशिले ओषधमात्र वृक्ष वालि झाड खंड ओळखतेल्या मनुष्याक मु**

തു ആശിലെ ഓഷധമാത്ര് വൃക്ഷ് വാലി ഝാഡ് ഖണ്ഡ് ഒൾഖതേല്യാ മനുഷ്യാക് മു

tu āśile oṣadhamātra vṛkṣa vāli jhāḍ khaṇḍ oḷakhatelyā manuṣyāk mu

सारो देवूनु तेते गांवांतु पेट्टवून तिंतिं वोखद आणवून त्यात्या झाडाचे फल

സാറൊ ദേവൂനു തെതെ ഗാംവാംതു പെട്ടവൂൻ തിംതിം വൊഖദ് ആണവൂൻ ത്യാത്യാ ഝാഡാചെ ഫല്

sāro devūnu tete gāṁvāntu peṭṭavūn tintiṁ vokhad āṇavūn tyātyā jhāḍāce phal

फूल पान बीज समस्त त्यात्या रुतुकाळावरि सपाटून तिंतीं चितारिली त्या उप

ഫൂല് പാന് ബീജ് സമസ്ത് ത്യാത്യാ റുതുകാളാവരി സപാട്ടൂൻ തിംതീം ചിതാരിലി ത്യാ ഉപ

phūl pān bij samasta tyātyā rutukāḷāvari sapāṭūn tintīṁ citārilī tyā upa

रांत आमि आमगेल्या वैद्यग्रंथाचानि घंटाप्रमाणिं त्यांत्या ओषधाचे गुण

രാംത് ആമി ആമഗേല്യാ വൈദ്യഗ്രന്ഥാചാനി ഘംടാപ്രമാണിം ത്യാംത്യാ ഓഷധാചെ ഗുണ്

rānt āmi āmagelyā vaidyagranthācāni ghaṇṭāpramāṇiṁ tyāntyā oṣadhāce guṇa

वा अनुभवान जोजो गुण आमकां कळेलो तो वा त्यां आखदांचीं नावं पळेउनु

വാ അനുഭവാൻ ജൊജൊ ഗുണ് ആമകാം കളെലൊ തൊ വാ ത്യാം ആഖദാംചീം നാംവ് പളെവുനു

vā anubhavān jojo guṇa āmakāṁ kaḷelo to vā tyāṁ ākhadāñcīṁ nāvaṁ paḷeunu

आजि दानि वर्षं सकाळिं सांजे आमिं लागि रावूनु हालिव्नु सपाटून दिला तें ल

ആജി ദാനി വർഷം സകാളിം സാംജെ ആമിം ലാഗി റാവൂനു ഹാലിവ്നു സപാട്ടൂൻ ദിലാ തെം ല

āji dāni varṣaṁ sakāḷiṁ sāñje āmiṁ lāgi rāvūnu hālivnu sapāṭūn dilā teṁ la

टिक अशि ह्मणुंचाक नज अशिह्मणु आमि आमंची निसाणि कर्णु दिली

ടിക് അശി ഹ്മണുംചാക് നജ് അശിഹ്മണു ആമി ആമംചീ നിസാണി കർണു ദിലീ

ṭik aśi hmaṇuñcāk naja aśihmaṇu āmi āmañcī nisāṇi karṇu dilī

ते सत्य ह्मणु मानुचें जाइद ह्मणु नागरबरपान ह बरवूनु दिलां श्री

തെ സത്യ് ഹ്മണു മാനുചെം ജാഇദ് ഹ്മണു നാഗരബറപാൻ ഹ ബറവൂനു ദിലാം ശ്രീ

te satya hmaṇu mānuceṁ jāid hmaṇu nāgarabarapān ha baravūnu dilāṁ śrī

| | | |
|---|---|---|
| रंगभट्ट | विनायक पंडित | आपुचि ओप |
| രംഗ ഭട്ടു | വിനായക പണ്ഡിത് | ആപുചി ഓപ് |

# प्रमाणपत्राचें पुनर्लेखन

**- डॉ. भूषण भावे**

[गोवा कोंकणी अकादमीचे उपाध्यक्ष जावन आशिल्ले डॉ. भूषण भावे गोंयचे पी.ई.एस महाविद्यालयांत कोंकणी प्राध्यापक आसात. इतिहास, भास आनी संस्कृती हांचे खूब आवडीचे विषय आसात. संशोधनात्मक विचारांचीं जायतीं लेखनां तांणी उजवाडायल्यांत हॉर्तुसा विशीं ते एक पुस्तकच उजवाडावचे आसात. - सं]

**प्रमाणपत्राचें पुनर्लेखन (अद्ययावतीकरण)**

स्वस्ति श्री शाळिवाहन शक 1597 राक्षस सवत्सर चैत्र बहुळ 10 कोची राजपाटणीं बैसिके रंगभट्ट तथा विनायक पंडित आपू भट्ट तेग वैद्य तानीं कोचिचा कुमदोर आंड्रिकि फांड्रे त्याचा निरोपान ह्या मलबार देशावु आशिले ओषधमात्र वृक्ष वालि झाड खंड ओळखतेल्या मनुष्याक मुसारो देवूनु ते ते गांवांतु पेट्टवून तिं तिं वोखद आणवून त्यां त्या झाडाचें फल फूल पान बीज समस्त त्या त्या रुतु काळावरि सपादून तिं तिं चितारिली. त्या उपरांत आमिं आमगेल्या वैद्य ग्रंथाचा निघंटा प्रमाणिं त्यां त्या ओषधाचे गुण वा अनुभवान जो जो गुण आमका कळेलो तो वा त्यां आखदांचीं नावं पळेउनु आजि दानि वर्षं सकाचि साजे आमिं लागि रावूनु हा लिव्रु सपादून दिला. तें लटिक अशि म्हणुंचाक नज अशि म्हणु आमि आमंची निसाणि कर्णु दिली. ते सत्य म्हणु मानुचें जाइद म्हणु नागर बरपान हे बरवूनु दिलां श्री :

**रंगभटु　　　　विनायक पंडित　　　　आपुचि ओप**

(पूर्णविराम चिन्हां तशेंच अर्दविराम चिन्हां तशेंच फावो थंय केल्ली उतरांची फोड / तोड प्रस्तूत लेखकाची, मुळाव्या प्रमाणपत्रांत तीं नात.)

## प्रमाणपत्र लेखनांतल्यो चुको \ दोश :

ह्या प्रमाणपत्राचें लिखाण करतना वा ताचे छापणावळी खातीर 'ब्लॉक' तयार करतना कांय चुको जाल्यात. ह्यो चुको एकतर आयचे भाशे संदर्भांतच जाल्यात हें मतींत दवरप गरजेचें.

1. उलयिल्लें, उच्चारिल्ले शब्द \ उतरां सारकीं बरोवंक नात : देखीक सपादून (संपादून), सवत्सर (संवत्सर) आदी.
2. चुकीचीं अक्षरां वापरल्यांन, देखीक देशावु (देशातु).
3. कानो (आडी), मात्रा हांच्यो चुको. देखीक हा (हो), ते (तें), ह (हें).
4. अक्षरां मदीं गोंदळ, देखीक 'ओषघ' (ओषध) (घ नी ध मदीं गोंदळ),'ओषध' हें रूप तत्कालीन बोलीरूप आसूं येता. पूण 'ओषध' ह्या उतरा वांगडाच कोंकणी मनशाच्या तोंडार त्या काळांत 'आखद' आनी 'वोखद' हीं उतरां लेगीत आशिल्लीं, हें मतींत धरूंक जाय. अर्थ आकलन जावंक कुस्तार अशीं उतरां म्हळ्यार

| उतर | संभाव्य अर्थ |
|---|---|
| देशावु | देशातु \ देशांत |
| दानि | दोनि \ दोन |
| सकाचि | सकाळिं |

## प्रमाणपत्रांतलीं बोली रूपां :

ह्या प्रमाणपत्रांतली कोंकणी निश्चितपणान केरळी मोडी \ बोली जावन आसा. पूण हे मोडीचेर गोंयच्यान व्हेल्ल्या कांय विशिश्ट उतरांचो ठळक प्रभाव आसा. अशीं वैशिश्ट्यपूर्ण, खाशेलीं, निजाचीं कोंकणी उतरां म्हळ्यार : 1.) नेग (नीग), 2.) वोखद (वखद), 3.) काळावरि (काळावरी – काळा प्रमाण), 4.) आमगेल्या, 5.) साजे (सांजे), 6.) लागि (लागीं), 7.) लटिक (लटीक – असत्य \ फट), 8.) नज (न्हज), 9.) निसाणि (निशाणी), 10.) राजपाटणीं, 11.) बरोवन.

वयर उल्लेख केल्ल्या प्रमाण 'बोली' (मंगळूरी \ केरळी) उतरावळ आनी तांचें आयचें रूप तकट्यांत दाखयलां. हें प्रमाणपत्र बरोवपी तिगूय कोंकणी वैजांचो संस्कृत भाशेचो बरो अभ्यास आशिल्लो, हें वयर सांगलांच. 10 वळींच्या ह्या प्रमाणपत्रांत सुमार 12 संस्कृत उतरां आयल्यांत तीं अशीं: संस्कृत उतरावळ

तथा, स्वस्ति, वैद्य, वृक्ष, खंड, मनुष्याक, बीज, समस्त, ग्रंथं, निघंटा (निघंटू), गुण, सत्य, श्रीः

## प्रमाणपत्रांतले कोंकणीचे व्याकरणीक संदर्भ

1. **सर्वनामांचो वापर :** ह्या प्रमाणपत्रांत तानिं, त्याचा, ते ते, तिं तिं, त्या त्या, त्या, आमिं, आमगेल्या, जो जो, तो, त्यां, हा (हो), तें, आमि, आमंचि, ते (तें), ह (हें) इतलीं सर्वनामां आयल्यांत.

   हातुंतलीं वयर अधोरेखीत केल्लीं (ठळक केल्लीं) सर्वनामां आवृत्तीवाचक आसात आनी तांचो वापर 'सर्वनामी विशेषणां' कसो जाला. हीं आवृत्तीवाचक दर्शक \ संबंदी सर्वनामां बरयतना एकेच तरेन बरोवंक नात. देखीक 'तिं तिं' हें सर्वनाम तिं तिं, तिं ती (तोपयेचे फाटल्यान अनुस्वार) अश्या दोन तरांनी बरयल्यांत.

2. **उतरांचीं भोववचनी रूपां :** कोंकणी प्रमाणपत्रांत त्या आखदांचीं नावं असो उल्लेख आयला. नावं हें उतर नांव (Name) ह्या उतराचें भोववचनी रूप जावन आसा. आयज त्या रुपाच्या जाग्यार कोंकणींत 'नांवां' हें रूप वापरतात. तेच भाशेन प्रमाणपत्रांतलें 'वर्षं' हें उतर वर्ष (वर्स) ह्या उतराचें भोववची रूप जें आयज 'वर्सां' म्हण वापरतात.

3. **सप्तमीचो अनुस्वार :** कोंकणी प्रमाणपत्रांत 'कोची राजपाटणीं बैसिके' ह्या वाक्यांत 'पाटणीं' (प्रमाणपत्रांत 'णी' वयलो अनुस्वार तोपयेचे फाटल्यान दिला) हें उतर वापरलां. ताचो अर्थ 'पाटणींत \ पाटणी हांगा' असो जाता. देखीक 'तूं खंय गेल्लो ?' - हांव 'नागेशीं' गेल्लों. (तेच भाशेन कवळ्यां, मंगेशीं....आदी)

4. **अनुस्वारांचें प्राबल्य** - कोंकणीचें खाशेलपण : वट्ट सुमार 125 उतरांच्या ह्या प्रमाणपत्रांत एकूण 32 उतरांचेर मेळून 36 अनुस्वार दिल्यात. तशेंच सुमार 10 उतरांचेर अनुस्वार दिवपाचे उरल्यात. हातूंतले 9 अनुस्वार उक्त्या उच्चारांचे (टिंबां) जावन आसात.

अनुस्वारांचें हें प्राबल्य 17 व्या शेंकड्यांतले कोंकणी भाशेंत लेगीत आयचे भाशेनूच आशिल्लें हें सिध्द करूंक प्रमाणपत्रांतलें गांवांतु हें एकूच उतर पुरो.

## निश्कर्श आनी समारोप

वयलें प्रमाणपत्र आनी तातूंतले कोंकणी भाशेचें रूप पळयतकच त्या काळांतले कोंकणी भाशे विशीं चड संशोधन जावपाची गरज दिश्टी पडटा. मौखीक कोंकणीचीं परंपरा 9-10 व्या शेंकड्या सावन मेळटा, जाल्यार लिखीत कोंकणीची परंपरा केन्ना सावन सुरू जावन कर्नाटक-केरळ मेरेन केन्ना आनी कशी पावली हाचो सोद घेवचो पडटलो. ते खातीर कोंकणी भाशक समाजाच्या स्थित्यांतरांचो अभ्यास करचो पडटलो. गोंयांतल्या इंक्विजिशना पसूनचो इतिहास उस्तूचो पडटलो. ह्या पुस्तकांतलें कोंकणी मनशांचें योगदान निश्चीत करपाचे नदरेन मूळ 12 खंडीय लॅटिन ग्रंथाचो कोंकणी अनुवाद करपाचें काम झुजापावड्यांर हातांत घेवचें पडटलें.



खंड 10, चित्र 49

# भाग 3 - विशयाची पाठभूंय



**भारतांत मुद्रणकलेचो प्रवेश**
- भाषांतर : दामोदर घाणेकार



**हॉर्तूस उजवाड घालता कोंकणी कर्तुत्वाचेर**
- ॲड. उदय भेंब्रे



**स्मृति गीत**
- कें. अनन्त भट



**स्मृत्यष्टक**
- शरतचंद्र शेणै



**वेळ जालो, पुण वेळ आयलो**
- पय्यनूर रमेश पै

# भारतांत मुद्रणकलेचो प्रवेश

**- मूळ मराठी : शेणै गोंयबाब**

**- भाषांतर : दामोदर घाणेकार**

[कोंकणी अभ्यास कोशाचे लेखक दामोदर घाणेकार हांणी खास करून भाषांतर केल्लो हो लेख शणै गोंयबाबान 'कोंकणी भाशेचें जैत' नांवाच्या पुस्तकांत बरयिल्लो आसा. हांगा हॉर्तुस मलबारिकुसा विशीं चड विस्तारान बरयलां. 1949 वर्सा उजवाडायिल्ल्या त्या पुस्तकांत 'हिंदुस्तानांत मुद्रणकलेचो प्रवेश' ह्या शीर्शक दवरून तांचो एक लेख दिला जो मराठींत आसा. लेखनाक आधार केल्ल्या पुस्तकांची वळेरी आखेरेक तांणी दिल्या. शेणै गोंयबाबाल्या तें लेखन संपूर्ण रुपान हांगा वाचूंक मेळयात. - सं]

नवयुगाच्या दुसऱ्या वर्साच्या आठव्या अंकांत रा. ब. दत्तात्रय बळवंत पारसनीस हांणी मराठी मुद्रणकलेचा संशोधक कोण? ह्या विशया वयल्या लेखांत 1678 वर्सा छापिल्लो पयलो मराठी लेख दिला. तो वाचून पळयतकच, ताचेर मराठी भाशेचो शिक्को मारप चुकीचें आनी अन्यायाचें अशें दिसता. लेखांतले कांय शब्द वगळ्ळ्यार वट्ट भाशासरणी कोंकणी आसा अशें उक्तेपणान दिसता. अशें आसून कोंकणीकूच मराठी अशें म्हणपाचें आसत जाल्यार उपाय ना.

म्हजो देशभाव, नामनेचे उदेंतेचे पंडित आनी नाणकशास्त्रज्ञ, डॉ. जुझे जर्सन द कुन्य हांणी 1881 वर्सा कोंकणी भास आनी साहित्य (The Konkani Language and Literature) ह्या विशयाचेर एक उत्कृश्ठ निबंध बरयला. तातूंत 43 व्या पानाचेर A परिशिश्टांत, सदांच्या वेव्हारांतले कोंकणी भाशेचो नमुनो दाखोवपा खातीर वयलो लेख दिला [1]. हाचे वयल्यान तो लेख अस्सल कोंकणी आशिल्ले विशीं पर्न्नास वर्सां आदींच सिद्ध जाला अशें म्हणपाक हरकत ना.

मलबारांतली भारतीय बागायत (Hortus Indicus Malabaricus) ह्या नांवाच्या ज्या पुस्तकांत वयलो लेख छापला त्या पुस्तकांत सुरवातीक त्या लेखाचो लॅटीन अणकार आसून ताचें सकयल फुडलो मजकूर आसा :

*Traductum ex lingua Bramanum per subscriptum* VINAIQUE PANDITO *in linguam* Lusitanicam & *ex lingua* Lusitanica *in* Latinam *per me* CHRISTIANUM HERMAN de DONEP, Secretarium Civilem Civitatis *Cochinensis*. हाचो अर्थ :- सकयल निशाणी केल्ल्या विनायक पंडित कडल्यान (वयल्या लेखाचो) ब्राह्मणी भाशेंतल्यान पुर्तुगेज भाशेंत अणकार केलो आनी हांवें, क्रिस्तियन हेरमन द दोनेप, कोची शारांतलो मुलकी खात्याचो सचीव हाणें, पुर्तुगेज भाशेंतल्यान लॅटीन भाशेंत अणकार केलो.

ह्या उताऱ्यांतलो ब्राह्मणी भाशा हो प्रयोग दवरपा सारको आसा. सोळाव्या सतराव्या आनी अठराव्या शेंकड्यांनी पुर्तुगेज आनी हेर येवरोपेव ग्रंथकार कोंकणी भाशेक ब्राह्मणी भाशा ह्याच नांवान चड करून वळखताले. नामनेचो पुर्तुगेज इतिहास संशोधक कुञ रिव्हार हे आपल्या कोंकणी भाशेच्या इतिहासीक निबंधांत म्हणटात, सोळाव्या आनी सतराव्या शेंकड्यांनी ज्या पुर्तुगेज धर्मापदेशकांनी कोंकणी भाशा उर्जीत अवस्थेक हाडली ते तिका सर्वसाधारणपणान ब्राह्मणी वा कानारी भाशा अशें म्हणी. हिंदू लोकां मदीं ब्राह्मणांकूच बरोवपाक वाचपाक येतालें; म्हणून तांचे वयल्यान ब्राह्मणी भाशा हो प्रयोग वेव्हारांत आयला हें सांगपाची गरज ना. आतां, कानारी भाशा हो प्रयोग उत्पन्न जावपाचें कारण, कोंकण प्रांत कर्नाटकाचे शिमे भायर आसलो तरी, पुर्तुगेज लोक कोंकणांतल्या नागरिकांक कानारी अशें म्हणी; हाचे वयल्यान तांचे भाशेक ते कानारी भाशा म्हणूंक लागले [2].

इंग्लीश जेज्वीत कवी थॉमस स्टिफन्स हाणें गोंयच्या रायतूरचे पाठाशाळेंत आसतना, 1614 त बायबलाचें होवयां प्रमाणें मराठी भाशांतर केलें. हो अणकार गोंयांत 'क्रिस्तांव पुराण' ह्या नांवान प्रसिद्ध आसा. पुराणाचे प्रस्तावनेंत कवी म्हणटा, "हें सगलें मराठी भाशेंत बरयलां.....पूण शुद्ध मराठी लोकाक कळना देखून, ह्या पुराणाचें फळ चडश्या लोकाक कळपा खातीर, जें

किर्ते केलें, कवेस्वरांचीं चडशीं कठीण उतरां सांडून आनीक सोंपीं ब्राह्मणांचे भाशेंची उतरां मदीं मदीं भरसून कवित्व सोंपें केलें [३]." ह्या उताऱ्या वयल्यान मराठी भाशे पसून ब्राह्मणांची भाशा वेगळी असो कवीचो अभिप्राय स्पश्ट दिसता. ही ब्राह्मणांची भाशा म्हणजे दुसरी तिसरी खंयचीच न्हय जाल्यार गोंयच्या ब्राह्मणांची अर्थात गौड भाशा जी कोंकणी तीच आसा. गोंयांत प्रचारांत आशिल्ले कोंकणी भाशेंतलीं उतरां आपल्या पुराणांत भरशिल्यार तें लोकाक सोंपें जातलें असो कवीचो हेतू दिसता; आनी तो पूर्णपणान सिद्धिकृय गेला हातूंन दुबाव ना. आज गोंय, कारवार, मंगळूर, बी प्रांतांतल्या क्रिस्तांव लोकाक मराठीचो गंध नासुनूय वयल्या पुराणाचो बरोच अर्थ लागता; हाचें कारण तातूंत ब्राह्मणी म्हणजे कोंकणी भाशेंतलीं उतरां घोळटात.

ह्या सगल्या विवेचना वयल्यान 'मलबारांतले भारतीय बागायतीं' त 1678 वर्सा छापिल्लो देवनागरी लेख मराठी नासून ब्राह्मणी ऊर्फ कोंकणी हें संशोधकांक सांगपाची गरज ना.

कोचीचो हॉलंडी (डच) सुभेदार हॅनरिकूस फान न्हीड (आंद्रिकी फांद्रे) हाच्या आदेशा वयल्यान रंगा भट, विनायक पंडीत आनी आपू भट ह्या तीन वैजांनी 1675 वर्सा 'मलबारांतली भारतीय बागायत' हो ग्रंथ संपादून दिलो हे विशीं हो लेख हें एक सर्टिफिकेट (दाखलो). आतां, हे तीग वैज कोण आनी खंयचे? ह्या संबंदन हांगा इल्लोसो विचार करीत जाल्यार अस्थानीं जावचें ना अशें दिसता. दाखल्यांतली भाशा कोंकणी आसा, हाचे वयल्यान तो बरोवपी वैज दक्षीणेंतले गौड ब्राह्मण आसात हातूंत मात्तूय दुबाव ना. कोचींतल्या द्रविडांक कोंकणी येना. गोंयांतल्या द्रविडांचीय तीच स्थिती. ते तिका आवयभास अशें समजनात. तांकां परप्रांतांतल्यान गोंयांत येवन स्थायीक जाल्यार बरोच काळ गेला तरी पूण कोंकणी भाशेच्या खाशेल्या मंदिरांत रावुनूय अजून ती तांकां शुद्ध उलोवंक येना. घडये, तांणी ती उलोवपाचो येत्न केलोच जाल्यार ब्राह्मणां भायल्यां प्रमाणें "वयतलो", "येयलो", बी तांचे

शब्दप्रयोग आयकून हांसूंक येता. तेन्ना, द्रविडां कडल्यान कोंकणी भाशेची अपेक्षा करप वेर्थ. दुसरी एक लक्षांत दवरपा सारकी गजाल ही, की सर्टिफिकेट बरोवपी तिगां वैजां मदल्या विनायक पंडिताक बरी पुर्तुगेज येताली. ताणें ते सर्टिफिकेटीचो पुर्तुगेज भाशेंत अणकार करून दिलो. हाचे वयल्यान अडेजशें वर्सां फाटल्या सोवळ्या काळांतूय म्लेंच्छ भाशेचो विटाळ मानिनासपा इतली उदारताय गौड ब्राह्मणां भितर आशिल्ली हाची तोखणाय दिसता. गोंयांतल्या द्रविडांची गजाल पळयत जाल्यार ह्या ओंवळ्या विसाव्या शेंकड्यांतूय पुर्तुगेज भाशेक आफडप तांच्या जिवार येता आनी तिचे पसून ते अलिप्त रावतात.

सर्टिफिकेट बरोवपी तिगूय वैज गौड हें जालेंच, पूण तांचे भाशेचे मोडी वयल्यान ते गोंयकार वैशणव ब्राह्मण आशिल्ले अशें दिसता. सोळाव्या शेंकड्यांत पुर्तुगेजांनी गोंयांत धर्मछळ केलो तेन्ना बरींच कुटुंबां पयलीं मलबारांतल्या कालिकट (कोळिकोड) शारांत गेलीं, आनी थंयच्यान मागीर कोची तशेंच हेर सुवातांनी वचून स्थायीक जालीं. फ्रँच भोंवडेकार फ्रांसिश्कु पिरार्द हो 1601 वर्साच्या अदमासाक भारतांत आयिल्लो. तो आपल्या प्रवासवर्णनांत एके कडेन म्हणटा, हांवें जायते खेपे कालिकटच्या ब्राह्मणांक उलयतना पळयल्यात; ते म्हणटात की 'गोंय जुंवो आमचो आशिल्लो, देखून तो घेवपी पुर्तुगेज आमचे कट्टे दुस्मान. ह्या ब्राह्मणां मदले जे तेजवंत आसून जांच्या आंगांत स्वाभिमान आसा तांकां पुर्तुगेज लोकांची सत्ता चलता ते सुवातेर रावप आवडना. कारण, पुर्तुगेज तांकां वायट रितीन वागयतात आनी तुच्छ मानतात. हेच खातीर तांचे मदले जायते जाण कालिकटाक रावपाक गेले आनी थंय ते आतां विशेश सुरक्षीत आनी स्वतंत्र आसात [4].'

धर्मछळाची याद ताजी आस मेरेन गोंयांतल्यान भायर सरिल्ले ब्राह्मण पुर्तुगेज लोकांचो तिरस्कार करताले हें सभावीक. पूण कालांतरान तांची तिरस्कारबुद्द नश्ट जावन ते कोचीक वचून रावतकच तांची आनी पुर्तुगेजांची इश्टागत जाली आसुये अशें दिसता. कारण, कोचींतले पुर्तुगेज

सणुकेचें मुखार ह्याच कुटुंबां कडेन वेपारी दळणवळण सुरू जालें. आनी 663 त हॉलंडी (डच) लोकांनी ती वसणूक बळकायतकच ते ब्राह्मण डच लोकां कडेन वेपार करूंक लागले [5], अशें कोचीचो डच पाद्री जाकोबुस कान्तेर फेशर हाणें 1720 च्या सुमाराक बरयिल्ल्या एका पुस्तका वयल्यान समजता. हो ग्रंथकार त्या ब्राह्मणांचें वर्णन करतना म्हणटा, ब्राह्मणां भितर स्मार्थ आनी वैश्णव अशें दोन भेद आसात....ब्राह्मणांनी वेपारधंदो वा नोकरी करूंक जायना. पूण वेपारधंद्या विशींचो निर्बंध तांचे कडल्यान पुरायेन जायना. तांचे मदले बरेच जाण भिक्षुकी करतात आनी तांकां राजेलोकांचो आलाशिरो आसा. तशेंच, कांय जाण पंडीत आनी वैज आसात [6].

आज कोचींत जी लोकसंख्या आसा, तातूंत गौड सारस्वत वा कोंकणी लोक अशें जांकां म्हणटात, तांची भर खाशेलपणान आसा, अशें केरळकोकिळकार सांगतात [7]. पूण 1898 वर्सा त्रावणकोर आनी कोची हांचो रेसिडॅण्ट, भौ. रीस हाणें केल्ल्या उलोवपा वयल्यान कोचीक स्थायीक जाल्ल्या गोंयकार ब्राह्मणांक कोंकणी ब्राह्मण ह्या नांवान थंय चड वळखतात अशें दिसता [8]. देवाच्या संकेतान गोंय सोडून वनवासाक लागिल्ले आमचे देशभाव फकत स्वभिमानाच्या आनी धाडसाच्या नेटार मुखार सरले आनी आज कोचीच्या राज्यांत राजमान्यतायेंत ते बरेच वयर सरल्यात हें आयकून आमकां गोंयकारांक आनंद जाता.

वयल्या विवेचना वयल्यान गोंयांतले ब्राह्मण मलबारांत केन्ना, कशे आनी कित्याक पावले, थंय तांचो उत्कर्श कसो जालो, बी हे प्रस्न सुटावे जातात. सोडात.

आतां भारतांत मुद्रणकलेचो प्रवेश केन्ना जालो ह्या संबंदान विचार करुया. हो विचार करतना पयलीं पुर्तुगेज लोकांचो इतिहास धुंडाळचो पडटलो. कारण येवरोपी संस्कृतायेचे तशेंच विकृतायेचे भारतांत पयले मुखार आयिल्ले लोक पुर्तुगेजूच आशिल्ले हें इतिहासांत प्रसिद्ध आसा.

वर्स 1696च्या अदमासाक पुर्तुगेज जेज्वीत पाद्री फ्रांसिश्कु द सौझ हाणें जेजूस क्रिश्तान जिखिल्ली उदेंत दिशा (Oriente Conquistado a Jesu Christo) ह्या नांवाचो एक व्हड ग्रंथ बरयला; ताचे वयल्यान भारतांत मुद्रणकलेचो प्रवेश केन्ना जालो हें निश्चीतपणान समजता. होच ग्रंथकार म्हणटा, 1556 वर्सा सप्टेंबराचे 13 तारखेक पुर्तुगालच्यान आयिल्ल्यो चार पातमाऱ्यो गोंयच्या बंदरांत पावल्यो. तांचो सरनायक (कापितांव मोर) दॉ. जुआंव द मिनेझीश आशिल्लो. पातमाऱ्यांतल्यांन आयिल्ल्या धर्मोपदेशकां मदीं जुआंव द बुस्तामान्ति हो छापखानेकार आशिल्लो [9]. तशेंच, दुसरे एके सुवातेर, सांव फ्रंसिश्कु शावियेर (सुप्रसिद्ध सेण्ट झेवियर) लोकाक धर्माचो उपदेश कसो करतालो हाचें वर्णन करतना होच ग्रंथकार म्हणटा, ल्हान भुरग्यांच्या सोंपेपणा खातीर शावियेरान क्रिश्तमताचें एक पुस्तक रचिल्लें तें गोंयांत 1557 वर्सा छापलें. [10]

'ओरिएन्त' कारान दिल्ली वयली माहिती लक्षांत घेवन लोटलेचे [11] विद्वान क्रिस्तांव ब्राह्मण सिन्योक जुझे आंतोनियु इज्मायल ग्रंसियश हे मुद्रणकले विशीं बरयिल्ल्या आपल्या एका सर्वमान्य ग्रंथांत म्हणटात, सुधारणेचें व्हड साधन म्हणल्यार छापखानो जो येवरोपांतल्यान पयलीं जेज्वीत लोकांनी हांगा हाडलो....आनी अथक संशोधना उपरांत आमच्यानी म्हणूं येता तें अशें, भारताचो व्हड प्रेशीत सांव फ्रांसिश्कु शावियेर हाणें रचिल्लें आनी ताच्या मरणा उपरांत पांच वर्सांनी म्हणजे 1557 वर्सा छपिल्लें प्रस्नोत्तराच्या रूपांतलें क्रिश्तमत हेंच त्या छापखान्यांतल्यान प्रगट जाल्लें पयलें पुस्तक [12]. मुखार 1561त, जुआंव किंकेनीय ह्या मुद्रणकारान "परमार्थसार" (Compendio Espiritual) ह्या नांवाचें एक पुस्तक छापलें. उपरांत 1563त नामनेचो पुर्तुगेज वैज गार्सिया द ओर्त हाचें Colloquios dos simples e Drogas Medicinases नांवाचें वखदी वनस्पतीं विशींचें पुस्तक छापलें [13]. हाचे उपरांत जायतीं ल्हान व्हड पुस्तकां छापलीं.

'नवयुगा'च्या पयल्या वर्साच्या चवथ्या अंकांत 287 पानाचेर, Giovanni Gonsalvez हाचें क्रिश्तमत हें पयलें छापिल्लें तमीळ पुस्तक, ताणें पयलीं

1577 वर्सा तमीळ अक्षरां पाडलीं अशें म्हणलां. ह्या मनशा विशीं 'ओरिएन्त' कारन थोडीशी माहिती दिल्या. तो म्हणटा, 'जुआंव गोंसाल्वीश' हो धवडकामांत आनी विशेश करून घडयाळी करपाच्या कामांत प्रवीण आशिल्लो. तो त्यो अजापाचे कुशळटायेन करतालो. भारतांत मलबारी अक्षरांच्यो आकृतायो सगल्यांत आदीं ताणें पाडल्यो आनी ताचे वरवीं जायतीं पुस्तकां छापून आयलीं. तो स्पेनी मनीस आशिल्लो. तो जेज्वीत पंथांत 25 वर्सां उरलो. आनी अखेरेक गोंयचे सांव पावलाचे पाठशाळेंत 1579 वर्सा सोंपलो. ह्या उतान्यांत गोंसाल्वीशान मलबारी अक्षरांच्यो आकृतायो पाडल्यो अशें म्हणलां; ताचे वयल्यान तीं तमीळ भाशेंचींच अक्षरां आसतलीं अशें खात्रीन म्हणूंक येना. तमीळ अक्षरांच्या आकृतायां विशीं 'ओरिएन्त' कार दुसरे एके सुवातेर म्हणटा, '1582 वर्सा गोंयांत पाद्री जुआंव द फारीय भायर पडलो [14]. तमीळ भाशेचीं अक्षरां कोरांनून आनी रकोवन पेश्कारीचे दर्यादिगेर (Pearl- fishery coast) मुद्रणकलेचो आरंब करपी हो पयलो मनीस.[15]'

हे प्रमाणें, भारतांतले मुद्रणकलेच्या प्रवेशा विशीं म्हाका मेळ्ळी तितली माहिती वाचकां मुखार दवरल्या ती तांकां ग्राह्य जातली अशी आस्त आसा[16].

टिपा :

01. परिशिष्ट ब पळयात.

02. Ensaio Historico da Lingua Concani, Nova Goa 1858 , c.3, Page 40.

03. The Christian Puranna, Author's Preface, p. 93.

04. Viagem de Francisco Pyrard de Laval, Nova Goa 1858 Part 2, c.2, p.32.

05. Letters from Malabar by Jacobus Canter Visscher, Madras 1862, Letter No. 22, p.132.

06. Letters from Malabar pp.132,135.

07. केरळकोकिळ, पु. 12, अं. 5, पृ.101.

08. केरळकोकिळ, पु. 12, अं. 5, पृ.110

09. Oriente Conquistado, tomo 1, Conuists 5, div. 2 Par 22

10. Oriente Conquistado, tomo 1, Conuq. 1, div. 2 Par 23

11. लोटले हो गांव गोंयांत साश्ट म्हालांत आसा; तो विद्वान ब्राह्मणां खातीर फामाद आसा. फांटल्या शेकड यातलो फाकीवंत इतिहास संशोधक फिलीप नेरी शावियेर हो क्रिस्तांव ब्राह्मण थंय जल्माक आयिल्लो. इ.स. 648 ते 973 ह्या काळा मजगती लेगीत सवादोनशे वर्सा साहाराष्ट्र, कर्नाटक आनी हेर देशांचेर शेक गाजोवपी राश्ट्रकुट सम्राटांची ही जल्मभुंय.

12. A Imprensa em Goa nos Seculos 16, 17, 18, Nova Goa 1880 pp.3,5.

13. A Imprensa em Goa p.7

14. Oriente Conquistado, tomo 2, Conq .1, div.2 Par 33

15. Oriente Conquistado, tomo 2, Conq .1, div.2 Par 69.

16. नवयुग, मुंबै, आगोस्त 1916, वर्स 3, आंक 10, पान 768-772.

# हॉर्तूस उजवाड घालता कोंकणी कर्तुत्वाचेर

**- ॲड. उदय भेंब्रे**

कोंकणी चळवळीचो फुडार गोंयांत घोंतल्ले ॲड. उदय भेंब्रे एक वकीलाची वृत्ती करतात. तांयचें विधानसभेंत तें सदस्य आशिल्ले. निबंधकार, स्तंभलेखन बरोवपी, गीतकार, संपादक आनी कथाकार बी जावन आसात. तांचें 'चान्येंची राती' हें गीत प्रसिद्ध आसा. खूब पुरस्कार जावो जाल्लें उदयबाब कोंकणी संघ संस्थ्यांकडे लागीचो संबंध दवरून आसात. -सं.]

सुमार 400-450 वर्सां आदल्या गोंयांत आयुर्वेद-पांडित्याची आनी आयुर्वेद-वैजकेची व्हड परंपरा आशिल्ली हें गोंयांतल्या खूबश्या लोकाक खबर ना. पुर्तुगेजांनी गोंय जिखले उपरांत हिंदूंचेर पालखेंतल्यान येवपा-वचपाक बंदी घाली. तिका एकूच आडवाद आशिल्लो. आयुर्वेद-पंडिता संबंदान. हें गोंयच्या इतिहासांत वाचूंक मेळटा. वरिष्ठ पदां वयल्या पाखल्यांचो तांच्या डॉक्टरां परस थळाव्या आयुर्वेदी वैजांचेर अदीक विस्वास आशिल्लो अशेय उल्लेख मेळटात. घडये दादा वैद्य हे ते परंपरेंतले निमणे पंडित. एकाच हिंदू गोंयकाराचो पुतळो पुर्तुगेजांनी उबारलो आनी तो दादा वैद्यांचो. हाचोय संबंद आयुर्वेदी वैजके कडेन आसा. पूण हे परंपरे विशीं खूब थोडे जाणात. हाकाच लागून आज केरळांतल्या कोंकणी भाशी समाजांत जो खबदळ चल्ला ताचीय खबर चडश्या गोंयकारांक ना. त्या खबदळाचो संबंद हॉर्तूस इंडिकूस मलबारिकूस ह्या वखदी वनस्पती विशींच्या विशाल ग्रंथा कडेन आसा.

किते ह्या ग्रंथाचो इतिहास? आनी कित्याक आयज थंय खबदळ?

ह्या प्रस्नांची जापो थोड्याच उतरांनी दिवप हें खूब कठीण. फाटभुंयेची विस्कावणी केले बगर त्यो जापो समजून घेवप हेंवूय तितलेंच कठीण. तरी तें आमी समजून घेवपाची गरज आसा. कित्याक तर तातूंत कोंकणी मनशाच्या कर्तुत्वाचो इतिहास आसा.

पुर्तुगेजांनी 1590 वर्सा गोंय (तिसवाडी म्हाल) जिखले उपरांत तां
राजवटकेन क्रिस्तांव धर्मसंस्थे वागंडा 1540 वर्सा धर्मांतर सुरू केलें. देवळ
मोडप, मुर्ती फोडप, ग्रंथ लासप आनी हिंदूंक बाटोवप असो तो धर्मांतराच
सांवार आसलो. 1560 वर्सा इंक्विझिशन स्थापन जालें आनी उज्यांत तेल
पडलें. त्या सांवारांल्यान आपणाक वाटावपाक कितलींशींच कुटंबां गोंयांतलें
घर-दार सोडून दक्षिणेक गेलीं. कांय कुटंबां कर्नाटकांत राबितो करून
रावलीं तर कांय कुटंबां फुडें गेलीं, केरळांत पावलीं. थंय कोचीच्या रायान
तांकां आलाशिरो दिलो. आज केरळांत अदमासान सात ते आठ लाख
कोंकणीभाशी लोक आसात. सगल्यांचे पुर्वज गोंयांतल्यान गेल्ले. तांचे
मदीं आंकड्यांन मोटो घटक आसा तो कुणबी समाज. मागीर सारस्वत,
दैवज्ञ, ब्राह्मण, वैश्य हे घटकूय आसात.

त्या वेळार कोचींत (आदलें नांव कोचीन) फोर्ट कोचीन ह्या वाठारांत
पुर्तुगेजांचें वेपारी केंद्र आशिल्लें. डच तांकां घांवडावंक सोदताले. एक-दोन
खेपो तसो यत्न केले उपरांत 1663 वर्सा पुर्तुगेजांक तें वेपारी केंद्र डच लोकांचें
सुवादीन करून थंयसून कडसरचें पडलें. डचांनी ल्हवू ल्हवू आपली सत्ता थंय
बसयली. 1667 तें 1673 वर्सा मेरेन ॲडमिरल हॅन्रिक व्हान रीड हो थंय
गव्हर्नर आसलो. ताचे विशीं सांगतात ती खबर खरी काय कल्पनेंतली हें
कळपाक मार्ग ना. पूण दादा वैद्या हांची करामत मतींत घेतली जाल्यार
कोचींतली ती खबर खरी आसुंये. खबर मेळटा ती अशी :

गव्हर्नर हॅन्रिक व्हान रीड हांची घरकान्न दुयेंत पडली. सगल्या तरांचे
ॲलोपॅथिक वखदांचे उपाय करून जाले पूण गूण पडलो ना. अखेरेक ताका
कोणें तरी सल्लो दिलो, आयुर्वेदी वैजांचें वखद करून पळोवचें. ती सुचोवणी
मानून घेवन गव्हर्नर रीड हाणें आपू भट, रंग भट आनी विनायक पंडित ह्या
तीन वैजांक आपयले. तिगूय कोंकणी मनीस. 16 व्या शेंकड्यांत गोंयांतल्यांन
गेल्ल्या गोंयकारांचे वंशज. तांणी इट्टी अच्युतन ह्या केरळी आयुर्वेदी वैजाचो

ंभव घेतलो. चौगांनीय मेळून गव्हर्नर रीड हांचे घरकान्नीक जाल्ल्या दुयेंसाचो ालायन अभ्यास केलो, चर्चा करून कसलें वखद बरें पडटलें तें थारायलें नी उपाय केले. ते उपाय फळादीक जावन गव्हर्नराची घरकान्न दुयेंसांतल्यान वळ्ळी, बरी जाली. हे घडणुकेक लागून गव्हर्नर रीड हाची दोन गजालींचेर द्धा बसली - चारूय आयुर्वेद पंडितांच्या कर्तुत्वाचेर आनी भारतांतले ब्रदी वनस्पतींत भरून आशिल्ल्या गुणांचेर.

हे श्रद्धेंतल्यान गव्हर्नर रीड हाणें एक व्हड प्रकल्प चालीक लायलो. लबार वाठारांतली (भारताचे पश्चिम देगे वयलो दक्षिणे कडलो प्रदेश) खदी वनस्पत जमोवपाचो आनी तिचे गुण सांगपी ग्रंथ बरोवन घेवन डवाडावपाचो. हो व्हड वावर ताणें आपू भट, रंग भट, विनायक पंडित ानी इट्टी अच्युतन हांचेर सोंपयलो. तांणी वखदी झाडां, वाली, वळखुपी नशां नेमून तांकां हांगा-थंय धाडून वखदी वनस्पत हाडची; तीं कोचींत ावन थंय ते वनस्पतीचें बाग करचें; फादर मॅथ्यू ह्या कार्मेलायट पाद्रीन दर के वनस्पतीचें (झाड, वाल, पान, फील, बीं) चित्र काडून दिवचें; तिगूय ोंकणी पंडितांनी ते वनस्पतीचे गूण कोंकणींत बरोवचें आनी इट्टी अच्युतन ाणें मल्याळम भाशेंत बरोवचें. (मागीर तांचो अणकार पुर्तुगेज आनी लॅटीन ह्या भाशांनीय करून घेतलो.)

हो वावर थारिल्ले प्रमाण जालो. उपरांत तांब्याचेर कोंत्रावन चित्रां तयार जालीं आनी ॲम्स्टरडॅमाक धाडलीं. थंय 12 खंडांमदलो पयलो ग्रंथ 1678 वर्सा उडवाडाक आयलो. ह्या ग्रंथांत तो तयार करतल्यांचीं सर्टीफिकेटां छापिल्लीं आसात आनी तीं आरंभाकूच वाचूंक मेळटात. आपू भट, रंग भट आनी विनायक पंडित ह्या तिगांनीय आपल्यो निशाण्यो घालून एक सर्टीफिकेट दिलां तर इट्टी अच्युतन हाचें सर्टीफिकेट वेगळें आसा. कोंकणी वैजांचें सर्टीफिकेट कोंकणी भाशेंत आनी देवनागरी लिपींत आसा; तर इट्टी अच्युतनाचें सर्टीफिकेट मल्याळम भाशेंत आसा. कोंकणी पंडितांच्या हाती बरपाचो ब्लॉक

करून तो ग्रंथात छापला. देवनागरी कोंकणींतल्या ब्लॉक प्रिटिंगाचो ह
पयलो नमुनो. सर्टिफिकेट अशें आसा :

*स्वस्ति श्री शालिवाबन शक 1597 राक्षस संवत्सर चैत्र बहुळ 1*
*कोचि राजपाटणी बैसिके रंग भट तथा विनायक पण्डित आपू भट तेग वैद्य*
*तानिं कोचीचा कुमदोर आंड्रिकि फांड्रे त्याचा निरोपान ह्या मलबार देशान्तु*
*आशिले औषध मात्र वृक्ष वालि झाड खंद ओळखतेल्या मनुष्याक मुसार*
*देवूनु ते ते गांवांतु पेट्टवून तिं तिं वोखद आणवून त्या त्या झाडाचें फल फूल*
*पान बीज समस्त त्या त्या ऋतु कालावरि संपादून तिं तीं चितारिली त्या*
*उपरांत आमि आमगेल्या वैद्य ग्रंथाचा निघंटाप्रमाणिं त्या औषधांचे गुण वा*
*अनुभवान जो जो गुण आमकां कळेलो तो वा त्यां ओखदांचीं नावं पळेउनु*
*आजि दानि वर्ष सकाळि साजे आमिं लागि राबूनु हा लिव्रु सपादून दिला ते*
*लटिक अशि म्हणुंचाक नज अशि म्हणु आमि आमची* ***निसाणि कर्णु दिली ते***
***सत्य म्हणु मानुचे*** *जाइद म्हणु नागर बरपान हे बरवूनु दिली - श्री रंग भट्टु*
*विनायक पंडित आपु चे ओप*

ह्या हॉर्तूस इंडिकूस मलबारिकूस नांवाच्या विशाल ग्रंथाचें आनी त्या
ग्रंथांत वापरिल्ले कोंकणी भाशेचें कोंकणी मनशाचें कर्तुत्व, कोंकणी भाशेचो
इतिहास आनी कोंकणी भाशेचें देवनागरी लिपी कडलें नातें ह्या तीन विशयांनी
खूब म्हत्व आसा. 16 व्या शेंकड्यांत जे गोंयकार घरदार सोडून केरळांत गेले
ते भोव करून 1550 तीं 1575 ह्या वर्सां मदल्या काळांत गेल्ले आसूंक जाय.
तांचे मदीं आयुर्वेद पंडितांचीं कांय कुटुंबां आसुंयेत आनी तांणी थंय वैजकेचो
वेवसाय चालू दवरला आसुंये. इतलेंच न्हय; तर त्या मळार तांणी नामना
जोडिल्ली आसुंये; ना जाल्यार, डच गव्हर्नरा कडेन तांची शिफारस कोण
करतलो आसलो? आनी डच गव्हर्नर तो विशाल ग्रंथ तयार करपाचें व्हड
काम तांचेर खंयच्या विस्वासान सोंपयतलो आसलो?

आपू भट, रंग भट आनी विनायक पंडित हांणी जें सर्टिफिकेट
दिलें तें कोंकणींत आनी देवनागरी लिपींत. तांचे पुर्वज 1575 च्या अदमासाक

ाय पविल्लं अशें धरलें जाल्यार मदीं 100 वर्सां गेलीं अशें जाता. हाचो र्थ थंय पाविल्ल्या गोंयकारांनी 100 वर्सां उपरांतूय कोंकणींत बरोवपाची ाल दवरिल्ली असो जाता. तांणी गोंय सोडलें तेन्ना ती चाल आशिल्ली ानी तीच तांणी कोची रायाच्या राज्यांत फुडें चलयली असोय ताचो अर्थ ाता. तशी चाल नाशिल्ली जाल्यार त्या वाठारांत ते संस्कृत भाशेंत वा ल्याळम भाशेंत बरयतले आसले. कोंकणींत बरोवपाची तांच्या पुर्वजांची ाल नाशिल्ली जाल्यार शंबर-सवायशें वर्सां उपरांत ते नवी चाल कित्याक ुरू करतले ?!

कांय गोंयकारांनी समजणी करून घेतल्या की पुर्तुगेजांनी गोंयचेर आगळीक करचे आदीं गोंयांत कोंकणींत बरोवपाची चाल नाशिल्ली. ती चाल युरोपियन मिशनऱ्यांनी सुरू केली आनी ते खातीर रोमी लिपी वापरली; देखून कोंकणी भाशेची लिपी रोमी! कोंकणी देवनागरी लिपींत बरोवपाची चाल 11 व्या शेंकड्यांत आशिल्ली हाची गवाय मेळटा. ताचे पयलीं न्हय जाल्यार तेन्ना तरी ती आशिल्ली. कर्नाटकांत श्रवणबेळगोळाक गोमटेश्वराची व्हडली पाशाणी मूर्त आसा, ते मुर्तीच्या पांयां कडेन दोन कोंकणी वाक्यां कोंत्रायिल्लीं आसात : श्रीचावुंडराजें करवियलें - श्री गंगराजें सुत्ताले करवियले. हीं वाक्यां देवनागरी लिपींत आसात. आनी हें कोंत्रावप मेळटा कानडी प्रदेशांत. तर गोंय हें कोंकणीचें मूळपीठ आशिल्ल्यान थंय हेर ख्वंयचीय लिपी वापरपाचो प्रस्नूच येना. 15 व्या वा 16 व्या शेंकड्यांतलें काणयांच्या रुपांतलें कोंकणी भारत आनी कोंकणी रामयण मेळ्ळां तें रोमी लिपींत उतरायिल्लें; पूण मूळ बरप देशी लिपींतूच आंसूक जाय. ती रचणूक कृष्णदास शामाची अशें कांय जाणकारांचें मत आसा. कृष्णदास शामाक संस्कृत बास कळटाली आनी ताणें श्रीकृष्णचरित्रकथा हें काव्य मराठींत बरयल्लें. तो कांय रोमी लिपींत बरोवचो ना. आनी देवनागरी कळटा आसतना तो ख्वंयचेय दक्षिणी लिपींत बरोवपाचीय शक्यताय ना. हाचे वयल्यान, कोचींत वचून राबितो

केल्ल्या गोंयकारांनी तीच परंपरा थंय चलयली आनी उण्यांत उणीं शंबर-सवायशें वर्सां तरी ती थंय चालू आशिल्ली हाची गवाय त्या आयुर्वेद पंडितांनी दिल्ल्या सर्टिफिकेटा वरवीं मेळटा.

हाका आनीक एक आदार आसा. फादर आंजेलो माफे हाणें इंग्लिशींत कोंकणीचें व्याकरण बरयलां आनी एक इंग्लिश-कोंकणी शब्दकोश रचला. तो कर्नाटकांत वावुरतालो म्हणटकच थंय ताणें कन्नड लिपी वापरल्या. फा. माफेचें व्याकरण 1882 वर्सा उजवाडा आयलें. व्याकरणाचे आरंभ तो असो करता - The Konkani language was formerly written with the alphabet called Balabodha or Nagar; sometimes it was written with the Modi Alphabet, which is the Mahratti Alphabet. Now the Kanarese Alphabet is generally used, and although it does not express all Konkani sounds, yet it is better adapted for this than the Latin Alphabet.' (कोंकणी भास आदीं जिका बालबोध वा नागर म्हणटात ते लिपींत बरयताले; कांय वेळा ती मोडी लिपींत बरयताले जी मराठी लिपी आसा. आतां चडशी कन्नड लिपी वापरतात; आनी जरी ती कोंकणीच्या सगल्या उच्चारांक पावना, तरी लॅटीन लिपी परस ती ह्या कामाक चड बरी जुळटा.)

फा. माफेचें हें सांगणें आनी 1678 वर्सांतलें तें कोंकणी बरप एक स्पश्ट गवाय दितात : 16 व्या शेंकड्यांत जे गोंयकार कर्नाटकांत आनी केरळांत वचून रावले ते कोंकणींत बरयताले; आरंभाक ते देवनागरी लिपींत बरयताले आनी उपरांत खूब वर्सांनी ते कर्नाटकांत कन्नड आनी केरळांत मल्याळम लिपी वापरूंक लागले.

फिंर्गी आगळिकेच्या उज्यांतल्यान आपलो धर्म आनी आपली संस्कृताय वाटावपाक 16 व्या शेंकड्यांत ज्या गोंयकारांनी केरळांत आलाशिरो घेतलो

ांणी खूब कश्टांनी आनी तरेकतरांच्या अडचणींतल्यान वाट काडीत आपलें स्थान पर्थून बसयलें. कोण व्यापार-उद्देग करूंक लागलो तर कोण अध्यापन करूंक लागलो. कोण भाशेच्या मळार अभ्यास-संशोधन करूंक लागलो तर कोण कलेच्या मळार वावरूंक लागलो. तांणी बरे दीस पळयले आनी तांणी कश्टांकूय फुडो केलो. कांय राजांनी तांकां आदार दिलो तर राजा राम वर्मा हाका शक्तन तंपुरान म्हूण वळखताले) हाणें कोंकणी लोकाक पिडापीड भोगयली. तांच्या देवळांचेर हावळ हाडली; तांचे निश्ठेचो दुबाव घेतलो आनी तांकां नाका-पुरो केलें. पूण थंयसून कोणूच परत गोंयांत आयिल्ल्याची खब ना. घडये, कांय थोडीं कुटुंबां तमीळ वा तेलगु प्रदेशांत वचून रावलीं आसुंयेता.

ह्या कोंकणी समाजान थळावी भास शिकून घेतली. कांय विद्वानांनी मल्याळम भाशेच्या अभ्यासाक-संशोधनाक योगदान दिलें; तर कांय जाणांनी मल्याळम साहित्यांत भर घाली. पूण त्या लोकांची तोखणाय अशी की तांणी निजाची कोंकणी भाय आनी कोंकणी संस्कृताय सोडून दिली ना. इतलेंच न्हय; तर आपले भाशेचो आनी संस्कृतीचो अभिमान बाळगून ती सांबाळून दवरपाचो वावर केलो. हो तांचो वावर आयचे घडयेकूय चालू आसा.

कोंकणी संस्कृताय सांबाळून दवरपाचें भोव बरें काम थंयच्या कुणबी घटकान केलां. काणकोण वाठारांत गड्यां रामायण हो लोकसंस्कृतींतलो नमुनो हय-न्हयसो उरला. पूण तो बरे तरेन सांबाळून दवरला कोचींतल्यान कुणबी-वैश्य समाजान. थंय ते ताका गोड्डे रामायण म्हणटात आनी ताचे खेळ जातात. सर्गेस प्रा. आर. के. राव हांणी तें बरोवन काडून, ताचें संपादन करून तें उजवाडायलां. श्रवोण गीत (श्रावणाची काणी) होवूय गावन सादर करपाचो प्रकार तांणी सांबाळून दवरला. वैश्य समाजांत कांय बरे चित्रकार जावन गेल्यात, साहित्यिकूय आसात. दैवज्ञ ब्राह्मण आनी सारस्वत हांणी व्यापार-उद्देगाच्या मळार कर्तुत्व दाखयलां. ह्या घटकां मदीं भौशीक मळार

सरमिसळ आसा; पूण जातीच्यो वंयो गोंयांत आसात ताचे परस अदीक व्हड आनी घट आसात. देखून एकूच कोंकणी समाज अशे तरेन ताची वर्णना करूंक मेळना. कोंकणी मायभास आनी कोंकणी संस्कृती हांचे विशींचे दर एका घटकाचे निश्ठेंत मात कसलेंच अंतर ना.

1965 वर्सा एन. पुरुषोत्तम मल्ल्या हांणी कोंकणी भाशा प्रचार सभा हे संस्थेची थापणूक केली आनी कोंकणी भाशी समाजांत मायभाशेचो उपेग वाडोवपाचो वावर सुरु केलो. थंय अ.भा. कोंकणी परिशदेचीं अधिवेशनां जावंक लागलीं, अ.भा. कोंकणी साहित्य संमेलनां जावंक लागलीं. साहित्य अकादेमीची कोंकणीक भास म्हूण मान्यताय मेळोवपाच्या वावरांत कों.भा.प्र. सभेचोय वांटो आसा. उपरांत केरळ कोंकणी अकादमी हे संस्थेचो जल्म जालो. तिणें संशोधनाचो, अभ्यासाचो आनी पुस्तकां उडवाडा हाडपाचो वावर केलो. ह्या संस्थांच्या आनी हेरांच्या वावराक लागून कोंकणी संबंदान तो कोंकणी समाज आयज चड जागृत आसा, चड क्रियाशील आसा.

आदलीं 100, 150 वा 200 वर्सां केरळांतल्या कोंकणी लोकान कोंकणी बरोवपाक देवनागरी लिपी वापरली. उपरांत केन्ना तरी तांणी मल्याळम लिपींत कोंकणी बरोवपाक आरंभ केलो. कांय पुस्तकां, कांय पत्रिका मल्याळम लिपींत आयल्यो. पूण साहित्य अकादेमीचे मान्यताये उपारंत तांचे मदीं लिपीच्या विशयांत वेगळो विचार सुरू जालो आनी तांणी देवनागरी लिपीच वापरपाची चाल सुरू केली. फाटल्या सुमार 25 वर्सांच्या काळांत जितलीं पुस्तकां थंय कोंकणी भाशेंत उडवाडा आयल्यांत तितलींय देवनागरी लिपींत आसात. केरळ कोंकणी अकादमी स्पंदन नांवाची म्हयनाळी पत्रिका काडटा, ती देवनागरी लिपींत आसता.

कोचींत दोन कोंकणी माध्यमाच्यो मुळाव्यो शाळा चलतात. त्या शाळांनी क्रमीक पुस्तकां वापरतात तीं गोंयांत वापरतात तींच. केरळ सरकारान येता त्या वर्साच्यान सवे यत्तेक एक विशय म्हूण कोंकणी घेवंक मेळपाचो

निर्णय घेतला. राजकारणांत सक्रीय आशिल्ल्या, कुणबी समाजांतल्या एका जागृत वांगड्यान त्या संबंदान फुडाकार घेवन तें घडोवन हाडलां. केरळ सरकारान कोंकणी साहित्य अकादमी केरळ ची स्थापना करपाचो निर्णय घेतला आनी तिचें रोखडेंच उक्तावण जावचें म्हणू वावर चालू आसा. केरळ सरकारान कोंकणी समाजाक भाशीक अल्पसंख्यांक म्हणू कायद्यान मान्यताय दिल्या. 1678 वर्सा त्या तीन आयुर्वेद पंडितांनी मायभाशे विशीं जो अभिमान दाखयलो त्या अभिमानाक आनिकूय जाग आयिल्ल्याची जाणविकाय केरळांतल्या कोंकणी लोकां मदीं भोंवतना चांटे पावलाक जाता.

हॉर्तूस इंडिकूस मलबारिकूस ह्या ग्रंथाचें पयलें खंड 1678 वर्सा उडवाडा आयलें आनी 12 वें खंड 1703 वर्सा प्रसिद्ध जालें. ते पयले आवृत्तीची एक प्रत तिरुवनंतपुरम शारांत सरकारि पुरातत्व विभागांत आसा. कोची शारांत जाल्ल्या अ.भा. कोंकणी परिशदेच्या एका अधिवेशनांत ती प्रदर्शनाक दवरिल्ली. कांय वर्सां फाटीं केरळ विद्यापिठान त्या ग्रंथाचो मल्याळमांत आनी इंग्लिशींत अणकार करून घेवन 12 खंडां उडवाडाक हाडिल्लीं. कोळिकोड (आदलें कालिकट) शारांत जाल्ल्या कोंकणीच्या एका संमेलनांत केरळ विद्यापिठाच्या पालवान हीं खंडां प्रदर्शनाक मांडिल्लीं. ही आवृत्ती सोंपल्या; मात हीं खंडां मंगळूरांत विश्व कोंकणी केंद्राच्या ग्रंथालयांत पळोवंक आनी वाचूंक मेळटात.

ह्या विशाल ग्रंथाच्या पयल्या खंडाचे उडवाडावणेक पोरूं 333 वर्सां पूर्ण जालीं. केरळांतल्या कोंकणी समाजान तीं अभिमानान मनयलीं. पूण दुसरे वटेन तांचे मदीं खवदळ सुरू जालो तो कांय मल्याळी मनशांचे विचित्र वागणुकेन. हेरशीं, कोंकणी आनी मल्याळम ह्या भाशां मदीं केन्नाच संघर्श नाशिल्लो. आजूय ना. दोन संस्कृतायां मदींय संघर्श नाशिल्लो आनी आतांय ना. कोंकणी समाजान आपली भास आनी संस्कृताय सांबाळटनाच आनी तांचो अभिमान बाळगितनाच मल्याळम भास आनी संस्कृताय गिरेस्त करपाच्या

वावरांत वांटो घेतला. इतलें आसुनूय आयज कांय मोटवे नदरेचे मल्याळी मनीस कोंकणी लोकांचें कर्तुत्व कुस्कुटावन तांचेर अन्यास करपाच्या वावराक लागल्यात. हॉर्तूस इंडिकूस मलबारिकूस ह्या ग्रंथाची निर्मणी करपाचें सगले स्रेय फकत इट्टी अच्युतन ह्या केरळी आयुर्वेद पंडिताक दिवन ते ताचे यादस्तीक करूंक सोदतात. तें करतना ते कोंकणी आयुर्वेद पंडितांच्या वावराक नगण्य लेखून तो कुस्कुटावंक सोदतात. हो त्या आयुर्वेद पंडितांचोच न्हय तर समेस्त कोंकणी समाजाचो अपमान. हो कोंकणी कर्तुत्वाचेर खर अन्याय.

ग्रंथाचो मुखेल वावर तीन कोंकणी आयुर्वेद पंडितांनी केलो आनी इट्टी अच्युतन ह्या केरळी आयुर्वेद पंडितान तांकां पालव दिलो अशें एक मत आसा. जाल्यार, मुखेल वावर इट्टी अच्युतन ह्या पंडितान केलो आनी कोंकणी आयुर्वेद पंडितांनी ताका आदार दिलो अशें दुसरें मत आसा. पूण खरेपणीं कितें घडलां आसुंये हाची गवाय ग्रंथांत आसा. एक सर्टिफिकेट आपू भट, रंग भट आनी विनायक पंडित ह्या पंडितांनी आपले मायभाशेंत-म्हळ्यार कोंकणींत-दिल्लें आसा; तर तशेच तरेचें आनीक एक सर्टिफिकेट इट्टी अच्युतन ह्या पंडितान आपले मायभाशेंत - म्हळ्यार मल्याळम भाशेंत - दिल्लें आसा. दोनूय सर्टिफिकेटां ग्रंथांत छापिल्लीं आसात. तांचे वांगडाच डच गव्हर्नर हॅनरीक व्हान रीड हाचेंय एक बरप लॅटिन भाशेंत छापिल्लें आसा. त्या बरपांत व्हान रीड कोंकणी पंडितां मदीं कशी खोलायेन चर्चा जाताली; सारकें कितें तें थारायतना ते आदल्या ग्रंथांचो कसो आदार घेताले आनी आपापलीं मतां कशें नेटान मांडटाले ताची खबर सांगता. तें वाचतकूच हे पंडित कोणाक तरी फकत पालव दिताले हें कोणाचेच बुद्दीक पटचें ना. चडांत चड अशें म्हणूंक जायत की ग्रंथाच्या वावरांत चौगांचोय वांटो आसा. सगलेच पंडित आसले, **त्या संबंदान जाणकार आसले.** हें सगलें, स्पश्ट आसतना हेर सगल्यांक कुस्कुटा समान लेखून फकत मल्याळी मनशाचें योगदान उखलून धरपाची तरा शाणेपणाची न्हय.

मलबारांतले वखदी वनस्पती विशीं जाल्लो हो सोळाव्या शेंकड्यांतलो ावर इतिहासीक. आयुर्वेदाचो अभ्यास करतल्यांक आनी सर्वसामान्य लोकांकय हत्वाचो. असलो वावर करतल्यांचें यादस्तीक जावचेंच. पूण तें संकुचीत वेचारान आनी हो आपलो तो परकी हे भावनेन जावचें न्हय. केरळ प्रदेशान ाय गेल्या कोंकणी समाजाक आदार दिला तेच भाशेन कोंकणी समाजान रळचे शिक्षणीक, उद्देगीक, व्यापारी आनी संस्कृतिक उदरगतिक हातभार ायला. जंय ताचें कर्तुत्व नदरेंत भरपा सारकें आसा थंय ताका कुस्कुटावप ी पडमूरपणाची वागणूक जातली.

मल्याळी लोक देशाच्या सगल्या वाठारांनी पावला. आपल्या आंगांतल्या ुणांनी आनी वावरान ताणें ल्हान-व्हड स्थान मेळयलां. गोंयांतूय मल्याळीभाशी आसात. कोंकणी लोकां भाशेन ते आपली भास, संस्कृताय सांबाळुनूय गोंयचे सौर्शीक जिणे कडेन समरस जावपाचो यत्न करतात. ते मल्याळी म्हुण हेरांनी तांकां कुस्कुटा समान लेखचें? तांकां जें फावता तें न्हयकारचें? तांचें योगदान नगण्य लेखचें? केरळांत जे मल्याळी मनीस संकुचीत नदरेन आनी अविचारान वागून कोंकणी कर्तुत्व नगण्य लेखूंक सोदतात तांणी चत्रायेन पावलां घालूंक जाय. केरळांतल्या कोंकणी कर्तुत्वाचेर अन्याय हो कोंकणी समाजाचो अपमान - फकत केरळांतल्याच न्हय तर देशाच्या हेर वाठारांतल्याय. ह्या अपमानाचे परिणाम बरे जावचे नात.

('अस्मितायेचो कसाय' ह्या पुस्तकावल्यान: एक चत्राय आसा - १६७४ च्या सर्टीफिकटांतले आंकडे भारतीय अंतरराष्ट्रीय रूपांन छापून आयल्यात. मूळ सर्टीफिकटांत ते देवनागरी आसात.)

# वेळ जालो, पुण वेळ आयलो

- पय्यनूर रमेश पै

हॉर्तुस मलबारिकूस ह्या बारा खंडांचो ग्रंथ समुच्चय 1678 ते 1693 मेरेनचे 15 वर्सांनी छापून आयलो. लॅटिन भाशेन बरयिल्लो हो ग्रंथ हॉलेंडांतल्या ॲमस्टरडॅम शारांत छापिल्लो आसा. ह्या ग्रंथांत झाडाचीं नांवां कोंकणी भाशेंत देवनागरी लिपीन बरयिल्लीं खूब मेळटात. पुण वाचकांक तीं उतरां कोंकणी म्हूण वळखूक 200 वर्सां परस चड काळ लागलो. 'ब्राह्मणांची भास' अशी त्या भाशेक नांव दिल्ले निमतान भायले लोकान ती संस्कृत म्हूण आठोव केलो. मागीर थोडे लोंकांनी ती भास मराठी अशीय म्हळें. जाल्यार कोंकणीची वळख घेवन पयले फावट हॉर्तुसाचें महत्व लोकांमेरेन पावयिल्लो पंडित म्हळ्यार डॉ. जुझे जर्सन द कुञ (1881).

पंद्राव्या आनी सोळाव्या शतकांत 'मलबार' म्हळ्यार गोंय साकून कन्याकुमारी मेरेनचो प्रदेश सगळोच आशिल्लो. तेन्नाचे नक्षे पळयल्यार हें समजतलें. आयच्या मलबार म्हळ्यार केरळचे उत्तर भागाचो प्रदेश आसा. मलबार, कोची, आनी त्रावणकोर अश्या तीन प्रदेश मळून केरळाक रूप दिल्लें आसा. देकून मलबाराचें उद्यान कोचींत निर्माण जावच्या सतराव्या शतकांत मलबार एक विस्तृत प्रदेश आशिल्लो.

हॉर्तुसाचे निर्माणाक व्हॅन रीडान उमेद घेतिल्ले वेळार ताका रेवरंड फादर मॅथ्यू हांची खबर मेळ्ळी. तेन्ना ह्या क्रैस्त पुरोहितान आपल्या भोंवडे वेळार पळयिल्लीं झाडांचीं चित्रां लिखिल्लीं दाखयलीं. तेग कोंकणी वैद्यांनी तांकां सहकार्य दिल्लें अशी तांणी सांगलें. तशें जावन व्हॅन रीडान तें काम मागीर हातांत घेतलें. कोची राजपटणींत ते कोंकणी वैद्य राबून अशिल्ले म्हणून तांच्या प्रमाणपत्रांतल्यान कळून येता. इट्टी अच्युतन ह्या नांवाचे वैद्यान दिल्ले प्रमाणपत्रांत आपले नांव तशें बरयिल्लें दिसना. 'कोल्लाडन' म्हणूनच तो आपणाली वळख घेता.

DESCRIPTIO REGNI MALABAR.




सोळाव्या शतकांतलें मलबाराचें यूरोपीय नक्शा (1598) Bertius




सतराव्या शतकांतलें मलबाराचें युरोपीय नक्शा (1616) Petrus Bertius

इटलींत जल्म घेतिल्ले गार्सिया द ओर्ता ह्या वनस्पती विज्ञानी पंडित गोंयांत खूब काळ आशिल्ले. 1563 वर्सा तांणी Coloquios dos simples e drogas e cousas medicinais da India ह्या नांवान सस्यशास्त्र संबंधी एक ग्रंथ पुर्तुगेज भाशेन बरयिल्लो. तांतु वखदी वनस्पती विशीं दोगांचे मदें संभाषण चलचे रूपान माहिती दिल्या. वनस्पती विज्ञान एक उच्च शास्त्रीय पांवड्यार त्या काळाक पावलें ना आशिल्लें. व्हॅन रीडाक तें पुस्तकय प्रचोदन जालें आसुयेत. गोंयांत अजून गार्सियाचो उडगास ताजा आसा आनी थंय ताचें नांवान एक उद्यानय आसा.

कोंकणी प्रमाणपत्राचो लॅटिन अणकार हॉर्तुस ग्रंथाच्या पयल्या खंडांतूच दिला. पुण कोंकणींतल्यान लॅटिनाक तें काम नेटान जालें ना. पुर्तुगेज भाशेंत विनायक पंडितान अणकारून तें मागीर लॅटिनांत केलें अशी हेरमन दोणपान थंय सांगलां. पुण तो पुर्तुगेज अणकार छापिल्लोच ना. कित्याक तें निपयलें

*Garcia d'Orta*

Colóquios dos simples
e drogas e cousas
medicinais da India

*Reprodução fac-similada*
*da edição impressa em Goa em*
*10 de Abril de 1563*

Comemorando o
QUARTO CENTENÁRIO DA EDIÇÃO ORIGINAL

*Obra dada à estampa pela*
*ACADEMIA DAS CIENCIAS DE LISBOA*

MCMLXIII

Coloquios dos ſimples, e
drogas he couſas mediçinais da India, e
aſsi dalgũas frutas achadas nella onde ſe
tratam algũas couſas tocantes amediçina,
pratica, e outras couſas boas, pera ſaber
cõpoſtos pello Doutor garçia dorta: fiſico
del Rey noſſo ſenhor, viſtos pello muyto
Reuerendo ſenhor, ho liçençiado
Alexos dias: falcam deſenbar-
gador da caſa da ſupricaçã
inquiſidor neſtas
partes.

Com priuilegio do Conde viſo Rey.

Im preſſo em Goa, por Ioannes
de endem as x. dias de
Abril de 1563. annos.

थवा तें नष्ट जालें कांय खबर ना. विनायक पंडिताक पुर्तुगेज भास येताली
ाविये. पुण तो तर तशी अणकार करतलो, आपल्या भाशेंतल्यान दुसरे
ाशेंत हाडटना कित्याक चुको करतलो?

'राक्षसनाम' संवत्सर म्हणूक 'राक्वित' अशें म्हळां. शालिवाहन शक
हणूंक 'पालिवाहन पाको' अशें म्हळां. कोंकणी वैद्यांचे मूळ प्रमाणपत्रांत
नहानिघंटु' अशें एक नांवच ना, पुण लॅटिन अणकारांत तें खंयच्यान
ायलें? गौडसारस्वत म्हणचे बदलाक 'जियो सोफिस्ट' (नागडे पायांचे
न्यासी) अशें कित्याक म्हळें? असले विकृत भाषांतराक लागून सगळे
ोकामेरेन कोंकणी मनश्यांचे योगदान निजरूपान पावलें ना. तें आमचें
ुर्दैव.



डॉ. के. एस. मणिलाल

2003 वर्सा इंग्लीशांत आनी 2008 वर्सा मलयाळमांत ह्या ग्रंथसमुच्चय
भाषांतर करून उजवाडायला. तें अणकाराचें काम डॉ. के. एस. मणिलाल ह्या
सस्यशास्त्र विज्ञानाचे पंडितान केलें. उजवाडावपी आशिल्ले केरळ विश्वविद्यालय.
खरेंच मांगल्यार त्यो प्रतियो पळयतकूच आमचे सामान्य लोकांक हॉर्तूसांत
कितें आसा, कितें ना हें पळोंवक मेळ्ळें.

आमच्या देशाची आयुर्वेदी ज्ञानसंपत्ती, झाडांची संपत्ती हें पुराय समजून आपले देशाचे लोकांकय यूरोपांतले इतर लोकांकय ताजे प्रयोजन जावचें ह्या नदरेन व्हॅन रीडान हातांत घेतिल्ले ह्या महत्वपूर्ण प्रकल्पा निमती ताका खूब कष्ट भोगचें पडलें. ताच्या सेनाविभागांतूच भिन्नाभिप्राय आयले. धर्मांध अधिकारी लोकान ताचे विरुद्ध फिर्याद केली. आखेर ताका वयलो हुद्दो मेळ्ळो तरी सात वर्सांनी कोची सोडून वच्चें पडलें.

हॉर्तुसांतलीं झाडां सोदून खूब विज्ञानी पंडित केरळचे वेगवेगळे गांवांत गेले. त्या ग्रंथांत सांगिल्ली वनस्पती संपत्ती एकठांय करून एक बृहत उद्यान निर्माण करचो प्रकल्प विश्वविद्यालयानय सरकारानय घेतला. पुण सह्यपर्वताच्या वाठारांतुय इतर प्रदेशांतुय खूब झाडां मेळ्ळी तरी पूर्णरूपान तांचो यत्न सफल जालो ना. हॉर्तूस मळबारिकूस बरोवपा खातीर एक उकतें उद्यान व्हॅन रीडान कोचींत निर्माण केलें आनी कोंकणी वैद्यांनी सांगिल्ले प्रमाणे दोन वर्सां सगळीं ऋतुचक्र जावन गेल्ल्या काळाक त्या झाडांचीं फुलां-फळां-पाळां-मूळां कशी वखदी कामाक उपयोगी जातात तेंवय तांणी परीक्षा केली.

कोंकणी वैद्य सहायक आशिल्लें, आनी मुख्य लेखक इट्टी अच्युतन आशिल्लो अशें एक मत हालींच प्रचार घेवंक लागला. इट्टी अच्युतन ह्या मलबारी वैद्यान 'केरळाराममम्' म्हणु बरयिल्लो आपल्या ग्रंथांतल्यान हॉर्तुसा खातीर माहिति दिली अशें लोक सांगतात. पुण असले एक ग्रंथाचो उल्लेख वेगळे खंयच दिसना आनी तसले एक ग्रंथाची प्रती अजून कोणेय वाचिल्ले अथवा पळयिल्ले जावन दाखलो ना.

चेगो समाजांतल्या इट्टी अच्युतनान मलबारी नांवांची वळख आनी माहिती दिल्ली आसतली. जाल्यार, चेगो म्हळ्यार माड्यार चडून नारल घालपी आनी सूर काडपी रेंदेराचो समाज आशिल्लो. माड्याचे पासून लॅटिनांत विवरण दिवचे संदर्भांत 'सूर' हो कोंकणी शब्द वापुरला विना मलबारी 'कळ्ळु' हो शब्द कित्याक वापुरलो ना?

कोंकणी वैद्य कोचीचे खंयचे प्रदेशांत आशिल्ले, ते खंयच्यान आयले
नले खूब प्रश्नांक जापो सोदूंक आसा. गोंयच्यान केरळाक कोंकणी लोक
ठे संख्येन पाविल्ले 1560 वर्सा अशें दाखलो आसा. ताज्या 100 वर्सां
रांत केरळांत कोंकणी वैद्यांनी आयुर्वेदी वखदांची वळख करून वनस्पती
ज्ञानाक योगदान केलें जाल्यार तांतु कांय अजाप ना. आनी एकल्याक
ुंगेज भास कळनाली तर ते महज आसुंये.

असले खूब प्रश्नांक जाप आज ना. मुखावेल्या काळांत ह्याविशीं व्हडलो
ोद आनी खोज जावंक जाय. आमचे दायज आनी आमचे पूर्वज आमकां
ोडून गेल्ले ती संपत्ती कितली महत्वाची ही खबर आमकां जाय. वेळ जलो,
ण त्या खातीर वेळ आयलो अशें दिसता. हॉर्तुसाचीं 12 खंडां कोंकणींत
णकार करचें काम गोंय विद्यापीठान हातांत घेवपाक जाय.

---



खंड 3, चित्र 28

# स्मृति गीत

**- के. अनन्त भट**

[कोंकणी गीतकार, कवी, बालसाहित्यकार आनी अनुवादक अशी के. अनन्त भट विख्यात आसात. संत तुळसीदासालें 'श्री रामचरितमानस' कोंकणींत तांणी अनुवाद केला आनी ताका केंद्र साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार प्राप्त जाला. आकाशवाणी आनी दूरदर्शना वाटेनय हांगेल्यो खूब रचना प्रसारित जाल्यांत. - सं]

चैत्र बहुळ दशमीचो दीसु हो, कोंकणीक अभिमानाचो
सत्रावे शतमानांतु कोंकणी जनांक स्थानाचो प. 1

अप्पुभट, रंगभट, विनायक पंडित-हे तीन वैद्यजनाक
आपण्यालें कोंकणी प्रमाणपत्र तें, आमकां प्रयोजनाक 2

आवयभास त्या तेग वैद्यांनी, नागरी लिपीन बरेयली
देवनागरी कोंकणीक बरी, ही स्थापना करेयली 3

लिंगुवा ब्राह्मणिका म्हणु म्हळ्ळां ब्राह्मणांगेली भास
संगमु भिषग्वरांगेलो जावनु, सस्यशास्त्राक विकास 4

होर्तूस इंदिकूस मलबारिकूस - त्या सस्य ग्रन्थाचें नांव
प्रतिनिधान परिश्रमान पावलें, प्रसिध्दि सर्वय गांव 5

असले गोश्रीपुराचे वैद्य ते, विश्वचरित्रांतु सरले
भासेक, देशाक, संस्काराक, आमचें सम्पत् दवरलें 6

भावानूं ! भइणीनूं ! आमकां तांचो उडगासु करुया
जीवनांतु तें जनमनांतु तें सत्याचें तत्त्व भरुया 7

[हॉर्तुसांतलें कोंकणी प्रमाणपत्राचेर तेग वैद्यांनी निशाणी केल्ली तारीक चैत्र बहुळ दशमी. हो दीस 'स्मृति दिवस' म्हणून केरळांत मनयतात. ही 24.04.2014च्या स्मृति दिसाची रचना.]

# स्मृत्यष्टक

**- शरतचंद्र शेणै**

सत्राव्या शतकांतु आशिल्लें तेग वैद कोची देशाचे
रंगभट्टु विनायक पंडितु आनी आपूभट्टु नांवांचे

    तेगांनी ताग्नी मान्य केलें कुमुदोराचें सांगणें
    महायत्नांतु मनान बुड्डले आमचे पूर्वज कोंकणे

सकाळीं सांज केलेलें काम क्रमान फलादिक जालें
दोनि वर्षांचे अखंड यत्नान विज्ञानभांडार एकठायलें

    स्वाभिमानि ते तेगांनी दिलें कोंकणीन तांचें साक्ष्य
    वृक्ष वालि आदींचीं नांवां स्वभाषेन बरयलीं समस्त

देश विदेशांतु विख्यात जालें तें मलबाराचें उद्यान
बारा पुस्तकांतु भरून आशिल्लें वनस्पतींचें विज्ञान

    शतकां दांटवलीं, चरितां घुसपलीं, तेग ते विस्मृत जाले
    स्वर्ण अक्षरांक अर्ह विज्ञ ते आमकांय अज्ञात जाले

महाकार्य करून पावले ते महामनीष, हें परमार्थ
महाविस्मृतींतु निपल्ले तरी ते, जीण आमची रे व्यर्थ

    आमच्या पूर्विकांक आमी वळखुया, नमन तांकां करूया
    भारतचरितांतु ह्या तेगांकय चिरप्रतिष्टा दीवूंया

[**गीतसरोवर** ह्या झेल्यांत (2012) आयल्लेलें अष्टक]

# भाग 4 - हॉर्तुसांतली कोंकणी



**हॉर्तूस इंडिकूस मलबारिकूस ह्या ग्रंथाक कोंकणीचें योगदान**

- डॉ. भूषण भावे



**हॉर्तूस मलबारिकूस ग्रंथांतली कोंकणी**

- गोकुळदास प्रभू



**हॉर्तूस मलबारिकूसांतुली कोंकणी : एक भाषाशास्त्रीय विश्लेषण**

- डॉ. पी. आर. हरीन्द्र शर्मा



**हॉर्तुसांतली कोंकणी नांवां**

- एस. रामकृष्ण किणी

# हॉर्तूस इंडिकूस मलबारिकूस ह्या ग्रंथाक कोंकणीचें योगदान

- डॉ. भूषण भावे

'हॉर्तूस इंडिकूस मलबारिकूस' ह्या ग्रंथाचो पयलो खंड केन्ना उडवाडाक ायलो ? हे विशीं जाणकारां मदीं विंगड मतां आसात. 'हॉर्तूस' पुस्तकांत ारखो, नांवां, हांचे बाबतींत जायत्यो चुको आसात. नोंद जाल्लें पयल्या ांडाचें उजवाडावणेचे वर्स कांय कडेन 1673, जाल्यार हेर कडेन 1678 ाशें आसा. पयल्या खंडा भशेनूच, मुखावयल्या खंडाचें उजवाडावणे वशीं लेगीत मावार नोंदी आसात. पूण निमणे म्हणल्यार 12 वो खंड मात 703 वर्सा उजवाडायला, हाचे विशीं जाणकारां मदीं एकवाक्यताताय ासा. ह्या पुस्तकाचें नांव लेगीत मुळांवें एकें तरेन आनी चवथ्या खंडा ावन हॉर्तुस अशें केल्लें दिश्टि पडटा.

आयज आमी मानतात ते प्रमाण हो ग्रंथ इ.स.1678 वर्सा छापलो पयलो खंड) आनी देखून 2011 वर्सा ह्या ग्रंथाच्या पयल्या खंडाक 337 वर्सां पुराय जालीं. तांतूतल्या 'कोंकणी प्रमाणपत्र' नागरी लिपींत 1675 वर्सा बरयलां आनी म्हणून नागरी लिपींतले कोंकणी बरपावळीक 340 वर्सां पुराय जालीं. पूण प्रत्यक्षांत मात हे कोंकणी बरपावळीक 340 वर्सां पुराय जाल्यांत.

ह्या ग्रंथाच्या पयल्या खंडाचे प्रस्तावनेंत बरयिल्ले कोंकणी प्रमाणपत्राचे पयलेच वळींत 'स्वस्ति श्री शालिवाहन शक 1597 राक्षसनाम संवत्सर चैत्र बहुळ 10' असो उल्लेख आयला. वयर अधोरेखीत केल्ली वर्संसंख्या 1587 काय 1597 हे विशीं प्रस्तुत लेखकाक तिच्या अक्षर-वळणाक लागून दुबाव आशिल्ले. पूण शालिवाहन शक पंचांगाच्या आदारान तपासतकीच मात ही तारीख 1597 (पंदराशे सत्त्याण्णव) आशिल्ल्याचें सिद्ध जाता. ताची विस्कटावणी अशी :

शके 1587 - विश्ववसूनाम संवत्सर = इ. स. 1665
शके 1596 - आनंदनाम संवत्सर = इ. स. 1674
शके 1597 - राक्षसनाम संवत्सर = इ. स. 1675
शके 1598 - नलनाम संवत्सर = इ. स. 1676
शके 1599 - पिंगलनाम संवत्सर = इ. स. 1677
शके 1600 - कालयुक्तनाम संवत्सर = इ. स. 1678

(बहुळ म्हळ्यार कृष्ण-पक्ष. हो दाखलो चैत्र दशमीक म्हळ्यार 19 एप्रील, 1675 ह्या दिसा बरयिल्लो.)

'हॉर्तुसां' तल्या कोंकणी प्रमाणपत्रांत 'राक्षसनाम संवत्सरा'चो उल्लेख आयला. हाचो अर्थ हें प्रणाणपत्र शके 1597 म्हळ्यार इ. स. 1675 वर्सा बरयलां. हाचे वयल्यान नागरी लिपींत बरयिल्ल्या कोंकणी लिखाणाक आयचे तारखेक (2011 वर्सा) 336 (तीनशें छत्तीस) वर्सां पुराय जातात. (शक वर्स + 78 वर्सां = इसवी सन \ क्रिस्ती वर्स.) तीन कोंकणी वैजांनी हो दाखलो इ. स. 1675 वर्सा बरोवन दिलो आनी उपरांत 3 वर्सांनी इ. स. 1678 त हो ग्रंथ (पयलो खंड) छापलो. देखून हे कोंकणी बरपावळीची कालनिश्चिती करतना, लिखीत कोंकणीचीं 340 वर्सां जाल्यार छापील कोंकणीचीं 337 वर्सां, अशी करचीं पडटले.

**कोंकणी भाशेचे आदले उल्लेख :**

वयल्या प्रमाणपत्रांतल्यान 'लिखीत कोंकणीचें' अस्तित्व सिध्द जाता. मूळपीठ आशिल्ल्या गोंया सावन हजार-देड हजार कि. मी. पयस आशिल्ल्या मलबार (केरळ) वाठारांत, सतराव्या शेंकड्यांत लेगींत कोंकणी 'ग्रंथनिविश्ट' भास जावन आशिल्ली, आनी ती बरोवपा खातीर 'नागरी' लिपीचो वापर करताले, तशेंच तिच्या ह्या नागर-अवताराक 'लोक' मान्यताय आशिल्ली हें सिध्द जाता. पूण ताचे पयलीं 'कोंकणी' भाशेची स्थिती कितें आशिल्ली ? ती 'उलोवपाची भास' (Spoken Language) म्हण अस्तित्वांत आशिल्ली वा ना? 'लिखीत भास' (Written Language) म्हण तिका

स्तित्व आशिल्लें व्हय? ह्या प्रस्नांच्यो जापो सोदपाक इतिहासाचेर नदर रची पडटली :

कर्नाटकांतल्या हसन जिल्ल्यांतल्या श्रवणबेळगोळ गांवांतल्या दोड्डबेट्ट नांवाचे दोंगुल्लेचेर आशिल्लो 'श्री चावुण्डराजें करवियलें' हो शिलालेख कोंकणी भाशेंत कोंत्रायल्ले आसा हें डॉ. सु. बा. कुळकर्णी हांणी सप्रमाण सिद्ध केलां. (कोंकणी भाषा : प्रकृती व परंपरा- डॉ. सु. बा. कुळकर्णी, गोंवा कोंकणी अकादेमी). हाचो अर्थ कोंकणी भास एक उलोवपाची भास (Spoken Language) म्हण दक्षिण कर्नाटकांत 10-11 व्या शेंकड्यांत मान्यतायेक पाविल्ली हें स्पश्ट जाता. (शिलालेख 'बोली' रूपांत बरयताले, हो सिद्धांत मानून घेतल्यार).

12-13 व्या शेंकड्यांत कोंकणीचें बोली रूप (Spoken form) सिद्ध करूंक कोंकणीचो गिरेस्त लोकवेद येता.

14-15 व्या शेंकड्यांत कोंकणी भाशेंत काव्याचें एक अज्ञात यूग जावन गेल्लें आसतलें, असो अदमास जायत्या जाणकारांनी परगटायला. ताका आदार म्हण कोंकणींतल्यो गिरेस्त म्हणण्यो, ओपारी, वाक्प्रचार, कवनां तशेंच कांय छंदबद्ध काव्य हांच्यो देखी मुखार येतात.

ताचे उपरांत 16 व्या शेंकड्याच्या प्रारंभाक कृष्णदास शामा उर्फ शामराज, विष्णूदास नामा, ज्ञानदेव नामा, ज्ञानदेव आदी गोंयकार लेखकांचें गद्य मेळटा.

त्याच काळांत 1512 -1515 मजगतीं, गोंयांत राबीतो केल्या तॉमे पिरीश ह्या भोंवडेकारान बरयिल्ल्या 'सुमा ओरियंताल' ह्या मुळावे भाशेंतल्या पुस्तकाच्या इंग्लिश अणकारांत, गोंया संबंदीचो उल्लेख करतना, पिरीश हाणें कोंकणी भाशेचें - 'बोली' (Dialect/spoken language) म्हण अस्तित्व सिद्ध केलां :

Now our road takes us to the magnificent kingdom of Goa - the key to the First and second India. On the sea - coast it is seperated

from the Deccan by Khare - Patan, the chief river in India...and inland it is bounded by the kingdom of the Deccan and the kingdom of Narsinga. The language which is spoken in this kingdom is Konkani..... The language of this kingdom of Goa does not resemble that of the Deccan, nor that of Narsinga, but is a seperate language...... (The Suma Oriental of Pires - Vol. 1 Edited by Armando Cortesao - Asian Educational Services, 1990)

6. ते पयलीं लेगीत अरब प्रवासी अल्बेरुनी (अल-बेरुनी) (इ.स. 970-1039) आनी इटालियन प्रवासी मार्कोपोलो (इ.स. 1290) हांणी कोंकणी भाशेच्या स्वंतत्र अस्तित्वाचो उल्लेख केला, अशें जाणकार सांगतात. पूण प्रस्तुत लेखकाच्या हाताक तो लागूंक ना.

7. तशेंच जॉन लेडन (1775-1811) ह्या जाणकारान लेगीत, केरळांत भोंवतना आपणाक कोंकणींत रचिल्लीं भागवतपुराण, लिंगपुराण आनी थळपुराण अशीं पुराणां सांपडिल्ल्याची नोंद बरोवन दवरल्या. पूण आजून मेरेन तशीं पुराणां हाताक लागूंक नात.

**हॉर्तूस इंडिकूस मलबारिकूस ग्रंथाक कोंकणी योगदान : स्वरूप आनी प्रकार**

'हॉर्तूस' ग्रंथाक कोंकणी वैजांनी दिल्लें योगदान तीन प्रकारांचें जावन आसा :

1. ह्या ग्रंथाच्या पयल्या खंडाक ह्या तीग कोंकणी वैजांनी बरयिल्लें प्रमाणपत्र \ शिफारसपत्र \ दाखलो.

2. मुखा वयल्या सुमार 800 (आठशीं) पानांनी काडिल्ल्या वनस्पतींच्या नमुनो रेखाटनांक (सणपल स्कॅचिस) सुमार 750 (साडेसातशीं) वनस्पतींची वळख पटोवन तांचीं बरयिल्लीं नांवां. (हाचो अर्थ सुमार 750 वनस्पतींचीं 'कोंकणी' नांवां सोदून काडून तीं ग्रंथबद्ध करपाचो संशोधन-वावर तांणी केला.)

3. प्रमाणपत्रांतले उल्लेख आनी प्रस्तुत लेखकान काडिल्ले तर्क \ अन्वयार्थ.

## 30 वर्सां आदीचें कोंकणी प्रमाणपत्र

'हॉर्तूस' ग्रंथाक मल्याळम, कोंकणी आनी अरबी ह्या भासांतलीं न (3) प्रमाणपत्रां लाबल्यांत. तातूंतलें कोंकणी प्रमाणपत्र वयर सांगिल्ले भाण इ. स. 1675 त बरयिल्लें आसा. ताची मूळ संहिता (टॅक्स्ट) अशी ासा (पुनर्लेख) (पळयात तकटो 1). ह्या प्रमाणपत्रांतले आनी उपरांत ाडिल्ल्या रेखाचित्रांतल्या नामावळींतले कोंकणी भाशेक 'कोंकणी' अशें ाणनास्ता Lingua Bramanum 'वा' Brach manum म्हळ्यार बामाणांची ास असो केला. तशेंच तिनूय कोंकणी मनशांक 'बामण' अशें म्हळां. ोंकणीचें ब्रामणी भास हें नामकरण पुर्तुगेजांनी गोंयांत केल्ल्या नामकरणा ाशेनूच आसा.

संहिते वेल्यान सकयल दिल्ल्यो गजाली सिद्ध जातात :

1. हो वावर (आयुर्वेदीक वखदां एकठांय करून तांची म्हायती बरोवपाचो) तांणी (तीन कोंकणी वैजांनी) कोची शाराचे कमांडर आंड्रिकि फांड्रे हाच्या आदेशा वेल्यान केलो.
2. मलबार वाठारांतल्यो वखदी वनस्पती एकठांय करपाचें काम तांणी जाणकार मनशांक 'मुसारो' (विदागी, मानधन) दिवन करून घेतलें.
3. हे तिगूय कोंकणी वैज कोची ह्या राजधानी आशिल्ल्या शारांत राबितो करून आसले.
4. उपरांत 'त्या' मनशांनी हाडिल्लीं वखदां तांणी स्तू-काळावरी विभाजीत केलीं आनी त्या वखदांच्या झाडांचीं चित्रां (रेखाटनां) काडलीं (चितारिल्लीं).
5. उपरांत ह्या वनस्पतींची \ वखदांची म्हायती तांणी बरयली. ती तीन तरांनी:
   1. तांगेल्या (उपलब्द) 'वैद्य ग्रंथाच्या निघंटू' प्रमाण.
   2. वखदी वनस्पतींचो जो गूण तांकां तांच्या अणभवांनी कळ्ळो, ताच्या आदारान, आनी
   3. त्या वखदांनीं नांवां पळोवन.

हाचो अर्थ ह्या ग्रंथांतली वैजकी-म्हायती (टॅक्स्ट) बरोवपाक लेगीत ह्या तीन कोंकणी पंडितांनी योगदान दिलां. (ह्या ग्रंथाच्या वट्ट 12 खंडांक मेळून एकबण सुमार 1200 पानां आसात, तातूंतलीं सुमार 800 पानां चित्रां रेखाटनाचीं सोडलां जाल्यार सुमार 400 पानां म्हायतीचीं \ संशोधनाचीं \ वर्णनाचीं जावन आसात.)

छ. जे वैजकी ग्रंथ तांणी पळयले ते 'आमगेल्या वैद्यांचे' आशिल्ले अशें तांणी म्हळां, हाचो अर्थ :

1. एक तर हे ग्रंथ संस्कृत भाशेंतले आसुंये. वा

2. हे ग्रंथ कोंकणींत बरयिल्ले आसुंये. (ही शक्यताय न्हयकारपाक येना. वैजवैजकीची परंपरा गोंयांत खूब आदी काळा सावन चालू आशिल्ली आनी पुर्तुगेज काळा मेरेन तिची अक्षुण्ण परंपरा मेळटा.)

ज. 'आजिदानीवर्षं सकाळि सांजे' - हांचो अर्थ 'आयज दोन वर्सां सकाळीं सांजे' असो घेतलो जाल्यार ह्या ग्रंथाचे पुराय निर्मणेंत हे तिगूय कोंकणी वैज जोडिल्ले आशिल्ले असो जाता.

झ. 'हॉर्तुस' ग्रंथांतली म्हायती लोकांक खरी दिसची म्हूण तांणी दोन कामां केल्यांत :

1. प्रमाणपत्राचे अखेरेक तांणी आपणाली निशाणी करून दिल्या (Signature)

2. तांणी हें प्रमाणपत्र 'नागर लिपींत' (वा नागर बोलींत \ मोडींत) बरोवन दिलां. (हाचो अर्थ त्या काळांत नागर बरपावळीचेर लोकांचो विस्वास आशिल्ले, म्हळ्यारच नागरींत बरोवपाची रीत \ चाल ताचे आदीं सावन टालू आशिल्ली.)

## सुमार 750 वनस्पतींचीं वळख

वयर बरयिल्ले प्रमाण 'हॉर्तूस' ग्रंथांक तीन कोंकणी पंडितांनी फकत प्रस्तावनाच \ प्रमाणपत्रच बरोवंक ना, तर तांणी त्या त्या वनस्पतींचीं चित्रां

बाटल्यांत (अधिकृतपणान हें काम फा. मॅथ्यू हांकां दिल्लें), वनस्पतींचीं
वां बरयल्यांत (वळख पटोवन), तशेंच तांचे आयुर्वेदिक गूण लेगीत बरयल्यात.
चे वेल्यान तांणी ह्या ग्रंथाक दिल्ल्या योगदानाचें प्रमाण मतींत येवचें.
मार 750 वनस्पतींचीं नांवां सोदीन काडीन, वळख पटोवन तांणी बरयल्यांत-
ंद केल्यांत हेंच एक व्हड योगदान जावन आसा. तांतूतलीं कांय म्हत्वाचीं
ांवां अशीं आसात :

माड्ड (माड), मड्डि (माडी), बिरलमाडो (भिल्लमाड), केळी (केळ),
ादुलपापाय (दादूलापोपाय), चापा (चांफो), ववळि (वोंवळ), पारिजातुक
ारिजातक), चीच (चांच), रुबड्ड (रुमड), पिपळु (पिंपळ), वड्ड (वड),
ापु, (कापूस \ कापशीण), तांबिडोमंदारू (तांबडो मंदार), दवामंदारू
धवो मंदार), कारो, आवळि (आवळी), हुरो, कुडो, आबाडो (आंबाडो),
ाक़फळ, बेड्डुमी (भेडशी), तग्वि (तिग्वी), बोडकी (बोंडकी \ बणाक),
ोडककवासो (हणककवासो), कळजिरें (काळजिरें), टाइकिळि (तायकिळो),
ुतिरो (धुतरो), रुवि (रुई), एरंड्डु (एरंड), काजुरकलि (ग्वाजुरकुली \ ग्वाजकुली),
नेवुली (निवली \ निवलकाणी), कारापुला (काराफुलां), पणसु (पणस),
ातपणस, करमलां, नागचांफो, आंबो, मदफळी (मतफळ), रानहिहो, घोटींग,
ानलिंबू, नारिंग, रानबोरी, साइलो (सायलो), रिठीं (रिठो), फातरफोणी,
करदळ (कर्दळ), बाबुलि (बाबूळ \ बाभुळ), उरो (हुरो), कारदि (कारांदी),
ुदवालि (दुर्दीवाल), लजिरि (लज), काळो अड्डुळसो, तिळो (तिळीं),
ाइळ्यादोळो (कावळ्यादोळो), आबोली, आबटी (आमटी), शेवती (शेवतीं),
ुदिरि (हुंदरी \ एकपानी वेल हुंदरी), बळदी (हळद), आले (आलें), तोरो
तेरें), खाजुरो मुरण, माळीक, कमळ, वेग्वड (वेग्वंड), बेदरलि (बेंदुर्ली), तण,
ुरुवा (दुर्वा), दुरुभु (दर्भ), नाचणो आदी.

**प्रमाणपत्रांतले उल्लेख आनी ताचे वेल्यान काडिल्ले तर्क \ अन्वयार्थ**

कोंकणी प्रमाणपत्र वाचतकच कोंकणी समाजांतले प्रदीर्घ वैजवैजकी
रंपरेची गवाय मेळटा. ह्या प्रमाणपत्रांत 'त्यां त्या झाडाचें फल, फूल, पान,

बीज आनी मूळ, तशेंच ओषध मात्र वृक्ष, वालि, झाड, खंड ओळखतेल्या म्हळ्यार फकत वखदी अशे वृक्ष (रूख = Trees), वाली (Climbers) झाड (Plants/Herbs), आनी खंड (Roots) असो जाता. खंड ह्या उतराक जायते अर्थ आसात. पळयात तकटो 5 मुखार 'आमिं आमगेल्या वैद्य ग्रंथाचा निघंटा प्रमाणिं...' असो उल्लेख आयला.

निघंटा म्हळ्यार निघंटू (Materia medica) अशे तरेचे आयुर्वेदीक वखदां विशींचे म्हायतीचेर बरयिल्ले जायते निघंटू (संस्कृत श्लोक वा ऋच्यांच्या आदारान बरयिल्ले) ग्रंथ त्या काळांत उपलब्द आशिल्ले. हाचो अर्थ क्रोंकणी वैजांचो संस्कृत भाशेचे खर अभ्यास आशिल्लो. ह्याच ग्रंथांत डच गवर्नर व्हान रीडस् (जाचे आज्ञेन आनी फुडारपणा खाला ह्या म्हान ग्रंथाचें निर्माण जालें हाणें रंग भट आनी हेर कोंकणी मनशांगेर भेट दिवपाच्या एका प्रसंगाचो उल्लेख आयला. गौड सारस्वत (बामण) कुटुंबांनी, गोंयच्यान बाटाबाटी. धर्मीक छळ आनी इंक्विझिशनाच्या काळांत स्थलांतरीत जातना, गोंयच्यान ही आयुर्वेदाची परंपरा लेगीत आपले वांगडा आनी जतन केली. (तांणी वापरिल्लीं लिव्रु (नोंद चोपडी) आनी कुमदोर (कमांडर) हीं पुर्तुगेज उतरां तांच्या गोंय फाटभुंयेची गवाय दितात).

केरळांत तांचे हे अणभवसंपन्नतायेक लोक (आनी डच सरकारी अधिकारी लेगीत) भोवच मानताले. कोंकणी वैजांच्या ह्या घरांनी वखदांच्या गुणां विशीं भोवच भासाभास, चर्चा आनी वादविवाद जाताले. पूण ते भोवच नमळायेन आनी आपणालें मत नेटान मांडटना लेगीत हेरांच्या मताचो आदर करून. तांचें वखदां-वनस्पतीं विशींचें सगलें गिन्यान श्लोक \ ऋचा हातूंत काव्यमय रितीन बांदिल्लें आशिल्लें.

ह्या गिन्यानाचो सगलो भार पाठांतरणाचेर, स्मरण यादीचेर आदारून आशिल्लो आनी आपल्या भुरग्यांक ते म्हणी \ ओपारी \ वाक्प्रचारां भशेन सहजतायेन खेळटना आनी बागडटना शिकयताले. एकाद्रे वनस्पतीचें नांव घेतल्यार पुरो, हे बामण-वैज ताचे विशीं फट करून म्हायती सांगताले. वनस्पतींच्या विशेश नामा पासून सुरू जावपी तांची ऋचा \ होंवी उपरांत

वखदी वनस्पतीची जाती \ कूळ (species), गुणधर्म, प्रवृत्ती, प्रकार, घटक, ळ, वेळ \ काळ, वैजकी गूण, उपेग आनी हेर गजाली अशा क्रमान फुडें चून अचूकपणान दरेके वखदी वनस्तींची नोंद करतालीं.

ही आयुर्वेदीय पद्दत चार हजार वर्सां परस चड काळा पासून अस्तित्वांत ासा. अशें हे वैज ठासून सांगताले (खंड 3: वनस्पती, मोगाळ वाचप्यांक, नुक्रम नाशिल्लें पान 8)

**ॉर्तूमांतले कोंकणी भाशेची चिकत्सा : लिपी आनी अक्षरवळण**

कोंकणी प्रमाणपत्रांत वापरिल्ली लिपी नागर, म्हळ्यार आयचे देवनागरी लेपयेचो वापर केला. पूण आयची देवनागरी आनी तेन्नाची नागर लिपी ानूंत जायतो फरक आसा. त्या काळांत एकतर अक्षरांचीं वळणां निश्चीत ावक नाशिल्लीं, तांचे मदीं समानताय - एकसारकेपण नाशिल्लें वा ब्लॉक निर्माण करपाचें काम किचकटीचें आनी कठीण आशिल्ल्यान तें तयार करतल्यांनी अक्षरांचीं वळणां, आकार आनी दृश्यरुपां बदलिल्लीं आसूं येतात.

आदल्या काळा सावन बाळबोध, नागर, मोडी, कानदेवी (?), ब्रह्मी, नंदीनागरी हळेगन्नड उपरांत देवनागरी लिपींत, तशेंच पुर्तुगेज काळांत रोमी, स्थलांतरितांनी कन्नड, मल्याळम आनी धर्मीक कारणांक लागून फारशी लिपींत कोंकणी बरयतात. (चड करून हें निमणें कारणच डच जापसालदार आसूंये). देखून अक्षरांचीं वळणां आयचे परस जायतीं वेगळीं, कांय फावटी दुर्बोध \ वाचूंक कुस्तार अशीं आसात :

देखीक 'झ' अक्षराचें वळण पळोवचें (चौथी आनी पांचवी वळ). तेच प्रमाण 'च' हें अक्षर कावळ्याचे 'चोंची' प्रमाण बरयिल्लें मेळटा (देखीक 'कोची' = वळ 2). 'भ' अक्षराक वयली गांठ दिश्टी पडना. 'उकार' दितना मूळ अक्षराची आडी गायब जाता (देखीक आपू भट = वळ 2). जायते कडेन 'उ'कार दितना व्यंजनाक सकयल 'उ' हो स्वर जोडपाची चाल आसा. (देखीक 'बहुल' हें उतर = वळ 1 वा 'रुतू' हें उतर = वळ 6). 'ध' आनी 'घ'

मदीं भेद ना. (देखीक 'ओषध' हें रूप 'ओषघ' अशें बरयलां = वळ 4). 'ब' तली पोटचीर दिवंक ना (देखीक 'बीज' उ वळ 6. पूण हेर कडेन ती दिल्या. देखीक बैसिके = वळ 2, मलबार उ वळ 3, बरपान आनी बरवूनु - निमणी वळ. 'न' हें अक्षर ताची फुडली गांठ नाशिल्ल्यान 'त' कशें दिसता). (देखीक 'निसाणि' = वळ 10. हें उतर 'तिसाणी' कशें दिसता). प्रमाणपत्रांत दोन उतरां मदीं अंतर सोडिल्लें ना. अर्थाविल्यान तीं आमकां वेगळीं करचीं पडटात. तशेंच देवनागरीचें वैशिश्ट्य 'अधोरेखा' दरेका उतराचेर दिनासतना एकेच वळीचेर सगलीं उतरां हुमकळायल्यांत.

दोन संख्या वाचक उतरां '1597' आनी '10' प्रमाणपत्रांत आयल्यांत तांचें वळण लेगीत (खासा करून संख्या 1, 5, 8 हांचे बाबतींत) साप्प वेगळें आसा. '9' (णव) ही संख्या '8' (आठ) कशी दिसता. खंयच्याच उतरा \ शब्दां उपरांत पूर्णविराम, स्वल्पविराम दाखोवपी कुरू ना.

**गोंयांतले वैज-वैजकी परंपरेचो सोद**

तेच वांगडा गोंयांतल्यान प्रांरभ जावन सकयल केरळ मेरेन पाविल्ले गोंयचे \ अस्सल कोंकणी वैजवैजकी परंपरेचो अभ्यास करचो पडटलो. ह्या तीन कोंकणी वैजांचे वारस आयज आसात जाल्यार तांची वंशावळ अभ्यासून, तांच्या कुटुंबा कडेन वा हेर कडेन 'निघंटू' (लिखीत वा मौखीक परंपरेंत) सांपडटास जाल्यार सोदचे पडटलें.

**स्थलांतरितांच्या तोंडा वयल्या साहित्याचो सोद**

स्थालांतरीत लोक आपली मुळावी भास, संस्कृताय चड चिवटपणान \ कडवटपणान राखून दवरतात. हाचें कारण स्थलांतरीत प्रदोशांत भास आनी संस्कृती होच तांच्या अस्तित्वाचो एकमेव दुवो \ जोडणी आसता. देखून कारवार सावन कोचीन मेरेन फाफशिल्ल्या समाजाच्या तोंडा वयल्या साहित्याचो आनी भाशेचो सोद लेगीत घेवचो पडटलो. 'गोड्डें रामायण', 'श्रवोण गीत' हे सारकिले हेर लोकवेद तांचे जिबेर अजूनय जिते आसूं येतात. 'निघंटू'तल्यो पद्यान बांदिल्ल्यो 'ऋचा' तांचे जिबेर घडये आसूं येतात. त्यो मेळत जाल्यार

दा वैद्यां मेरेन गोंयांत शास्त्रीय नदरेन जिवीत आशिल्ले वैजकी-परंपरेचें ळ हाताक लागतलें.

## ोंकणीच्या आदल्या लिपयांचो अभ्यास

वयर सांगिल्ले प्रमाण आदी काला सावन कोंकणी बरोवपा खातीर मार 10-12 लिपयांचो उपेग जातालो. डॉ. कुळकर्णी हांच्या म्हणण्या माण श्रवणबेळगोळचो शिलालेख 'नंदीनागरी' लिपयेंत बरयिल्लो आसा. ळयात : कोंकणी भाषा प्रकृती व परंपरा, गोवा कोंकणी अकादेमी, 2007). शेंच 16 व्या शेंकड्यांत गोंयांत 'कानदेवी' (कन्दवी ?) लिपी वापरताले अशें ंय जाणकारांचें म्हणणें आसा. (पळयात डॉ. ओलिव्हिन्यू गोमिश, जुजे रैर) देखून कोंकणीच्या ह्या आदल्या लिपयांचें संशोधन जावन, तातूंत रयिल्ल्या माहित्याचेर उजवाड घालूंक जाय.

शिलालेख वा मौखीक माहित्य हें भाशीक अभ्यासाचें साप्प दुबळें ाधन. पूण 'हॉर्तूस' मारकिल्या ग्रंथाचें प्रमाणपत्र आनी तातूंतलीं सुमार 750 ोंकणी वनस्पतींचीं नांवां (पळयात नांवांचीं कांय लेबलां), लिखीत कोंकणीचें वेकसीत आनी स्थीर रूप दाखोवपी आसात. देखून ह्या ग्रंथांतले कोंकणी भाशेचो 'भाशीक' \ भासशास्त्रीय (Linguistic) अभ्यास जावपाची गरज आसा.

[हॉर्तूस इंडिकूस मलबारिकूस ह्या ग्रंथाक कोंकणीचें योगदान - ह्या प्रस्तुत लेखकाच्या आगामी पुस्तकांतलो वेंचीक वांटो. लेखांत उल्लेख केल्ले तकटे सकयल पळोवचे.]

### तकटो क्र. 1

### लेखनशैली \ शुद्धलेखन

| 'हॉर्तुसां'तलें रूप | आयचें रूप |
|---|---|
| तानिं | ताणीं |
| कोचिचा | कोचीच्या |
| त्याचा | त्याच्या |
| आशिले | आशिल्ले |

| | |
|---|---|
| तिं तिं \ तिं तीं | तीं तीं |
| ओळखतेल्या | वळखतल्या |
| मनुष्याक | मनस्याक \ मनुश्याक |
| देवूनु | दिवन \ दिवनू |
| ते ते (गांवांतु) | त्या त्या (गांवांत) |
| वोखद | वखद |
| आणवून | हाडून |
| काळावरि | काळावरी |
| चितारिली | चितारली |
| आमिं (3 फावटीं) | आमी |
| ग्रंथाचा | ग्रंथाच्या |
| प्रमाणिं | प्रमाण \ प्रमाणीं |
| त्यां त्या | त्या त्या |
| आखदांची | वखदांचीं |
| नांव | नांवां |
| पळेउनु | पळेवन \ पळेवनू |
| निघंटा | निघंटू |
| कळेलो | कळ्ळो |
| लागि | लागीं |
| रावुनू | रावन \ रावून \ रावनू |
| लटिक | लटीक |
| अशि | अशी \ अशें |
| म्हणुंच्याक | म्हणच्याक \ म्हणपाक \ म्हणूंक |
| नज | न्हज |
| म्हणु (3 फावटीं | म्हण \ म्हणू \ म्हणून |
| आमंची | आमची |
| निसाणी | निशाणी |

| | |
|---|---|
| कर्णु | करून \ करनू |
| मानुचें | मानचें |
| जाइद | जायत |
| बरवूनु | वरोवन \ वरवन \ वरवुनू |
| वालि | वाली |

## बोली रुपां

| तत्कालीन (मंगळुरी \ केरळी) | सद्याचें |
|---|---|
| वैंमिके | बशिल्ल्या \ रावपी \ राबितो केल्ल्या |
| तेग | तीग \ तीन |
| पेट्टवून | धाडून |
| शाळिवाहन | शालिवाहन |
| आणवून | हाडून |
| निरोपान | आज्ञेन \ आदेशान \ सांगणेवेल्यान |

## चुको \ चुकावळ

| जाल्ली चूक | योग्य रूप |
|---|---|
| हा (लिव्रु) | हो (लिव्र \ लिव्रू) |
| ते (सत्य) | ते (सत्य) |
| ह (भरव्रू दिलां) | हें (बरोवन दिलां) |
| सवत्सर | संवत्सर |
| ओषध | औषध (मंगळुरी \ केरळी) |
| साजे | सांजे |
| देशावु | देशांतु \ देशांत |
| सपादून | संपादून |
| आमि | आमिं (मंगळुरी \ केरळी) |
| म्हणु | म्हणुं (मंगळुरी \ केरळी) |
| लागि | लागिं (मंगळुरी \ केरळी) |

**आवृत्तीवाचक दर्शक सर्वनामां**

ते ते, तिं तिं, त्यां त्या, त्या त्या, तिं तीं, त्यां त्या, जो जो

**हेर सर्वनामां**

तेग, तानिं, त्याचा, ह्या, त्या, आमिं, आमगेल्या, आमका, तो त्यां, आमीं, तें, आमि, आमंची, ते, ह.

### तकटो क्र. 2

### ‘खंड’

‘खंड’ ह्या उतराक वनस्पती संदर्भांत जायते अर्थ आसात :

1. ‘खंड’ म्हळ्यार खोड. (Part of stem) देखीक चंदनांचें खोड
2. ‘खंड’ म्हळ्यार दोन ‘पॅरां मदलो’ भाग. देखीक उसाचो दोन ‘पॅरां मदलो’ भाग. (उशी कांडो ऊस खंड)
3. ‘खंड’ म्हळ्यार मूळ. (देखिक ‘वेखंड’)

### तकटो क्र. 3

## हॉर्तुस मलबारिकुसांतलीं चित्रांचे लगी दिल्लीं थोडीं नांवां.

| | |
|---|---|
| [illegible] Lus.<br>[illegible] Mal.<br>Vaingani<br>[illegible] Bram.<br>[illegible] Arab. | Basella Lus.<br>[illegible] Mal.<br>Wali<br>वाळी Bram.<br>[illegible] Arab. |
| खंड 10, चित्र 74 | खंड 7, चित्र 24 |

| | |
|---|---|
| Schakeri-schorá lat.<br>mal.<br>arab.<br>bram. | Cumbulám lat.<br>mal.<br>arab.<br>bram. |
| खंड 8, चित्र 2 | खंड 8, चित्र 3 |
| Mallen-belleri lat.<br>mal.<br>Táua-fini<br>bram.<br>arab. | Picinna lat.<br>mal.<br>arab.<br>bram. |
| खंड 8, चित्र 6 | खंड 8, चित्र 7 |
| Maü. lat.<br>mal.<br>Ambó<br>bram.<br>Arab. | Ansjeli. lat.<br>mal.<br>Pála-ponofsii<br>bram.<br>Arab. |
| खंड 4, चित्र 1 | खंड 3, चित्र 32 |

# हॉर्तूस मलबारिकूस ग्रंथांतली कोंकणी

**- गोकुळदास प्रभु**

[कोंकणी कथाकार म्हणून नांव जोडिल्ले लेखक सद्या आखिल भारतीय कोंकणी परिशादेचो अध्यक्ष आसात. केंद्र साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फाव जाल्ले गोकुळदास प्रभु एक निवृत्त बँक अधिकारी आसात. कोंकणी भाशेचें व्याकरण, शुद्धलेखन, भाषाशास्त्र आनी वेगवेगळी बोलीरूपां विशीं तांकां सुनिश्चित एक दर्शन आसा. - सं.]

## सुरवातीचीं उतरां

हॉर्तूस मलबारिकूस ह्या गंथांच्या पयल्या खंडांत रंग भट, विनायक पंडित आनी आपु भट ह्या तीग कोंकणी वैद्यानी आपले मांय भाशेंत जें प्रमाणपत्र दिलां, ताजो उदगार आनी ताचें चित्र दो. जर्सन द कुञ हांगेल्या The Konkani language and Literature ह्या पुस्तकांत मेळटा. ह्या विशयाचेर शेणै गोंयबाबान 'कोंकणी भाशेचें जैत' ह्या पुस्तकांत (पान. 68-73) चड माहिती दिल्या आनी इतिहासिक नदरेन उजवाड घाला. अ. का. प्रियोळकार हांणी The Printing Press In India ह्या पुस्तकांत (p. 342) the earliest Devanagari block printing in India म्हण हॉर्तूसांतल्या कोंकणी प्रमाण पत्राचें चित्र दिलां.

पुण केरळ विद्यापीठान 2003 वर्सा 'हॉर्तूसा'चो इंग्लीश आनी 2008 वर्सा मलयाळम अणकार उडवाडा हाडिल्ल्या उपरांत मूळ ग्रंथाचे निर्मितींत तीग कोंकणी वैद्यानी दिल्ल्या योगदाना विशीं खूब भासाभास जाल्या. ही चर्चा चडकरून तांगेल्या प्रमाणपत्राचेर आदारून आसा. पुण हॉर्तूसाच्या बारा खंडानी कोंकणीचो व्रापर कितलो आनी कसो जाला हाचेर चड अभ्यास जावंक ना. ह्या विशयांत थोडो उजवाड घालपाचो ह्या लेखांत प्रयत्न करतां.

हॉर्तूस मलबारिकूसाच्या 12 खंडानी वट्ट 742 झाडां/रुखां/वालीं विशींचे लेख आस्पावतात. दर लेखा सांगाता संबंधित झाडाचे सगळे भाग

खोवपी चित्रय दिलां. कांय झाडांचीं एकापरस चड चित्रांय आसात. बारा डानी वट्ट 791 चित्रां दिसून येतात. दर खंडांतल्या दर एक चित्राक एक म संख्या दिल्या आनी ते संख्येचो संबंधित लेखांत उल्लेख आसा. ही क्रम ख्या दिनना पयल्या आनी दुसऱ्या खंडांत Figura ह्या लॅटिन उतराचें मोटवें रूप म्हणून Fig. व F. अशें सुचयलां. पुण उपरांतच्या सगळ्या खंडानी संदर्भ ख्ये कडेन Tabula ह्या लॅटिन उतराचें मोटवें रूप म्हणून Tab अशें बरयलां.

## चित्रांतल्या झाडांचीं नांवां आनी तांची लिपी

दर चित्रांत संबंदित झाडाचें नांव मलयाळम, अरबी-मलयाळम शेंच कोंकणींत नोंद केलां. मलयाळम नांवा वयर लॅटिन लिपीन आनी ताचे सकयल आर्यपुत्तु लिपीन दिलां. पुण खंयच अरबी-मलयाळम लिपीचे वयर लॅटिन लिपीन बरयल्ले दिसना.

पयल्या खंडान चित्रांचेर कोंकणी नांवां फकत देवनागरी लिपींत बरयल्यांत. पुण इतर खंडांतल्या Fig Tab.त कोंकणी नांवां खातीर देवनागरी सांगाता लॅटिन (रोमी) लिपीचो वापर केला. तशें करतना लॅटिन लिपींत वयर आनी देवनागरींत सकयल अशें दोन वळींनी बरयलां. मलयाळम आनी कोंकणी नांवां रोमी लिपींत एकूच व्यक्तीन बरयलां हें हस्ताक्षराच्या नमूनावयल्यान स्पश्ट आसा. ग्रंथ लॅटिन भाशेंत आशिल्ल्यान ते भाशेच्या वाचप्यांक चित्रांतलीं मलयाळम आनी कोंकणी नांवां वाचपाक मेळचीं म्हण तीं पयलीं रोमी लिपीन बरयलीं आनी ते वळीं सकयल मलयाळी आनी कोंकणी वैद्यानी आपले भाशेंत तीं नांवां क्रमान आर्यपुत्तु आनी देवनागरीन नोंद केल्लीं अशें समजता.

पयल्या खंडांत कोंकणी फकत देवनागरींत आसा पुण दुसऱ्या खंडा पासून लॅटिन लिपीचो प्रयोग केला अशें वयर सुचयलां. पुण ही पद्धत सगळे कडेन एकसारखी ना. देखीक दुसऱ्या खंडांतलें Tab.1 ते 8, 18, 23 आनी 31त कोंकणी दोनय लिपीनि बरयल्या जाल्यार 9, 11ते 17, 19 ते 22, 24 ते 30 आनी 32 ते 55त फकत देवनागरींत आसा. लिपी वापरपा विशींची ही

प्रवृत्ती दुसऱ्या खंडानीय दिसून येता. पुण कांय चित्रांनी कोंकणी नांव फकत लॅटिन लिपीन बरयलें दिसता. देखीक बाराव्या खंडांतले Tab. 5, 8, 11, 24, 25 आनी 30.

**कोंकणीचो अभाव**

हॉर्तूसाच्या पयल्या आनी दुसऱ्या खंडांत सगळ्या झाडाचीं कोंकणी नांवां नोंद जाल्यांत. पुण उपरांतच्या खंडांतल्या जायत्या चित्रानी कोंकणी नांवां खंयचेय लिपीन बरयिल्लीं दिसना. त्या चित्रांची माहिती सकयल दिल्या.

खंड 3- वट्ट 6, खंड 4-वट्ट 21, खंड 5-वट्ट 21, खंड 6-वट्ट 10, खंड 7-वट्ट 19, खंड 8-वट्ट 4, खंड 9-वट्ट 28, खंड 10-वट्ट 21, खंड 11-वट्ट 16, खंड 12-वट्ट 25.

तशें पळयल्यार हॉर्तूस मलबारिकूस ग्रंथाच्या तीन ते बारा खंडांत 172 झाडांच्या चित्रानी कोंकणी नांवां दिसनात. वयल्यान पळयतना ह्या झाडांच्या संपादनांत तीग कोंकणी वैद्यांचो हात ना, वा तांची वळख करून दिवपांत ते जैतिवंत जावंक ना, अशें कोणाचोय निश्कर्श जावंयेता. पूण सूक्ष्मतायेन पळयल्यार तशें थारावप बरोबर न्हय अशें कळून येतलें.

हॉर्तूसांतल्या दर झाडाच्या चित्रा संगाता त्या झाडा वयलो लॅटिन भाशेंत लेख आसा. तांतूंत झाडाचीं नांवां मलयाळम, कोंकणी आनी हेर कांय पश्चिमी भासांनी दिल्यांत. हीं नांवां तेळीत जाल्यार अशें समजून येतलें :

1. खंड 1 ते 8 : सगळे लेख संबधीत झाडांच्या कोंकणी नांवांचो उल्लेख करतात.
2. खंड 9 : ज्या झाडांच्या चित्रांनी कोंकणी नांवां नात, तांचे मदीं फकत Pal Valli (Tab.12) ह्या झाडाचें कोंकणी नांव आयलां.

. खंड 10 : खंयच्याय झाडांच्या चित्रांनी कोंकणी दिसना तर संबंधीत लेखांतय ती येवंक ना. मलयाळम नांवाचीं माथाळीं सोडल्यार लेख पूर्णपणान लॅटिन भाशेंत आसात.

. खंड 11 : खंयच्याय झाडांच्या चित्रांनी कोंकणी नांवां नात, तांचे मदीं फकत Kapa-Tsjakka (Tab. 1-2) ह्या झाडा वयल्या लेखांत कोंकणी नांव आयलां.

. खंड 12 : Tab. 1, 7, 12-13, 15, 16, 17 आनी 18 संबंधीत लेखांनी कोंकणी नांवाचो उल्लेख आसा. देखून, वयले वयर पळयतना खंड 9 ते 12 हांतूंत 172 झाडांक कोंकणी नांव ना अशें दिसलें तरीय तांचे मदीं 90 झाडांचीं नांवां लेखांत उपलब्द आसा आनी तीं नांवां कोंकणी वैद्यानीच सांगून लेखांत नोंद जाल्यांत म्हणपांत दुबाव ना. पुण उरिल्ल्या 82 झाडांची तांका वळख मेळ्ळी ना हेंय स्पश्ट जाता.

## नागरींत आनी रोमींत नांवांचो फरक

दुसऱ्या खंडांत आनी उपरांतच्या खंडानि झाडाचीं कोंकणी नांवां दोन लिपींनी बरयल्यांत. ह्या दोनूय लिपींतल्या नांवांची तुळा केल्यार जायते कडेन व्हडलो फरक दिसून येता आनी हे फरक तीन तराचे आसात. कांय अजापाच्यो गजालीय लक्षांत येता. (खंड आनी Tab. ची संदर्भ संख्या 1.1 हे पद्धतीन दिल्या)

वर्ग 1 : कोंकणी वैद्यांचे जिबेर जीं नांवां आशिल्लीं तीं ताणीं नागरींत सगळेकडेन एकसारखी बरोवंक ना, वा तीं बरयतना चूक जाल्या. देवनागरींत तळनमाडु : 1.11 बरयतना त आनी म चो अदलो बदल केला आनी रानवे : 12.65 हें नांव तर अर्दकुटेंच उरलां. देवनागरी नांवांत आयिल्ल्यो असल्यो चुको रोमी लिपींतल्या नांवांत सुदारिल्ली दिसता. तशेंच लेखांत कांय नांवांचें पर्याय आयलां. पुण जायते कडेन वैद्यानी उच्चारून सांगिल्लें नांव स्पश्ट जावंक नाशिल्ल्यान रोमींत बरयलें नांव

उच्चाराक अनुसरून जावंक ना. देख :-

| सं.सं. | देवनागरींत | रोमींत | लेखांत (रोमींत) |
|---|---|---|---|
| 1.11 | तमळताडु | Talatamado | |
| 2.25 | टा (ता ?) इकिळि | | òSaikilò |
| 3.22 | खाजुरी | Kasouri | Ka*f*ouri |
| 3.25 | खाफीर | Da*f*ouri | |
| 5.34 | तोफळि | Tepali | Tepali & Agadini |
| 12.50 | तालवो | Lauou | |
| 12.65 | रानवे | Rana Véte | |

वर्ग 2 : देवनागरींत जीं नांवां दिल्यांत तांचीं विशेश/विकसित रूपां रोमींत मेळटात. नांवांतलें 'दवो', 'दाकुली' आदी विशेशणां झाडाची जात (species) वळख करून दिवपाक चड उपकारतात. कोंकणी वैद्यांच्या तोणावयल्यान आयकून बरयल्लीं देखून रोमींतलीं हीं नांवां बरोबर म्हणूंयेता. स्वता देवनागरींत बरयिल्ल्या वैद्यानच नांवां मोटवीं करून बरयलें अशें अनुमान करूंयेता. देख :-

| सं.सं. | देवनागरींत | रोमींत | लेखांत (रोमींत) |
|---|---|---|---|
| 1.21 | पाकसो | | Dava Pocso |
| 2.30 | दुतिर्रो | | Vallo Dòtiro |
| 2.40 | काजुरकलि | | Daculi Ga*f*urkuli |
| 2.54 | नंदितु | | Vallò-Nanditu |
| 2.55 | नंदितु | | Dacolò-Nanditu |
| 3.55 | अडकेगोळी | | Dou-adeke-gòli |
| 4.7 | सदफळि | | Gove-*f*ada-palli |
| 4.29 | साइलो | Sailo | Douda-Sailo |

| .30 | साइलो | Sailo | Kaſailo |
|---|---|---|---|
| 15 | अपकारु | | Cali apacaro & Cunto |
| .17 | अपकारु | | Avali-apacaro |
| .29 | गागरि | | Butta Gageri |
| 0.8 | चितरकु | | Davo Citraco |
| 0.9 | चित्रकु | | Tambido Citr oco |

र्ग 3 :- देवनागरींत आनी रोमींत बरयल्ल्या नांवां मदें कसलोच संबंध देसना. देख :-

| ं.सं. | देवनागरींत | रोमींत | लेखांत (रोमींत) |
|---|---|---|---|
| .46 | कोळसो | | Bula- Vangà |
| .13-21 | ...ळनाड | | Andexa Motha-panna |
| 4.14 | नारिंगी | naringi | Citt-rana-nimba |
| 4.25 | ववळी | Vanvalli | Manil-galli |
| 4.32 | माट्टिट | | Mourmourataram |
| 5.29 | बेट्टशि | | Madanaka |
| 6.46 | दाकुलो तुपकळो | Daculo Bonda Calo | Daculo bonda calo |
| 6.54 | वीस मोगरी | Visa-Mogari | Saio |
| 7.4 | फिगदाचे पोलो | | Davo Roma Caro |
| 8.19 | पुडुमाडु | | Lachori |
| 8.20 | लाजिरि | | Lauri |
| 8.25 | गगरि | | Schama Puſpi |
| 10.72 | गोकुषरज | | Caca Tally |
| 10.84 | तुळरस | | Gandarli |

3.13 चित्रांतलें नांव अर्दकुटेंच आमा. (मलयाळम नांवाचेंय तशेंच). संबंधीत

लेखांत मलयाळम नांवांचें Mouta-panna हें पर्याय दिसता. तेंच चुकून कोंकणी नांवांत आयलां अशें दिसता. पुण Andexa हें उतर आमकां कुवाड्यांत घालतां. का(को)ळिङिल : 1.55 मलयाळम नांवांवयल्यान निर्माण जालां देखून रोमींतलें नांव बरोबर. 4.14, 5.29, 6.54, 8.25 आनी 10.84 संबंधीत लेखांतलीं रोमी नांवां पर्यायां आसूंयेतां. Lachori : 8.19, Lauri : 8.20 हीं लाजिरी : 8.20 चींच रूपां आनी पडुमाडु हें तांचें आनीयेक पर्याय. Caca Tally मलयाळम काकमुळ्ळु वयल्यान उपजलां अशें अनुमान करूंयेता.

**मलयाळम भाशेचो प्रभाव**

प्रमाण पत्रांत 'निसाणि' आनी ताचें मलयाळम भाशेंतल्यान रीण घेतिल्लें पर्याय 'ओप' अशी दोन उतरां आयल्यांत. हेर सुवातीनी मलयाळम भाशेंतल्यान घेतिल्लीं आनीकय जायतीं नांवां हॉर्तूसांत दिसून येता.

देखीक :- मइलांजि :1.40, पचोंटि :5.5, पाडावेली :7.49, पेचकपषण (पेचंकुपुष्पी) :9.58, काइपा :10.11, मइलोजन :10.66, ताळि :11.53.

कांय कोंकणी नांवां मलयाळम नांवांचो अणकार हें स्पश्ट जाता. पळयात : तांबिडो मंदारु : 1.32-33, धवा(वो) मंदारु, हस्ति का(कां)टो : 8.40, रान चवळी : 8.42, रुक को(के)ळि :12.22

**नांवांची पुनरावृत्ती**

हॉर्तूसांत जायत्या झाडांक एकच नांव दिल्लें दिसता. हीं झाडां - जांकां मलयाळमांत खाशेलीं नांवां आसात - एकच कुटुंबाचीं, पुण विंगड-विंगड Species चीं आसूंयेता.

हीं नांवां अशीं :- कारो 1.37, 9.56, अपराकु 5.15-18, बदरली 7.27, वेदरली (बेंदरली) 7.40, बेदरलि 12.14, गोरोचन 9.61, 9.68, दादुमार/दादुमारि 9.69, 9.71, गगरी 9.25, गागरी 9.27, तिळोणि 9.23, 9.33, तळाणि, 9.24, तिलि 9.48, तिलो 9.51, तिळो 9.49,

52, आबुलि 9.85, 10.6, आबली 10.40, भुइ आवाळि/बउइ आवाळी ).15-16, तुळसि 10.85, 10.86, 10.87,Tolassi12.24-25, टा(ता) केळि 2.25, ताइकिळि 2.53, साइकिळो 10.90, पानपाइ 2.27, पानपोइ 40, पानपोइ 10.27.

**र्तूसांतले कोंकणीचो वर्णविचार**

रंग भट, विनायक पंडित आनी आपु भट हे तीग वैद्य आपल्या प्रमाणपत्रांत घंट्टचो उल्लेख करतात देखून तांकां संस्कृत भाशेचो सामान्य परिचय आशिल्लो शें समजना. देखूनच जिबेवयले शब्द अचूकपणान देवनागरी अक्षरांनी बरवंयेता डणपाचें तांका गिन्यान आशिल्लें अशेंय अनुमान जाता. पुण हॉर्तूस मलबारिकूस थांत कोंकणी देवनागरींत बरयिल्ली रीत पळयतना अजाप जाता.

**. अनुस्वार :**

कोंकणींत अनुस्वार खूब म्हत्वाचो आनी अनुस्वारा विरयत उतरांचो र्थ बदलूंयेना आनी नश्ट जावंकय फावो. हॉर्तूसांतल्या देवनागरी कोंकणी माणपत्रांत कांय उतरांतले अनुस्वार दाखयल्यात, पुण हेर उतरांत गरज आसूनय अनुस्वार ना. सवत्सर, देशातु, सपादून, साजे, ते ह्या उतरांत जंय अनुस्वार जाय अशिल्लो, तो दिसना. देखूनुच मनुष्याक ह्या उतरांतल्या या वयर अनुस्वार घालपाचो तांचो उद्देश आशिल्लो काय ना हें समजना.

ग्रंथाच्या बाराय खंडांतल्या चित्रांचेर दिल्लीं देवनागरी नांवांचो अभ्यास केल्यार अनुस्वाराचो अभावूच चड प्रमाणान दिसून येता. अनुस्वाराची गरज ना म्हूण थारायिल्ले अशें समजता.

**2. इ-काराचो कुरवो :**

प्रमाणपत्रांत उतरांतलो इ-कार आनी ई-कार स्पश्ट करून दाखयल्लो आसा. पुण भितरल्या पानांचेर ई-कार चड लांब जाता, तेन्नाच दीर्घ स्वराची कुरू दिसता. देखीक कळाजीरें : 2.24, पातरफोणी : 5.11 आदी उतरां. हरशीं सगळे कडेन - ह्रस्व इकार हो नेम स्वीकारिल्लो दिसता.

इ-कारा खातीर प्रमाणपत्रांत व्यंजनाकडेन जें खूण जोडलां आनी जें अजून आमी वापरतात, तें भितरल्या पानानि आडवाद जावन दिसता. चड उतरानि इ-कार दाखोवपाक संबंधीत अक्षरा वयर ∩ कुरवो घालपाची चाल केल्या. देखीक माडि ह्या उतरांत ड चे वयर ∩ कुरवो आयला. ही पद्धत एक नेम कशी पाळिल्ली दिसता. पुण वाकिटी : 9.8 ह्या उतरांत 'टी' चरे एका वयर आनीयेक अशे दोन ∩ कुरवे दिसतात.

कांय उतरानी ई कार दाखोवपा खातीर 'इ' चे वयर बी ∩ कुरवो दवरला. देखीक पानपाइ : 2.27, ताइकिळी : 2.53

**3. उ-कार :**

प्रमाणपत्रांत कुमदोर, देशातु, मुसारो, गांवांतु ह्या उतरानी उकारा खातीर क, त, म, त ह्या व्यंजना सकयल जो कुरवो दिसता. तो ग्रंथांत हेर कडेनय वापरला. पुण जायत्या उतरानी संबंधीत व्यंजना लागीं उ अक्षरच दवरून हो स्वर दिल्लो दिश्टि पडटा. देखीक, वावउळी (वावुळी) कटि : 5.39, सरळउ (सरळु) : 6.15, पेलउ (पेलु), बउइव (बुइव - भुंय) आवाळी : 10.16, आळउ (आळु) : 11.15, 11.46, वालउ (वालु) : 8.43-44.

**4. कुरव्यांचो अभाव/घुस्पागोंदळ :**

देवनागरी व्यंजनां कडेन उ, इ, ए आदी स्वर दाखोवपी कुरवे जोडटना साबार कडेन ही ा खूण चड जोडिल्ली दिसता. ताका लागून कुरव्यांचो घुस्पागोंदळ जाला.

पळयात : माड्डा (माड्ड): 1.1, पाराईा (पाराई) : 3.54, वड्डा (वड्ड): 3.59, तिळों (तिळो): 5.52, तुावो (तुंबो): 10.91, तुाबा (तुंबो): 10.93, वा(बें)देरलीा : 12.28, वेतिा (बेती): 12.64, अगोरुा 10.48 ह्या उतरांत रु क जोडून इ-काराचें खूणय दिश्टि पडटा.

जायतीं नांवां वेग-वेगळे रुपान बरयल्यात.

देखीक :- माड्डु, माड्डो : 1-1, माड्डि,माडि : 1.1, तिळो-तिलो-नेळो : 5.52, सुरुनु/सुरनु : 11.20-21.

कांय नांवानी चुकीचीं अक्षरां आयल्यांत. पळयात :- कइगणी : 0.74, तुळरस : 10.78, तोरो : 11.22, काजउरो सुरु : 11.19, माडाराडाडि माजरा झडि)

काटेमागरो : 10.78 ह्या उतरांत ग उपरांतचें अक्षर (र) दिसना. पुण ताका जोडिल्ली ओकाराची खूण आसा.

**5. ब आनी व :**

हॉर्तूसांत देवनागरी बरयतना बा अक्षरांत जी \ रेघ आसूंक जाय ती जायते कडेन दिसना. हाका लागून अक्षर व काय ब असो दुबाव जाता. हो घृस्पागोंदळ प्रमाणपत्रांत बीज ह्या उतरांत आसा तसोच वोडकी, वोडककवासा, वोडककवासो : 1.1-5. वागि : 10.62, जाट वागि : 10.61 हातूंत दिसता.

**6. ब - भ विवेचन :**

ग्रंथांत ब आनी भ अक्षरांतल्या अल्प प्राण आनी महाप्राणा मदें विवेचन करूंक ना. भुंय हें उतर वेग वेगळे रीतीन बरयलां.

देख : बउइव आवाळी (10.16) बुइ गोळि (10.31), बुइ कवाळि 11.49, भुइ आवाळि 10.15, भुइचापो 11.9 भुइ केदकी 12.26

**7. भ अक्षराची आकृती :**

प्रमाणपत्रांत भट्ट, भट्ट ह्या नांवांत भ हें अक्षर जशें आयलां तशेंच ग्रंथान हेर कडेन वापरलां. पुण कांय उतरानी क्ष बरोवंक सुरवात करून अर्दकुटें सोडिल्ले भशेन भ अक्षराची आकृती आसा. पळयात - भुइ सदर्कळि 4.56, भुइ आवाळि 10.15, भुइचापो 11.9, भुइ केदकी 12.26, दरभभु 12.57

**8. 'म' आनी 'न' :**

प्रमाणपत्रांत शालिवाहन, विनायक, निरोपान आदी उतरानी 'न' बरयिल्लें 'न' बरयिल्लें 'त' कशें दिसता, तरीय सूक्ष्मतायेन पळयल्यार दोनय अक्षरां मदलो

उरक समजतलो. पुण ग्रंथांतल्या कांय देवनागरी नांवांतलें 'म' रोमींत रूपांतर जावन 'न' जाल्लें दिश्टि पडटा. देखीक : खारो मरवलु, मिळि, सुरुमु. ह्या बदलाचें कारण कळना आनी खरो उच्चार खंयचो तेंय समजना.

शेवटप्रमाण पत्रांत आनी हेर कडेन कोंकणी बरयली रीत / वर्णविवेचनांतले मुद्दे पळयले जाल्यार असो दुबाव जातलो - प्रमाण पत्र आनी नांवां एकेच व्यक्तीन बरयलें ? जे व्यक्तीन / ज्या व्यक्तीनीं बरयलां ताका / तांकां संस्कृत भाशेची वळख आसूनय देवनागरींत आनी कोंकणींत बरयतना वयर सुचयल्ल्यो चुको जावपाचें कारण कितें ? छापणा पय़लींचे प्रक्रियेत चुको जाल्यो व्हय ?

छापणा खातीर कागदावयल्यान चित्रां आनी ताचेर बरयिल्लें सगळें तांब्या पात्र्यार engrave करपाची जी प्रक्रिया चलताली ती संकीर्ण आनी खूब वेळ घेवपी आशिल्ली हांतूंत दुबाव ना. चित्र आनी ताचेर बरयिल्लीं अक्षरां जशाक तशीं अल्प पारदर्शक कागदार पयलीं trace करून घेताले आनी ताचें mirror image तांब्या पत्र्यार कोरांतून, कोरांतिल्ले खांचींत साय भरून मागीर पत्रो छापणा खातीर वापरताले. मूळ कागदावयली दर रेघ आनी बिंदूचेर लक्ष दिवंचें पडटालें.

3.13 चित्रांतल्या कोंकणी आनी मलयाळम उतरां अर्दकुटीं आसात हें पळयतना engraving प्रक्रियेंत कितें तरी चुकलां असो अनुमान जाता. देवनागरीं बरयल्ल्या कोंकणी नांवांचीं अक्षरां तांब्या पत्र्यार कोरांतना फरक जालो अशें धरूंयेता. पुण कोंकणी वर्णविचारा कडेन संबंध आशिल्ल्यो चुको कोरीव कामा वेळार घडल्यो कांय कोंकणी बरोवप्यानच केल्यो, हें समजुपाक झाडांच्या मूळ चित्रांचो अभ्यास करचो पडटलो.

**संदर्भ :**


1. शेणै गोंयबाब, कोंकणी भाशेचें जैत, मुंबई, 1930.
2. Arunkumar, N.S., Hortus Malabaricus - Charithravum Sasthravum, Thiruvananthapuram, 2014.

Bhave, Prof. Bhushan & Pai, Payyanur Ramesh, (Ed.) Seminar Papers on the Contribution of Konkanis to Hortus Indicus Malabaricus, Panaji, 2014.

. Da Cunha, Dr. Gerson, The Konkani Language and Literature, Mumbai, 1881.

. Mallaya N. Purushothama, The Role of Konkani Brahmin Ayurvedic Physicians Ranga Bhat, Vinayak Pandit and Appu Bhat of Cochin in the Compilation of Hortus Indicus Malabaricus - Revelation of true facts hitherto hidden and History of Konkanis During the Dutch Colonial Period Kochi, 2012.

. Mallya, N. Balakrishna, Hortus Malabaricus & the Contribution of Konkanis, Kochi, 2012.

. Manilal, K.S., Hortoos Malabarikoosum Itty Achyudanum, Calicut, 1996.

. Priolkar, A.K., The Printing Press in India, Mumbai, 1958

. Digital version of Hortus Indicus Malabaricus (12 Volumes), published between 1678 & 1693, available in the Internet Archives.

# हॉर्तूस इंडिकूस मलबारिकूसांतुली कोंकणी - एक भाषाशास्त्रीय विश्लेषण

- डॉ. पी. आर. हरीन्द्र शर्मा

[कोंकणी आनी हिन्दी भाशेंतलीं संज्ञावाचक शब्दां पासून संशोधन केलेले डॉ. पी.आर. हरीन्द्र शर्मा सद्या तिरुवनंतपुरम दूरदर्शन केंद्रांत काम करीत आसात; तांचें सोद निबंध पुस्तकरूपान उजवाडाक आयला. विविध पत्रिकेंत तांचीं लेखनां छापून आयल्यांत. - सं.]

'हॉर्तूस इंडिकूस मलबारिकूस' एक वनस्पतिशास्त्र ग्रंथु. ह्या ग्रंथाचे संपादक, श्री. रंग भट्ट, श्री. विनायक पंडित आनी श्री. आपू भट्ट, केरळांतुले कोच्चीचे वैदिक-वैद्य परंपरेचे कोंकणी उल्लोंवचे गौड सारस्वत ब्राह्मण आशिल्ले. हो ग्रंथु उजवाडाक आयिल्लो, क्रिस्त्वाब्द 1678 वर्षाक. खंचेय भाशेंतु ती भास प्रयोगारि एवंचे देशकालाचो आनी त्या भाशे लागि संपर्कु आशिल्ले मनशाले संस्कृतीचो प्रभावु आसचें स्वाभाविक. 'हॉर्तूस इंडिकूस मलबारिकूस' हे ग्रंथांतुले कोंकणी भाशेचे विषयांतूय हें सग खरेंच. ध्वनि, उत्तर, पद, अर्थ आनी वाक्य हे सग दृष्टीन चोयलारि हांतुले कोंकणींतु हो स्वाभाविक प्रभावु, स्पष्ट जावनु दिकूक पडता.

रंग भट्ट, विनायक पंडित आनी आपू भट्ट हे तेग जाण वैद्यांनि हे ग्रंथाक दिल्लेलें प्रमाणपत्र कोंकणींत आसा. तें अशि मेळता -

स्वस्ति श्री शालीवाहन शक 1597 राक्षस संवत्सर चैत्र बहुळ 10 कोची राजपटणी बैसिके रंग भट्ट तथा विनायक पंडित आपू भट्ट तेग वैद्य तानिं कोचिचा कुमदोर आंड्रिकि फांड्रे त्याचा निरोपान ह्या मलबार देशांतु आशिले औषध मात्र वृक्ष वालि झाड खंद ओळखतेल्या मनुष्याक मुसारो देवूनु ते ते गांवांतु पेट्टवून तिं तिं वोखद आणवून त्या त्या झाडांचे फल पान बीज समस्त त्या त्या रुतु कालावरि संपादून तिं तिं चितारिली त्या उपरांत आमि आमगेल्या वैद्य ग्रंथाचा निघंटा प्रमाणिं त्या त्या ओषधाचे गुण वा अनुभवान जो जो गुण आमकां कळेली तो वा त्यां ओखदांची नांव पळेउनु आजि दानि वर्षं सकाळिं सांजे आमिं लागि राबून हा लिव्रु संपादून दिला तें

टिक अशि म्हणुंचाक नज अशि म्हणु आमि आमची निसाणि कर्णु दिली तें त्य म्हणु मानुचें जाऊद म्हणु नागर बरपान हें बरवून दिलां श्री

मूल रूपान संस्कृतांतु थाकून जन्म घेवनु विकास पाविल्ले कोंकणींतु, स्कृताचे तत्सम आनी तद्भव उतरां चढ आसुचें स्वाभाविक. असलिं उतरां तना, देशी आनी विदेशी उतरांत कोंकणींत स्वीकार केल्लेलें आसा म्हणु ःकूक पडता.

कसलेंय शुभ कार्य प्रारंभ कोरचे वेळेरि आनी प्रमाणपत्र आदि रोंवचे वेळेरि देशकालाचें विवरण दिंवचि प्रथा वैदिक-वैद्य परंपरेंतु ामा. हे प्रथेक अनुरूप जावनु, सर्वप्रथम, स्वस्ति श्री शालिवाहन 1597 ाक्षस संवत्सर चैत्र बहुळ 10 म्हळ्ळेलि कालाचि वर्णना संस्कृताचे तत्सम उतरांनीच केल्या. हांतु स्वस्ति आनी श्री क्रमान मंगल आनी ऐश्वर्य सूचक त्सम उतरां. त्या उपरांते, कोची राजपटणी बैसिके अशि देशाचि वर्णनाय ेळता. 'कोच्चि राजपटणांतु वासु कोरनु' म्हळ्ळेले अर्थारि अशि सांगील्या. हांतु राजपटणी आनी बैसिके हे दोन पदांक केरळांतुले कोंकणी पशीय चड गोंयचे कोंकणी लागि साम्य आसा. केरळांतुले कोंकणींत 'राजपटण' हे उतरा लागि 'आंतु' म्हळ्ळेलें अधिकरण प्रत्यय जोडले सिवाय, हें सांगचाक ाध्य ना. गोंयांत थाकून केरळांतु कोंकणी समूहाचें देशांतर क्रिस्त्वाब्द 1560 तु जाल्लें, आनी हे ग्रंथाची रचना क्रिस्त्वाब्द 1678 तु जाल्ली अशि विद्वान लोक लेकतानि. केरळांतुले त्या कालाचे कोंकणींत असले प्रयोग सामान्य आशिल्ले जावयात.

हे प्रमाणपत्रांतु रंग भट्ट तथा विनायक पंडित आपू भट्ट तेग वैद्य तानिं अशि कोणे हे ग्रंथाचें संपादन केल्या हें स्पष्ट रूपान सांगील्यां. आयचे कोंकणींत आमी 'आनी' म्हुण सांगुचे स्थानारि, 'तथा' म्हळ्ळेलें तत्सम उत्तरचि हांगा मेळना. कोचिचा कुमदोर आंड्रिकि फांड्रे त्याचा निरोपान हे भागांतु थाकून कोच्चीचे Commander आंड्रिकि फांड्रेले आज्ञेन हे ग्रंथाचे संपादन

केल्यां म्हूण स्पष्ट जाता. हांगा Commander म्हळ्ळेले युरोपीय उत्तर कोंकणीचे प्रकृतीक अनुरूप जावनु 'कुमदोर' म्होणु सांगील्यां.

अन्य भासेंतुलि 'अ' म्हळ्ळेलि ध्वनि 'ओ' जावनु स्वीकार करचि कोंकणीचि प्रकृति. संस्कृतांतुलि 'दामोदर' म्हळ्ळेलि संज्ञा, सामान्य कोंकणींत 'दमोदर' जांवचे हे प्रवृत्तीचें दृष्टांत जावनु दीवयात. संस्कृतांत थाकून आशिल्ले कोंकणीचे विकास यात्रेंतु, प्राकृत भासेचो मस्त प्रभावु कोंकणीचेरि आयलोल आसा. तो आजीय स्पष्ट मेळता. 'अ' ध्वनि 'ओ' जावनु परिवर्तित जांवचाचें कारणय होचि प्रभावु. 'तांगेले' म्हळ्ळे अर्थारि 'त्याचा' अशि सांगील्या. आजि केरळांतुले सामान्य कोंकणींत प्राणिवाचक संज्ञेचें आनी सर्वनामाचें संबंधकारक प्रत्यय जावनु 'चा/चो', 'चें', 'चे', 'चि', 'चिं' हीं प्रत्यय काडप ना. हे स्थानारि क्रमान 'लो', 'लें', 'ले', 'लि', 'लिं' हीं प्रत्ययां मात्र प्रयोग करताति. मराठींत 'चा', 'चे', 'चि' (रामाचा, रामाचे, रामाचि) हीं प्रत्ययां प्राणिवाचक आनी अप्राणिवाचक संज्ञेंचेय, सर्वनामांचेय लागि जोडताति अशि आयकिल्लासा. हांगा त्याचा म्हळ्ळेले प्रयोगांतु होच मराठी प्रभावु आसा अशि दिसता. महाराष्ट्राचे समीप प्रदेशांत थाकून देशांतर केल्लेले जनपदाले भासेंतु - विशेष जावनु त्या कालाक - मराठीचो प्रभावु आसुचें स्वाभाविकच.

निरोपान म्हळ्ळेले तद्भव उतराक 'आज्ञेन' अथवा 'अनुमतीन' म्हुण अर्थु मेळता. जाल्यारि केरळांतुले थोगडे विद्वानांनि हें उत्तर 'निरोपान' न्हंय 'तिरपान' अशि सांगील्यां. मलयाळांतु 'तीरप्पिनाल' म्हळ्ळेले उतरांक 'आज्ञेन' म्हणु अर्थु आसा. हे उतराक कोंकणीचे प्रकृतीक अनुरूप जावनु 'निरोपान' म्हुण केल्लेलें जाल्यारीय अर्थाक परिवर्तन येना.

ह्या मलबार देशांतु आशिले औषध मात्र वृक्ष वालि झाड खंद ओळखतेल्या मनुष्याक हे भागाचि कोंकणी आजि केरळांत प्रयोगारि एवंचि कोंकणीय जावनु विशेष अंतर कांय ना. 'देश', 'ओषध', 'वृक्ष', आनी 'वालि' हीं सग उतरां संस्कृतांतुलीं तत्सम उतरांच. 'ओषध' आनी 'वालि' हे दोन

तरांतु मात्र ध्वनीचे दृष्टीन अल्प परिवर्तन हाडलेंलासा. 'खंद' म्हळ्ळेलें
त्तर संस्कृतांतुले 'स्कंध' म्हळ्ळेले उतरांतु थाकून जाल्लेलें तद्भव उत्तर.
झाड' एक देशी उत्तर. 'ओळख' मराठींत थाकून कोंकणीक मेळ्ळेलें उत्तर
गावनु लेकुयात.

मुसारो देवूनु ते ते गांवांतु पेट्टवून तिं तिं वोखद आणवून त्या त्या
झाडांचे फल पान बीज समस्त त्या त्या रुतु कालावरि संपादून म्हळ्ळेले
मागाक दंद केलेल्याक दिवंचे धनराशि म्हळ्ळेले अर्थारि 'मुसारो' म्हुण दिल्यां.
हें अरबी-फारसी स्रोतांत थाकून कोंकणींत आयिल्लें उत्तर. मुसलमान शासकांनि
कोंकण देशांतु राज केल्लेंलासा. त्याच कारणान, कोंकणींत असलीं उतरां
येवचें स्वाभाविक. बाकी सग तत्सम, तद्भव आनी देशी स्रोतांत थाकून
कोंकणींत आयिल्लीं उतरांच. 'ऋ' ध्वनीक 'रु' केल्लेलें प्रयत्न लाघवा खातिर
जावो, मुक मुखा खातिर जावो आसुयात.

तिं तिं वोखद आणवून त्या त्या झाडांचे फल पान बीज समस्त त्या
त्या रुतु कालावरि संपादून तिं तिं चितारिल्ली त्या उपरांत आमि आमगेल्या
वैद्य ग्रंथाचा निघंटा प्रमाणिं त्या त्या ओषधाचे गुण वा अनुभवान जो जो गुण
आमकां कळेली तो वा त्यां ओखदांची नांव पळेउनु हें भागांतूय तत्सम आनी
तद्भव उतरांच मेळनानि. हें भागांतु मेळ्ळचि दोनि प्रकाराचि विशेषता
उल्लेखनीय आसा. हांगा आमगेल्या म्हणु सांगिल्लें आसा. फूडे प्राणिवाचक
सर्वनामाचे संबंधकारक प्रत्यय जावनु चा म्हळ्ळेले प्रत्ययाचो प्रयोग केल्लोलो
आमि दिकून जाल्लो. जाल्यारि हांगा 'आमचा' म्हणु सांगूनात्तिल्लें, 'आमगेल्या'
म्हूण सांगील्यां. हांगाचे ल्या म्हळ्ळेले संबंधकारक प्रत्ययाक, आजि केरळांतुले
कोंकणींत सांगुचे ले म्हळ्ळेले संबंधकारक प्रत्यया लागि साम्य आसा. संस्कृतांतुले
'लग्न' म्हळ्ळेले उतरांत थाकून हे प्रत्यायांचे उद्भव जाल्यां, अशि लेक्कुयात.
अशि एक वाक्य मात्र अशिल्ले हे प्रमाणपत्रांतु, एकच कारकाचि प्रत्ययां
विभिन्न रूपान मेळनानि. अशी एकच उतराचिं तत्सम आनी तद्भव हीं
दोन्नीय रूपां हांतु मेळनानि. हंगा औषध म्हळ्ळेले संस्कृत संज्ञेचें तत्सम उत्तर,

अल्प मात्र ध्वनि परिवर्तनान ओषध म्हुण दिल्यां. त्या उपरांतें तेच संज्ञेचें तद्भव जावनाशिल्ले ओकद (ओखद) म्हळ्ळेलें उतरांय मेळतात. हेच वाक्यांतु, फूडेचे एक भागांतु, हे संज्ञेचें तद्भव उत्तर 'वोखद' म्हणूय मेळता. अशि, एक तत्सम रूप आनी दोन तद्भव रूपीं जावनु एकीच संज्ञा तीन प्रकारीं हांतु मेळता 'ओषध', 'आखद' (ओखद) आनी 'वोखद'. आजीय केरळांत हे तिन्नीय प्रकारीं हे संज्ञेचें उच्चारण करतातित.

आजि दानि वर्ष सकाळिं सांजे आमिं लागि राबून हा लिव्रु संपादून दिला तें लटिक अशि म्हणुंचाक नज अशि म्हणु आमि आमची निसाणि कर्णु दिली तें सत्य म्हणु मानुचें जाऊद म्हणु नागर बरपान हें बरवून दिलां श्री - हे भागांतूय फूडे सांगिल्ले चारीय स्त्रोतांचिं उतरां मेळतातित. हांगा 'लिव्रु' म्हळ्ळेले युरोपीय उत्तर, पुस्तक (ग्रंथ) म्हळ्ळेले अर्थारि दिल्यां. हस्ताक्षर म्हळ्ळेले अर्थारि, 'निसाणि' म्हळ्ळेले फारसी उत्तरय मेळता. अरंभारि दिल्लेलेच प्रमाणिं ऐश्वर्यसूचक जावनु अंत्यारीय 'श्री' म्हणु दिल्यां.

ताम्र पत्रारि बरेयलेले हे प्रमाणपत्रारि थोगडे कडे बरप स्पष्ट जाल्लेना, अशि दिसता. उदाहरणाक, 'दोनि' म्हळ्ळेले अर्थारि मेळचें 'दानि' म्हळ्ळेलें काडुयात. 'ओखद' म्हळ्ळेलें उत्तर आखद म्हुणूय बरेयलेलें आसा. हांगा दोनीय कडे, ओंकार सूचक चिह्न स्पष्ट जाल्लेना, अशि दिसता.

कोंकणी भासे खातिर नागरी लिपीचि सार्थकता म्हळ्ळेले विषयांतु चर्चा परिचर्चा सग आरांभुचे शतकां शतकां फूडे, 1678 तु हें प्रमाणपत्र बरेयलेले तेग जाण कोंकणी वैद्यांनि ध्वनिगत दृष्टीन कोंकणीक सर्वथा अनुयोज्य जावनु आशिल्ले नागरी लिपीनच हें बरेयलें मात्र न्हंय, तें 'नागर बरपान बरवूनु दिला', अशि काणु सांगिल्लेंय आसा.

हें प्रमाण पत्राचे पोंदाक, हे तेगांय वैद्यांनि नागरि लिपीनच तांगेलें हस्ताक्षर दिल्लेलासा. हें पळेयलार, केरळांतुले मलयाळम भासेचो

भावु तेदूस थाकुन केरळांतुले कोंकणींत एवनु आसा म्हळ्ळेल्याचें दृष्टांत
ागेन मेळता. प्रथम हस्ताक्षरांतु, 'रंग भट्ट' म्हुण बरेयल्यां. दुसऱ्यांत
वेनायक पंडित' म्हुण बरेयल्यां. तिसऱ्यांतु 'आपुचि ओप' म्हुण दिकूक
डता. हस्ताक्षराक, मलयाळांत 'ओप्प' म्हुण नांव. अन्य भासेंतु थाकून
ोंकणींत उतरां स्वीकार कोरचे वेळेरि कोंकणीचे प्रकृतीक अनुरूप जावनु,
ांतु परिवर्तन एंवचें स्वाभाविक. कोंकणींत व्यंजन सोणु, स्वर ध्वनीचें
ीर्घीकरण कोरचि प्रवृत्ति आसा. उदाहरणाक संस्कृतांतुलि 'हस्त' म्हळ्ळेलि
ंज्ञा, कोंकणींतु 'हात' जात्ता. त्याचि प्रमाणिं 'ओप्प' म्हळ्ळेले मलयाळम
उतरांतुले 'प्प' म्हळ्ळेलें द्वित्व सोणु, ताजे क्षतिपूरक दीर्घीकरण (Com-
pensatory Lengthening) खातिर, त्या उतराक 'ओप' म्हणु कोंकणींत
उच्चारण करताति. तशीच तें उत्तर हे प्रमाण पत्रांतूय मेळता 'आपूचि
ओप'. 'ओप' म्हळ्ळेले उतराक, त्या उतरांतुले अँ ध्वनी खातिर कोंकणींत
स्त्रीलिंग रूपान स्वीकार केल्ला. त्या कारणान, 'आपूलि ओप' म्हळ्ळेले
अर्थारि, फूडे सांगिल्ले प्रमाणिं संबंधकारक प्रत्यय 'चि' जावनु (आपूचि
ओप) बरेयल्यां अशि दिकूक पडता. हांतुले उतरांत मेळचि अनुस्वाराचि
बहुलता, कोंकणी भासेचि उल्लेखनीय विशेषता.

हॉर्तूस इंडिकूस मलबारिकूस म्हळ्ळेले हे बृहत् ग्रंथांतु, औषधांचिं
नांवां कोंकणींतूय दिल्लेंलासाति. जाल्यारि, डच लोंकांनि कोंकणी म्हळ्ळेले
नांवांचो प्रयोग त्या ग्रंथांतु केल्लोना. त्या पिरतिं LINGUA BRAMANUM
म्हुण सांगील्या. हे ग्रंथाचें संपादन केल्लेले तेग जाण वैद्य, कोंकणी भास
उलोंवचे गौड सारस्वत ब्राह्मण आशिल्ले, हेंच कारणान, डच लोकांले दृष्टीन,
कोंकणी ब्राह्मणांलि भास आशिल्लि. तें दिकून तान्नि उजवाडायलेले हे विशिष्ट
ग्रंथांतु हे भासेक LINGUA BRAMANUM (ब्राह्मणांलि भास) म्हुण सांगील्यां.
हे ग्रंथांतु, तान्नी कोंकणीनय औषधांचि नांवां दिल्यांय; जाल्यारि तीं नांवां
रोमी लिपीन आसाति.

12 वोळ्यूम जावनु 1616 पानां आशिल्ले हे बृहत् गंथांतु 74
औषधांचि वर्णना मेळता. हे औषधांचिं कोंकणींत दिल्लेलिं नांवां काणु विश्लेष
केल्यारीय, तीं चढय तद्भव उतरां म्हूण स्पष्ट जात्ता.

उदाहरण :

| संस्कृत | | कोंकणी |
|---|---|---|
| आमलक | - | आवाळी |
| आम्रातक | - | अम्बाडो |
| उदुंबर | - | रुंबड |
| कदली | - | केळि |
| कर्पास | - | कपूसी |
| कारास्कर | - | कारो |
| कुटज | - | कूडो |
| चिंचा | - | चींच |
| तिक्त | - | तिक्खी |
| नील | - | नीळि |
| पिप्पल | - | पिंपळु |
| बकुल | - | वव्वळि |
| मेथी | - | मेत्ति |
| वट | - | ओडु |
| वंशी | - | वासि |

हे तद्भव उतरांतु जाल्लेलें ध्वनि परिवर्तन, उच्चारण सुखाक अनुरूप
जावनु जाल्यां अशि दिकुयात.

निष्कर्ष रूपान सांगल्यार, हॉर्तूस इंडिकूस मलबारिकूसांतुले कोंकणी
भासेचें भाषा शास्त्रीय विश्लेषणांतु थाकून स्पष्ट जात्ता, हांतुलि कोंकणी,
संस्कृत निष्ट कोंकणी म्हुण. वैदिक-वैद्य परंपरेचे तेग जाण कोंकणी ब्राह्मणांनि
संपादन केल्लोलो ग्रंथु म्हणतना, ही विशेषता स्वाभाविकच. जाल्यारि देश

कालाचे प्रभाव निमित्तिं, संस्कृतांतुले तत्सम आनी तद्भव उतरां नंतना, देशी, विदेशी आनी मलयाळम उतरां हांतु मेळतातिं. तद्भव उतरांत जाल्लेलें ध्वनि परिवर्तन, भासेचे क्लिष्टतेंत थाकून सरळतेंत जावचें, सहज आनी स्वाभाविक प्रयाणाचें परिणाम म्हुण मानून घेवयात. कारक प्रत्यायांचे दृष्टीन चोयलार मराठीचो प्रभावु हांतुले कोंकणींत दिकूक पडता. एकच कारक प्रत्ययाचिं विभिन्न रूपां एकच वाक्यांत मेळचें हांतुलि विशेषता जावनु आसा. दीर्घ जाल्यारीय, एकच वाक्यान हें प्रमाणपत्र बरेयलें म्हळ्ळेलीय एक विशेषताच. एकच संज्ञेचें तत्सम आनी तद्भव रूपां एकच वाक्यांतु आयिल्लें आसा. तें नंतना, त्या तद्भव उतराचींच दोनि विभिन्न रूपां तेच वाक्यांतु आसाय म्हळ्ळेलेंय विशेषता जावनु दिसता. ध्वनिगत दृष्टीन कोंकणी भासेक सर्वथा अनुयोज्य जावनु आशिल्ले देवनागरी लिपीनच हे तेंग जाण वैद्यांनि हें प्रमाण पत्र बरेयलें म्हळ्ळेल्यांतु थाकून, हे ग्रंथांतुल्यान तांकां औषध सस्यां पासून आशिल्ले ज्ञानाचें मात्र न्हंय, तांकां तांगेलि आवय भास जावनशिल्ले कोंकणीचे ध्वन्यात्मक विशेषते विषयांतुले वैज्ञानिक दृष्टिकोणाचेंय लागेन दृष्टांत मेळता.

# हॉर्तुसांतलीं कोंकणी नांवां

**- एस. रामकृष्ण किणी**

[एक कोंकणी वावुरपी म्हणून अभिमान पावचे एस. रामकृष्ण किणी एक निवृत्त बँक अधिकारी आसात. सस्यशास्त्रांत बी.एस.सी. पदवी जोळ्ळेले किणी आतां कोंकणी लेंग्वेज इन्स्टिट्यूटाचो निर्देशक म्हणून वावर करता. हालींच उजवाडायिल्लो एक तमिळ-कोंकणी शब्दसंग्रहांत तांचो सहयोग सक्रिय आशिल्लो. - सं]

हॉर्तूस मलबारिकुसांतलीं चित्रां पळोवन थांगा दिलेलीं कोंकणी नांवां पुंजावन काडचाक प्रत्न करतना खूब महत्वाचे अनेक विषय आमकां मेळटात. तांतुले थोडे विषय हांगा दितां :

01. हॉर्तूस मलबारिकुसांत खंय 'कोंकणी' ह्या नांवाचो उल्लेख केलो ना. पुण कोंकणी उतरां (झाडांचीं नांवां) दिल्यात. आनी तांचीं नांवां दिताना त्या भासेची वळख 'ब्राह्मणाची भास' म्हणू दिला. 'लिंग्वा ब्राह्मणिका एंटिका' (Lingua Bramanica Antiqua) हें नांव ह्या ग्रंथांत वापरला. युरोपांतले पंडितलोक त्या कालांत कोंकणीक दुसरे दुसरे नांवान वळखताले आनी हें तसले एक नांव आशिल्ले. हाजें ह्रस्वरूप जावन (Lingua Bramana, Lingua Bramannum) अशेंय बरयलेलें दिसून येता. पूण चित्रांचे सांगात कोंकणी नांवां देवनागरी लिपीनय तांचो उच्चार रोमी लिपीनय दिल्ले आसा.

02. फकत कोंकणीकच न्हय, ह्या ग्रंथांत मलयाळम भासेकय तशें वळखले नात. तांणी मलयाळमाक मलबारिकी (Malabarici) म्हणूनच हांतु दाखयलां. ज्या चित्रां लागी तांचीं नांवां दिल्यांय, त्या जाग्यार तशेंच बरयलां आनी ताचें ह्रस्वरूप जावनु Mal. म्हणूच बरयलां.

03. ह्या ग्रंथसमुच्चयांत दिश्टी पडचीं सर्व चित्रांतुय चार भासांनी नांवां दिल्यात अशें ना. खूब चित्रांत तीन भासांनी बरल्यात तर आनी खूब चित्रांत फकत दोनीच भासो दिसतात. खंय कोंकणी आसा पुण खंय ना;

खंय मलबारी आसा तर खंय ना. आनी थोडीं चित्रांक फकत अरबी लिपीनय नांवां दिल्यांय.

4. हॉर्तूसांत चित्रां सांगातच एकेक विस्कळ माहिती दिल्या. तशें विस्तृत जावन बरोवचें पयलें एकेक भासेन ते झाडाक कसलें नांव आसा म्हणून रोमी लिपीनय बरयलां. केन्ना केन्ना डच या बेलजियन भासेंतलीं नांवांय अशें लेटिना बरोबर रोमी लिपीन दिलेलीं दिसतात. लॅटीन, मलयाळम, कोंकणी, पर्शियन या अरबी शिवाय खंय पोर्तुगीस आनी बेलजियन नांवांय विवरणांत दिसून येतात. आनी उपरांत त्या झाडाचें वखद कशी तयार करप हेंवय त्या विवरणांत सांगलां. हीं विवरणां सर्वय लेटिन भाशेनच आसात.

05. लॅटिन भासेचीं म्हूण मुचोवंक Lat. अशें चित्रां सांगात दाखयल्यांय. पुण चित्रां लागीं दिल्लीं तीं कोंकणी नांवां जशें रोमी लिपीन दिलीं तशेंच मलबारी भाशेंतलीं नांवांय रोमी लिपीन दिल्यांय आनी भास लॅटिन म्हूण दाखयल्यांय.

06. तशें जावन थोडीं चित्रां सांगात कोंकणी नांवां देवनागरी लिपींत आसात तर त्या झाडा पासून दिलेल्या विवरणांत तीं नांवां रोमी लिपींत आसात. जाल्यार सर्व विवरणांतुय कोंकणी आसा अशें ना. थोडे चित्रांनुय विवरणांनुय कोंकणी नांवां दिसूंकच ना. देवनागरी नांव आनी रोमी नांव हांचें मद्दें फरकय दिसता. देखून ह्या संबंध आनीकय चड निरीक्षण/ शिकवण करूंक आसा.

### हॉर्तुसांतलीं गांवचीं नांवां

हॉर्तुस मलबारिकुसांत उल्लेख केलेलीं झाडां वैद्य लोकांनी खंय खंय साकून हाडयलीं ह्या विशयाची माहिती त्याच ग्रंथांतल्यान आमकां मेळता. हॉर्तुसांत वेगवेगळे कडे तशी परामर्श केलेलीं गांवचीं नांवां तेन्ना कशी आशिल्लीं आनी मागीर बदलून आज कशी जाल्यांत हें एक कुतूहल दिसता.

त्या खातिर हांगा ही माहिती दिल्या :

| क्रम संख्या | पयलीं नांवां | आयचीं नांवां |
|---|---|---|
| 1 | Ambalakatti | Ambalakkadu |
| 2 | Angecaimal/Ansjecaimal/Kaimal | Ernakulam |
| 3 | Aregatti | Aragattu |
| 4 | Aroe | Aroor |
| 5 | Aroer | Aroor |
| 6 | Arregatti/Aregatti | Arengatte/ Arengattu |
| 7 | Atingen | Attingal |
| 8 | Atsjencoil/Atsjencoyl | Achankovil |
| 9 | Baykom | Vaikom |
| 10 | Bellanga/Bellange/Bellango | Vellangallur |
| 11 | Benduruti | Willingdon Island |
| 12 | Betimene | Vattamana |
| 13 | Betsjour | Vechoor |
| 14 | Beypin/Baypyn | Vypeen Island |
| 15 | Calicolang/Calgolano/Calicolan/ Kalicolan/Calicolangen | Kayamkulam |
| 16 | Calicut/Calecut | Kozhikode |
| 17 | Candanata/Kendenato/ Candanate/Candenate | Kandanaadu |
| 18 | Canjoer | Kannur |
| 19 | Castello | An island north of Aroor (आज ना) |
| 20 | Catouer/Catour | Kattoor |

| | | |
|---|---|---|
| 21 | Chenotti/Chanotti | Chendamangalam |
| 22 | China | China |
| 23 | Cochin | Kochi |
| 24 | Coila/Coylen | Kollam |
| 25 | Corremaloer | Kudamaloor |
| 26 | Cota | Kota |
| 27 | Cottate/Cotate | Kottayam |
| 28 | Couroer/Couroernade | Curoornaadu |
| 29 | Cranganore | Kodungallur |
| 30 | Elle de soroan | Elayidath Swaroopam |
| 31 | Goendra | Kundara |
| 32 | Jaffanapatnam | Jaffna |
| 33 | Mangetti/Mangatti/Mangotti | Alangadu |
| 34 | Manilhas | Philippines |
| 35 | Mayyazhi | Mahe |
| 36 | Mondabelle | Mundamveli |
| 37 | Moutan/Mouta | Muttam |
| 38 | Oedempere | Udayamperoor |
| 39 | Palacattasjiri | Palakkattucherry |
| 40 | Paloerti/Palourti/Paelurti | Palluruthy |
| 41 | Pananie/Panpani | Ponnani |
| 42 | Paniture/Tirpoutare | Tripunithura |
| 43 | Paracaro/Paracavo/Parakaroo | Paracaroo |
| 44 | Parou/Paroe | North Parur |
| 45 | Perquencour/Berkencour | Vadakkumkoor |
| 46 | Poiga | Poyya |
| 47 | Porca/Porka | Purakkad |

| | | |
|---|---|---|
| 48 | Repolin/Rapolyn/Repolyn | Edapalli |
| 49 | Teckencour | Thekkumkoor |
| 50 | Tirsjour/Tirthour | Thrissur |
| 51 | Trevancoor | Travancore |
| 52 | Tuevantoor | Tiruvananthapuram |
| 53 | Warapoli/Warapouli | Varapuzha |
| 54 | Zeylan/Zeilonieae/Zeilan | Sri Lanka |

तरी पुण थोडीं गांवचीं नांवां आमकां समजूक जालीं नात आनी वळखूंक कठिण दिसतात. तीं हांगा वेगळीं दिल्यांत :

| | | | |
|---|---|---|---|
| 55 | Alican | 62 | Petravide |
| 56 | Atroparotto | 63 | Poaha |
| 57 | Bardelle/Bardette | 64 | Poedegoyl |
| 58 | Calare | 65 | Portea |
| 59 | Calnolan | 66 | Recare |
| 60 | Catati | 67 | Trigolin |
| 61 | Peratr-vidi | | |

# भाग 5 - वखदी वनस्पतीचीं नांवां

हॉर्तूस मलबारिकुसांत जायतीं झाडांचीं चित्रां आसात आनी चित्रांचे सांगातच तांचीं नांवां दिल्यांत हें आमी पळयलां. कोंकणीचे संदर्भांत विचार करताना तीं नांवां देवनागरी लीपिनच आसात हें आमचें लक्ष्यांत येता. पुण देवनागरी लिपीच्या सांगातच जायतें कडे त्या नांवांचो उच्चार लॅटिन लिपीनय दिला. लॅटिनाक रोमी लिपी वापुरताले देखून कोंकणी उतरां रोमीनय दिल्यांय अशी सांगूं येता. जाल्यार चित्रां उपरांत लॅटिन भाशेनच त्या झाडांत कसलीं वखदी मूल्यां आसात आनी कशी वखद तयार करप ही माहिती दिल्या. त्या संदर्भार कोंकणी आनी मलबारी सयत चार-पांच भासांनी त्या झाडांचीं नांवां लागून दिल्यांत.

हांगा समग्र हॉर्तुसांतलीं कोंकणी नांवां पुंजावन एक वळेरी तयार करपाचो यत्न आमी केला. तेन्ना खूब गजाल्यो आमकां पळोवंक मेळ्ळ्यो. ताका लागून आमी तीन तराच्यो वळेरी तयार केल्यो.

वळेरी 1 : हॉर्तुसांतलीं चित्रां सांगात दिल्लीं कोंकणी नांवां (देवनागरी लिपी)

वळेरी 2 : चित्रां सांगात दिल्लीं कोंकणी नांवां (लॅटिन / रोमी लिपी)

वळेरी 3 : चित्रां सांगात कोंकणी (देवनागरी / रोमी) नांवां नात

आनी कोंकणी नांवय ना, मलाबारी नांवय ना - असलीं चित्रांय आसात. नांवच नाशिल्लीं चित्रांय हॉर्तुसांत मेळटात पुण तीं आमकां ह्या कामाक लागनात.

वळेरी तयार करताना झाडांचीं शास्त्रीय नांवांय लागीच दाखोवचें अशी आमकां दिलसें. बॉटनी शिकपी विद्यार्थ्यांक तें उपकाराक पडटलें अशी आमकां दिसता. ह्या वावराक डॉ. के. एस. मणिलाल हांणी तयार केल्ले हॉर्तुसाची मलयाळम आनी इंग्लीश अनुवादांचो पालव घेतला. एन.एस.अरुण कुमारालें 'हॉर्तूस मलबारिकूस - चरित्रवुम शास्त्रवुम' ह्या पुस्तकय वापुरला.

ह्या वावराक खूब वेळ काडून आपल्या बॉटनी पदवीचो फ़ायदो आनी सस्यशास्त्र शिकवणेचो अनुभव वापरून श्री एस. रामकृष्ण किणीन उपकार केला. तांकां देव बरें करो.

- सं.

## वळेरी 1 : हॉर्तुसांतलीं चित्रां सांगात दिल्लीं कोंकणी नांवां (देवनागरी लिपी)

| क्रम संख्या | कोंकणी नांव (देवनागरी लिपीन) | कोंकणी नांव (रोमी लिपीन) | मलयाळम नांव (मलयाळम लिपीन) | वनस्पती नांव (बॉटनी नांव) | खंड आनी चित्र संख्या |
|---|---|---|---|---|---|
| 001. | अगसता | Godoe Ambado | അകത്തി | *Sesbania grandiflora* | V.1, F.51 |
| 002. | अट्टगेकुडो | Cudo | കൊടകപ്പാല | *Holarrhena pubescens* | V.1, F.47 |
| 003. | अडकेगोळी | Areca-Goli | ഇത്തിആലു | *Ficus microcarpa* | V.1, F.26 |
| 004. | आबाडो | Bencaro | അമ്പഴം | *Spondias pinnata* | V.1, F.50 |
| 005. | आवळि | Anvali | നെല്ലിക്കാമരം | *Phyllanthus emblica* | V.1, F.38 |
| 006. | ऊरो | Uro | ഒതളം | *Cerbera odollam* | V.1, F.39 |
| 007. | कइट्टु | Caitu | മരോട്ടി | *Hydnocarpus pentandra* | V.1, F.36 |
| 008. | काचणु | Cantsanu | കാംജെനപ്പൂ | *Bauhinia tomentosa* | V.1, F.35 |
| 009. | कापुस | Capussi... | കുരുപ്പരിത്തി | *Gossypium arboreum* | V.1, F.31 |
| 010. | कारिकापुसी | Cari Capusi | പരിത്തി | *Talipariti tiliaceum* | V.1, F.30 |
| 011. | कारो | Caro | കാഞ്ഞിരം | *Strychnos nux -vomica* | V.1, F.37 |
| 012. | काळिडील | Schera-Punca | കൊഴിഞ്ഞിൽ | *Tephrosia purpurea* | V.1, F.55 |
| 013. | कुडो | Santenu | കുരുട്ടുപാല | *Tabernaemontana alternifolia* | V.1, F.46 |
| 014. | केळी | Kely | വാഴ | *Musa paradisiaca* | V.1, F.12-14 |
| 015. | खारोमनवलु | Caro-Nervoloe | അപ്പൽ | *Premna serratifolia* | V.1, F.53 |
| 016. | चापा | Champo | ചെമ്പകം | *Michelia champaca* | V.1, F.19 |
| 017. | चीच | Sinza... | വാളംപുളി | *Tamarindus indica* | V.1, F.23 |

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| 018. | जांबु | Schambu | നാട്ടുചാമ്പ | *Syzygium malaccense* | V.1, F.18 |
| 019. | तखी | Tiqui | കറുവ | *Cinnomomum verum* | V.1, F.57 |
| 020. | तमळताडु | Talatamado | ആംപന | *Borassus flabellifer [F]* | V.1, F.10 |
| 021. | तळतमाडु | Talatamado | കരിമ്പന | *Borassus flabellifer [M]* | V.1, F.9 |
| 022. | तांबिडो मंदारु | Tambido Mandaru | ചുവന്ന മന്ദാരം | *Bauhinia variegata* | V.1, F.32-33 |
| 023. | दवडिकु | Davandicu | പൈയാഞ്ഞിലി | *Pajanelia longifolia* | V.1, F.44 |
| 024. | दवामंदारु | Davo Mandaru | വെളുത്ത മന്ദാരം | *Bauhinia acuminata* | V.1, F.34 |
| 025. | दादुलपापाय,पापाय | Papaja, Dadul-Papaja | ആപപ്പായ, പപ്പായ | *Carica papaya [M & F]* | V.1, F.15 |
| 026. | दाराबो | Darambo | കൊടംപുളി | *Garcinia gummi - gutta* | V.1, F.24 |
| 027. | नीळि | Nely | അമരി | *Indigofera tinctoria* | V.1, F.54 |
| 028. | पारिजातकु | Pariatacu | മഞ്ഞപ്പൂമരം | *Nyctanthes arbor-tristis* | V.1, F.21 |
| 029. | पावादी | Atego cuda | തണ്ടപ്പരുവ | *Streblus asper* | V.1, F.48 |
| 030. | पिपळु | Bipaloe | അരയാൽ | *Ficus religiosa* | V.1, F.27 |
| 031. | बायो | Bajo | കൊന്ന | *Cassia fistula* | V.1, F.22 |
| 032. | बावरो | Bon Varo | കുമ്പിൾ | *Gmelina arborea* | V.1, F.41 |
| 033. | बिरलमाडो | Biralamado | ചൂണ്ടപ്പന | *Caryota urens* | V.1, F.11 |
| 034. | बेंकरा | Bencaro | കാവളം | *Sterculia balanghas* | V.1, F.49 |
| 035. | बेंडुमी | Sasali | ചകിരികൊട്ട | *Grewia nervosa* | V.1, F.56 |
| 036. | मयिलाञ्जि | Mety | മയിലാഞ്ചി | *Lawsonia inermis* | V.1, F.40 |
| 037. | मलाक्कीजांबु | Malacca Schambu | മലാക്കചാമ്പ | *Syzygium malaccense* | V.1, F.17 |
| 038. | माकडफळ | Ma Cada Pala | കടപ്പിലാവ് | *Morinda citrifolia* | V.1, F.52 |

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| 039. | माडी | Madi | കവുങ്ങ, കളങ്ങ | *Areca catechu* | V.1, F.5-8 |
| 040. | माडु, माड्डो | Mado | തെങ്ങ | *Cocos nucifera* | V.1, F.1-4 |
| 041. | रु बडु | Roembadoe | അത്തിയാലു | *Ficus racemosa* | V.1, F.25 |
| 042. | वडु | Vadhoe | പേരാൽ | *Ficus benghalensis* | V.1, F.28 |
| 043. | वळिकापुशी | Valli Cari Capoesi | പൂപ്പരിത്തി | *Thespesia populnea* | V.1, F.29 |
| 044. | ववळी | Vavalli | ഇലഞ്ഞി | *Mimusops elengi* | V.1, F.20 |
| 045. | वासी | Vasi | ഇല്ലി | *Bambusa bambos/arundinacea* | V.1, F.16 |
| 046. | सवाणु | Davandicu | പാല | *Alstonia scholaris* | V.1, F.45 |
| 047. | अरफु लि | Arpuli | പൊന്നാംതകെര | *Cassia sophera* | V.2, F.52 |
| 048. | एरंडु | Erando/Vollo-Erando | ആമണക്കു | *Azadirachta indica* | V.2, F.32 |
| 049. | कलपडकळी | Puu-la-padacali | നെടുംചെത്തി | *Memecyclon sessile* | V.2, F.15 |
| 050. | कळाजीरें | Calageri | കാട്ടുചീരകം | *Vernonia anthelmintica* | V.2, F.24 |
| 051. | काजुरकलि | Daculi-Gasurculi | വട്ടച്ചൊറിയെണം | *Laportea interrupta* | V.2, F.40 |
| 052. | काराफुला | Cara-Puli | കാട്ടുകരെയാമ്പു | *Ludwigia octovalvis* | V.2, F.50 |
| 053. | काळिगोण्डु | Rana-Gondu | കരച്ചുള്ളി | *Barleria mysorensis* | V.2, F.47 |
| 054. | काळोदुतिरो | Calo-Dotiro | നീലഉമമത്തു | *Datura metel* | V.2, F.29 |
| 055. | काळोअपकारु | Calo-Apocaro | നറുംപാണെൽ | *Uvaria narum* | V.2, F.10 |
| 056. | कुमुदि | Komody | നിർക്കരെയാമ്പു | *Ludwigia adscedens* | V.2, F.51 |
| 057. | केळसो | Colasso | വയെൽച്ചുള്ളി | *Hygrophila schulli* | V.2, F.45 |
| 058. | कोळसो | Bula-Vanga | നിർച്ചുള്ളി | *Hygrophila ringens* | V.2, F.46 |
| 059. | गुणमणिकी | Cali-Apocara | പാണൽ | *Glycosmis pentaphylla* | V.2, F.9 |

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| 060. | गुलरी | Dolari | ചുണ്ട | *Salanum melongena* | V.2, F.37 |
| 061 | चिटामठकि | Cita-Mataki | കുപ്പി | *Terenna Asiatica* | V.2, F.23 |
| 062. | चीचरटी | Sinsarati | ചെറുചുണ്ട | *Solanum violaceum* | V.2, F.36 |
| 063. | टाइकिळि | Saikilo | പെരകു | *Clerodendrum infortunatum* | V.2, F.25 |
| 064 | ताईकिळि | ———— | തകര | *Cassia tora* | V.2, F.53 |
| 065. | तिरगुसि | Tiringoesi | കഴെറ്റി | *Caesalpinia bonduc* | V.2, F.13 |
| 066. | दविपडकळि | Dav Padacali | വെൺചെത്തി | *Ixora alba* | V.2, F.14 |
| 067. | दिणो | Dino | നഴുകു | *Leea asiatica* | V.2, F.26 |
| 068. | दुनिगे | Dotiro | ഉമ്മത്തു | *Datura stramonium* | V.2, F.28 |
| 069. | दुनिगे | Vallo-Dotiro | [illegible]ഉമ്മത്തു | *Datura metel* | V.2, F.30 |
| 070. | दे पाळु | Japalu | കടെലാമണക്കു | *Croton tiglium* | V.2, F.33 |
| 071. | देमुण | ———— | ചെമ്പരിത്തി | *Hibiscus rosa - sinensis* | V.2, F.17 |
| 072. | नंर्डीनु | Vallo-Nanditu | വലിയനന്തിയാർവട്ടം | *Tabernaemontana divaricata* | V.2, F.54 |
| 073. | नंर्डीनु | Daculo-Nanditu | ചെറിയനന്തിയാർവട്ടം | *Tabernaemontana divaricata* | V.2, F.55 |
| 074. | निगुडु | Negunda | കരിനൊച്ചി | *Vitex trifoliata* | V.2, F.11 |
| 075. | निगुडु | ———— | വെൺനൊച്ചി | *Vitex negundo* | V.2, F.12 |
| 076. | निवुली | Nivuli | എലക്കള്ളി | *Euphorbia nivulia* | V.2, F.43 |
| 077. | पडकळी | Pada-Cali | ചെത്തി | *Dendranthema indicum* | V.2, F.13 |
| 078. | पडाविनिर्वुलि | Pada-Nivuli | ചതിരക്കള്ളി | *Euphorbia antiquorum* | V.2, F.42 |
| 079. | पदवकणी | ———— | മൊതിരക്കണ്ണി | *Hugonia mystax* | V.2, F.19 |

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| 080. | पाकसो | Davo-pocso | വെങ്കുറിഞ്ഞി | *Justicia betonica* | V.2, F.21 |
| 081. | पातरपाणी | ========= | ചെറുമാൻകൊട്ടം | *Bridelia scandens* | V.2, F.16 |
| 082. | पानपोइ | Pane-poi | നിരൂരി | *Breynia vitis - idaea* | V.2, F.27 |
| 083. | पितकाजुरकुलि | Pitta-Gasurculi | ചൊറികണം | *Tragia Involucrata* | V.2, F.39 |
| 084. | पुरतकलिनिवुलि | Portigalli-Nivuli | തിരുക്കള്ളി | *Euphorbia tirucalli* | V.2, F.44 |
| 085. | पुरतकालिनिवुलि | ========= | കപ്പമുളക | *Capsicum annuum* | V.2, F.56 |
| 086. | पोकसो | Pocsoo | കരിംകുറിഞ്ഞി | *Ecbolium viride* | V.2, F.20 |
| 087. | बुइएरडु | Boin-Erando | കൊടിആമണക്കു | *Sebastiania chamaelea* | V.2, F.34 |
| 088. | बुलवंग | Bula-Vanga | കരെയാമ്പുവ | *Ludwigia perennis* | V.2, F.49 |
| 089. | बोडककवासा | Bendaki | കൈത | *Pandanus kaida* | V.2, F.2-3, 5 |
| 090. | बोडककवासा | Bondaka | കൈത | *Pandanus fascicularis* | V.2, F.6 |
| 091. | बोडककवासा | Bondaki | കൈത | *Pandanus unipapillatus* | V.2, F.7 |
| 092. | बोडककवासा | Bondaka | കൈത | *Pandanus furcatus* | V.2, F.8 |
| 093. | बोडककवासो | Bendaki | കൈത | *Pandanus kaida* | V.2, F.4 |
| 094. | बोडकळा | Bonda-Calo | കാട്ടുകസ്തൂരി | *Abelmoschus moschatus* | V.2, F.38 |
| 095. | बोडकि | Bendaki | കൈതതടി | *Pandanus kaida* | V.2, F.1 |
| 096. | मावादि | ========= | പയിങ്ങാച്ചുള്ളി | *Acanthus ilicifolius* | V.2, F.48 |
| 097. | रुवी | Roey | എരിക്കു | *Calotropis gigantea* | V.2, F.31 |
| 098. | सदवाइगणी | Sada-Vaingani | ആനച്ചുണ്ട | *Solanum lasiocarpum* | V.2, F.35 |
| 099. | सावदी | Sravadi | വെള്ളില | *Mussaenda belilla* | V.2, F.18 |
| 100. | हसतिखाजुरकुलु | Hasty-Gasurculi | ആനച്ചൊറിയെണം | *Girardinia diversifolia* | V.2, F.41 |

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| 101. | अडकेगोळी | Douadeke-goli | ഇത്തിആല | *Ficus microcarpa* | V.3, F.55 |
| 102. | असथु | Asoutou | ചെല | *Ficus amplissima* | V.3, F.63 |
| 105. | आत | Atoa, Manil-Ponousu, | | | |
| | | Jona-jaka | ആത്തമരം | *Annona squamosa* | V.3, F.29 |
| 106. | आवठी | Ambetti | പ്ലാത്തി | *Sonneratia caseolaris* | V3, F.40 |
| 107. | आवाळि | Amvallis | നെല്ലിപ്പുളി | *Phyllanthus acidus* | V.3, F.47-48 |
| 108. | करबला | Carambola | തമരത്തുകാ | *Averrhoa carambola* | V.3, F.43-44 |
| 109. | करताळा | Karetela | കൊടപ്പന | *Corypha umbraculifera* | V.3, F.1-12 |
| 110. | काजु | Kasjo | കപ്പമാവ | *Anacardium occidentale* | V.3, F.54 |
| 111 | खाजुरि | Kasouri | കാട്ടീന്തൽ | *Phoenix sylvestris* | V.3, F.22-25 |
| 112. | टेंबिरि | Tembiri | പനിച്ചി | *Diospyros malabarica* | V.3, F.42 |
| 113 | नागनोंपा | Nagatampo | വെളുത്തചെമ്പകം | *Mesua ferrea* | V.3, F.53 |
| 114. | पणसु | Ponossou | പിലാവ | *Artocarpus heterophyllus* | V.3, F.26-28 |
| 115. | पतपणस | Pata-ponoussu | ആയിനി | *Artocarpus hirsutus* | V.3, F.32 |
| 116. | पाराइ | Paray | ചെറുമെറാല | *Ficus terebrata subsp. parasitica* | V.3, F.56 |
| 117. | पाराई | Rauka-paray | മ്രാലു | *Ficus tinctoria subsp. parasitica* | V.3, F.58 |
| 118. | पेर | Pera | മലാക്കപ്പെ | *Psidium guajava* | V.3, F.35 |
| 119. | पेलु | Pelouarta | പെഴ | *Careya arborea* | V.3, F.36 |
| 120. | बेलु | Belou | കൂവളം | *Aegle marmelos* | V.3, F.37 |
| 121. | मलार्कीकरबली | Malaki-karamboli | പിലിമ്പി | *Averrhoa bilimbi* | V.3, F.45-46 |
| 122. | रानबलु | Ran-belou | നീർവാല | *Crataeva magna* | V.3, F.42 |

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| 123. | रानवडु | Ran-vodou | ചെല | *Ficus tsjahela* | V.3, F.64 |
| 124. | ळताडु | Andexa-Motha-panna | രിമ്പനം | *Cycas circinalis* | V.3, F.13-21 |
| 125. | वडु | Vodou | ആല | *Ficus callosa* | V.3, F.59 |
| 126. | वळिसवरि | Valli-sanvari | മുള്ളിലവ | *Bombax ceiba* | V.3, F.52 |
| 127. | सवरि | Sangori | പഞ്ഞിമരം | *Ceiba pentandra* | V.3, F.49-51 |
| 128. | आंकालां | Angolam | ആംങ്കൊലം | *Alangium salvifolium* | V.4, F.17 |
| 129. | आबाडुकि | Ambadeki, Palka | പൊന്നൻപഴുക്ക | *Myristica malabarica* | V.4, F.4 |
| 130. | आबो | Ambo | മാവ | *Mangifera indica* | V.4, F.1-2 |
| 131. | उड | Cit-Octi | ചെറുപുന്ന | *Calophyllum calaba* | V.4, F.39 |
| 132. | उता | Oeti | പുന്ന | *Calophyllum inophyllum* | V.4, F.38 |
| 133. | उपळि | Kandolu, Oepoli | ഉപ്പത്ത | *Avicennia officinalis* | V.4, F.45 |
| 134. | करबोउ | Karabou | കരിവെപ്പു | *Murraya koenigii* | V.4, F.53 |
| 135. | काडबा | Marotani | രാവപ്പൂ | *Guettarda speciosa* | V.4, F.47 |
| 136. | काळोट्टपु | Helay | പൊങ്ങ് | *Hopea Ponga* | V.4, F.35 |
| 137. | गाटिगी | Gottinga | താന്നി | *Terminalia bellirica* | V.4, F.10 |
| 138. | जळार | Mourmoura | വെങ്കലശം | *Haberlia Grandis Gallifera* | V.4, F.34 |
| 139. | जीब | Jibe | അടമരം | *Terminalia catappa* | V.4, F.3-4 |
| 140. | दाळक | Pada-daliqui | കരിവെട്ടി | *Olea dioica* | V.4, F.54 |
| 141. | धाकुलनाकरि | Dacouli-Naqueri | ചെറുകദളി | *Osbeckia saxatilis* | V.4, F.44 |
| 142. | धुपु | Doepoe | പയെനു | *Vateria indica* | V.4, F.15 |
| 143. | नाकरि | Cit-naqueri | കാട്ടുകദളി | *Osbeckia aspera* | V.4, F.43 |

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| 144. | नाकरि | Naqueri | കദളി | *Melastoma malabathricum* | V.4, F.42 |
| 145. | नारिंगी | Citt-rana-nimba | ചെറുകാട്ടുനാരകം | *Naringi crenulata* | V.4, F.14 |
| 146. | बोरि | Bori | പെരിന്തൊടലി | *Zizyphus mauritiana* | V.4, F.41 |
| 147. | भुइसदफळि | Bestram | നൂലിത്താളി | *Antidesma menasu* | V.4, F.56 |
| 148. | माद्दी | Mourmourataram | കലെശം | *Lannea coromandelica* | V.4, F.32 |
| 149. | राननिंबोडु | Nani, Rana-nimba | കാട്ടുനാരെകം | *Atalantia monophylla* | V.4, F.12 |
| 150. | रानपफळा | Vana-papalu, Dava-sailo | കാട്ടുകക്ക | *Psychotria dalzellii* | V.4, F.28 |
| 151. | रानबाबा | Rana-bibo | കാട്ടുചെറു | *Holigarna arnotiana* | V.4, F.9 |
| 152. | रानबार | Lassa | ഞാഴെൽ | *Aglaia elaeagnoidea* | V.4, F.16 |
| 153. | रिठि | Ourinti, Damitassi | ഉറിഞ്ചി | *Sapindus trifoliata* | V.4, F.19 |
| 154. | ववळि | Mani-gale | മനിൽക്കാര | *Manilkara kauki* | V.4, F.25 |
| 155. | शेलुटि | Qudrenna | വിതിമരം | *Cordia obliqua* | V.4, F.36 |
| 156. | सदफली | Sada-pali | ശമുത്രവാടി | *Barringtonia racemosa* | V.4, F.6 |
| 157. | सदफळि | Gove-sada-pali | ചെറിയശമുത്രവാടി | *Barringtonia acutangula* | V.4, F.7 |
| 158. | साइला | Sailo | തെക്ക | *Tectona grandis* | V.4, F.27 |
| 159. | माइलो | Douda-sailo | ചെറുതെക്ക | *Clerodendrum serratum* | V.4, F.29 |
| 160. | साइळी | Kasailo | വെണ്തെക്ക | *Kassilo racemosa* | V.4, F.30 |
| 161. | अपोकारू | Cali apocaro, Cunto | പെരുമ്പാണെൽ | *Acronychia pedunculata* | V.5, F.15 |
| 162. | अपकारू | Apocaro | ചെറുപാണെൽ | *Polyathia korintii* | V.5, F.16 |
| 163. | अपकारू | Avali-apocaro | ചെറുപാണെൽ | *Uvaria zeylanica* | V.5, F.17 |
| 164. | अपकारू | Pee-apocaro | കാചാമ്പെ | *Polythia korintii* | V.5, F.18 |

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| 165. | असका | Asjogam, Cassibori | അശോകം | *Saraca asoca* | V.5, F.59 |
| 166. | ऊरो | Ouro | കമ്മെട്ടി | *Excoecaria agallocha* | V.5, F.45 |
| 167. | कणलि | Bedousi | ചെറുകനെലി | *Casearia ovata* | V.5, F.50 |
| 168. | काटी | Gali, Babouli | ബെങ്കാര | *Benkara malabarica* | V.5, F.35 |
| 169. | काटी | Canti, Bidani Gali | ചെറുകാര | *Canthium rheedei* | V.5, F.37 |
| 170. | कादळु | Kandelo | കരക്കണ്ടൽ | *Carallia brachiata* | V.5, F.13 |
| 171. | कोरीटी | Corinti, Apocaro | കുരെണ്ടി | *Salacia chinensis* | V.5, F.14 |
| 172. | खारि | Kari | കാട്ടപ്പ | *Colubrina asiatica* | V.5, F.47 |
| 173. | गाळि | Pouli-gali | കണ്ടെൻകാര | *Canthium coromandelicum* | V.5, F.36 |
| 174. | चिटामिटिकि | CitaMataqui | പാവെട്ട | *Pavetta tomentosa* | V.5, F.10 |
| 175. | चिरिटमारि | Negunda, Chirita Mari | നീർനൊച്ചി | *Clerodendrum inerme* | V.5, F.49 |
| 176. | चिवा | Zivo | ബിഷ | *Ochlandra scriptoria* | V.5, F.60 |
| 177. | तिखी | Davo Bahena, Tiqui | കാട്ടുകറുവ | *Cinnamomum malabatrum* | V.5, F.53 |
| 178. | तीटिल | Polti | ബെട്ടടബു | *Scutia myrtina* | V.5, F.30 |
| 179. | तीटिल | Adolia, Polti | ബെട്ടടകു | *Scutia myrtina* | V.5, F.31 |
| 180. | तेफळी | Tipali, Agadini | മുള്ളില | *Zanthoxylum rhetsa* | V.5, F.34 |
| 181. | दविरिटि | Davi riuti | മയിലെള്ളു | *Vitex altissima* | V.5, F.1 |
| 182. | दाळक | Ana Dalaqui | ആംവെട്ടി | *Aporusa lindleyana* | V.5, F.54 |
| 183. | धविबेडुशी | Davi Bedoesi | വെൺങ്കനെലി | *Syzygium zeylanicum* | V.5, F.20 |
| 184. | नरवलु | Naravolo | വെമുഞ്ഞ | *Premna hamilltoni* | V.5, F.57 |
| 185. | पईपरुवा | Bendarli | പൈപ്പരുവ | *Grewia glabra* | V.5, F.46 |

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| 186. | पाचोती | Patsjotti | പാച്ചോറ്റി | *Symplocos cochinhinensis subsp.laurina* | V.5, F.5 |
| 187. | पातरफोणी | Pattara-Ponni | ചെറുമാംകൊട്ടം | *Embelia tsjeriam-cottam* | V.5, F.11 |
| 188. | पानपेई | Poja | നീരുരി | *Brynia retusa* | V.5, F.43 |
| 189. | पानपोई | Panepojoe | നീരുരി | *Phyllanthus reticulatus* | V.5, F.44 |
| 190. | बिलिगी | Vilingi | വിഴാൽ | *Embelia, tsjeriam - cottam* | V.5, F.12 |
| 191. | बेडुशी | Bedousi | ഞാറ | *Syzygium caryophyllatum* | V.5, F.27 |
| 192. | बेडुशी | Madanaka | ഞാറ | Syzygium cumini | V.5, F.29 |
| 193. | बोरिटी | Boriti | ചെരിന്തൊടലി | *Toddalia asiatica* | V.5, F.41 |
| 194. | लेपबि | Ona, Tammana | മൈയിലൊമ്പി | *Antidesma bunius* | V.5, F.26 |
| 195. | बाबुळिकाटि | Babouli-kanti, Obadali | കുറുമുള്ളി | *Flacourtia indica* | V.5, F.39 |
| 196. | सरनि | Sarani | കശാവുമരം | *Memecylon edule* | V.5, F.19 |
| 197. | अलपा | Apama, Pabiora | അൽപ്പ | *Thottea siliquosa* | V.6, F.28 |
| 198. | आवटी | Ambetti | ഞെരിക്കുംചുളി | *Hibiscusurattensis* | V.6, F.44 |
| 199. | कणंग | Kenanga | കെടങ്ങ | *Sebania bispinosa* | V.6, F.27 |
| 200. | करजि | Caransi | പുങ്ങം | *Pongamia pinnata* | V.6, F.3 |
| 201. | कादळु | Candalo | കണ്ടെല | *Bruguiera gymnorrhiza* | V.6, F.31-32 |
| 202. | कादळु | Ala candalo | പെക്കണ്ടൽ | *Rhizohphora apiculata* | V.6, F.34 |
| 203. | कादळु | Maha Candalo | ചെറുകണ്ടൽ | *Kandeloa candel* | V.6, F.35 |
| 204. | कादळु | Siri-candelo | പൂക്കണ്ടൽ | *Aegiceras corniculatum* | V6, F.36 |
| 205. | कादुळु-मा | Savo Candalo | കരിക്കണ്ടൽ | *Bruguiera cylindrica* | V.6, F.33 |

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| 206. | कासतुरमागरि | Castoeri Mogari | ചീരകമുല്ല | *Jasminum sambac* | V.6, F.55 |
| 207. | गुजी | Gunsgi, Gonsji | മഞ്ചാടി | *Adenanthera pavonin* | V.6, F.14 |
| 208. | जइ | Sai | പിച്ചകമുല്ല | *Jasmium grandiflorum* | V.6, F.52 |
| 209. | ताबिडोबायो | Tambido-Baio | കാട്ടുകൊന്ന | *Archidendron monadelphum* | V.6, F.12 |
| 210. | तिटि | Titi, Ebormo | കരിൻതകര | *Dalbergia candenatensis* | V.6, F.25 |
| 211. | तीरगुसि | Dou-Tiringoussi | വൻകഴറ്റി | *Caesalpinia crista* | V.6, F.20 |
| 212. | तुपकडो | Tapucodo | വെള്ളൂരാൻ | *Abutilon indicum* | V.6, F.45 |
| 213. | तोरी | Thori, Tantaraga | തൊരപ്പയെറു | *Cajanus cajan* | V.6, F.13 |
| 214. | थाळि | Con | പെരുംകുരികില | *Connarus monocarpus* | V.6, F.24 |
| 215. | दोडिमोगरि | Mecastri, Doti Mogari | കുടമുല്ല | *Jasminum sambac* | V.6, F.51 |
| 216. | दोसुण | Desura, Kaparasila | ഐമ്പരിത്തി | *Hibiscus rosa-sinensis* | V.6, F.43 |
| 217. | पगीरो | Pangiro | മുരിക്ക | *Erythrina variegata* | V.6, F.7 |
| 218. | पळसु | Palasu | പ്ലാശു | *Butea monosperma* | V.6, F.16 |
| 219. | पाद्रि | Bovatti, Padri | പാതിരി | *Stereosperumum colais* | V.6, F.26 |
| 220. | मइशीगु | Maisingou | മുരിങ്ങ | *Moringa pterygosperma* | V.6, F.11 |
| 221. | मजयनी | Madjani | ========= | *Hibiscus mutabilis* | V.6, F.38-42 |
| 222. | मोगरी | Mogari | നല്ലമുല്ല | *Jasminium sambac* | V.6, F.50 |
| 223. | रानजाइ | Nara Sai | കാട്ടുപിച്ചകം | *Jasminum angustifolium* | V.6, F.53 |
| 224. | रानदादुमारी | Rana-dadumari | കാട്ടുപുഷുക്കൊല്ലി | *Peristrophe paniculata* | V.6, F.23 |
| 225. | रानिमंदारु | Rana-Mandaru | ബടുക്ക | *Capparis rheedei* | V.6, F.56 |
| 226. | रुपाजाडा | Coupajada Gonconi | നാകം | *Heritiera litorialis* | V.6, F.21 |

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| 227. | लाकडि | Locandi | കരിങ്കൊട്ട | *Samadera indica* | V.6, F.18 |
| 228. | वीसमोगरि | Saio | കാട്ടുചീരകമുല്ല | *Jasminum multiflorum* | V.6, F.54 |
| 229. | वीसमोगरि | Visa Mogari | കാട്ടുമുല്ല | *Psilanthus travancorensis* | V.6, F.56 |
| 230. | सपंगा | Tsiapangam | ചപ്പങ്ങ | *Caesalpinia sappan* | V.6, F.2 |
| 231. | सरळु | Saralu | പൊങ്ങല്യം | *Alianthus triphysa* | V.6, F.15 |
| 232. | सिगी | Sigi | വാഗ | *Albizia odoratissima* | V.6, F.5 |
| 233. | सिङगी | Singi | നീർപ്പൊങ്ങല്യം | *Dolichandrone spathacea* | V.6, F.29 |
| 234. | अमुरुतवालि | Amerdu-valli | ചിറ്റമൃത | *Tinospora cordifolia* | V.7, F.21 |
| 235. | आकाशवाली | Medica Tali | ആകാചബള്ളി | *Cassytha filiformis* | V.7, F.44 |
| 236. | कडवली | Cada-Valli | ചുണ്ണാമ്പുവള്ളി | *Cissus latifolia* | V.7, F.11 |
| 237. | कणंग | Cananga | കപ്പക്കിഴങ്ങ | *Ipomoea batatas* | V.7, F.50 |
| 238. | काटी | Canti | ബള്ളിക്കാര | *Canthium coromandelicum* | V.7, F.18 |
| 239 | कागदि | Carandi | ചകെരിനൂറെൻ | *Dioscorea pentaphylla* | V.7, F.33 |
| 240 | कागदि | Karendi | കാട്ടുകാച്ചില | *Dioscorea bulbifera* | V.7, F.36 |
| 241 | कागादो | Carando | കാട്ടുകിഴങ്ങു | *Hewittia malabarica* | V.7, F.37 |
| 242 | कार्गादि | Karodi | പൊടവക്കിഴങ്ങ | *Dioscorea hispida* | V.7, F.51-52 |
| 243. | कारो | Davo-Caro | ചെറുവള്ളികാഞ്ഞിരം | *Strychnos minor* | V.7, F.5 |
| 244. | कुरुवाली | Thali, Kennapa | കുറുങ്ങിനിൽ | *Leptadenia reticulata* | V.7, F.25 |
| 245 | कोणेटि | Connetti, Tilo Carandi | നൂറെൻകിഴങ്ങ | *Dioscorea pentaphylla* | V.7, F.35 |
| 246. | कोन | Koni | കാച്ചിൽക്കിഴങ്ങ | *Dioscorea alata* | V.7, F.38 |
| 247 | गरुडफळा | Garundo Pala | നച്ചത്തം | *Diploclisia glaucescens* | V.7, F.1 |

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| 248. | गाळी | Jalil, Sato-Val-Gali | കാര | *Canthium angustifolium* | V.7, F.17 |
| 249. | ताळी | Thali dau Kennapa | കുരികിത്താളി | *Rourea minor* | V.7, F.26 |
| 250. | नारलगेडे | Narla Gondo | വെറ്റിലക്കെട്ട | *Cyanotis cristata* | V.7, F.58 |
| 251. | पाडावोली | Pada-Valli, Mutsjega-Pada | പാടക്കിഴങ്ങു | *Cyclea peltata* | V.7, F.49 |
| 252. | पानवालि | Beetla | വെറ്റിലക്കൊടി | *Piper betle* | V.7, F.15 |
| 253. | पिपळि | Bipali | കാട്ടുതൃപ്പല്ലി | *Piper longum* | V.7, F.14 |
| 254. | पुनरनवा | Punarnava | തഴുതാമ | *Boerhavia diffusa* | V.7, F.56 |
| 255. | फगदाचेपोलो | Davo-Roma-Caro | ചെറുവള്ളിക്കാഞ്ഞിരം | *Cansjera rheedei* | V.7, F.4 |
| 256. | बदरलि | Bendarli | ഉഞ്ഞാവള്ളി | *Scheflera venulasa* | V.7, F.28 |
| 257. | बेदरलि | Benderli | ആനപ്പരുവ | *Pothos scandens* | V.7, F.40 |
| 258. | भाजी | Basil | നെരിയംപുളി | *Cyssus repens* | V.7, F.48 |
| 259. | माकडगोगुली | Oulasso | ഊള | *Gnetum edule* | V.7, F.22 |
| 260. | मिरी | Davo-Miri | കാട്ടുമുളകുകൊടി | *Piper nigrum* | V.7, F.13 |
| 261. | मिरियेळि | Miri | മുളകുകൊടി | *Piper nigrum* | V.7, F.12 |
| 262. | रानद्राक्ष | Rana-Diacq | ചെമ്പ്രവള്ളി | *Ampelocissus indica* | V.7, F.6 |
| 263. | रुवावावालि | Roma-Valli-Caro | വള്ളിക്കാഞ്ഞിരം | *Tiliacora accuminata* | V.7, F.3 |
| 264. | वरबरिवालि | Cerberi-Valli | ബെളുത്തചൊറിബള്ളി | *Cayratia trifolia* | V.7, F.10 |
| 265. | वरवरिवाली | Dou Cerberi Valli | കറുത്തചൊറിവള്ളി | *Cissus trilobata* | V.7, F.45 |
| 266. | वळिअमृतवालि | Vallu-Amerdu-Valli, Genam | പെയമൃത | *Tinospora sinensis* | V.7, F.19-20 |
| 267. | ववळवाली | Vanuall Vali | കുപ്പാൽവള്ളി | *Aganosma cymosa* | V.7, F.55 |
| 268. | वागाचपको | Arty | മെൻന്തോന്നി | *Gloriosa superba* | V.7, F.57 |
| 269. | वारबरिवालि | Cerberi-Valli | ചൊറിവള്ളി | *Cayratia pedata* | V.7, F.9 |

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| 270. | वालि | Rana-Vali | വടവാര | *Morinda umbellata* | V.7, F.27 |
| 271. | वाळी | Wali | വശള | *Basella alba* | V.7, F.24 |
| 272. | उडुदि | Udidi | കാട്ടുഴുന്നു | *Vigna mungo* | V.8, F.50 |
| 273. | करिटि | Carinti | വലിയമുക്കാപ്പിരി | *Cumis prophetarum* | V.8, F.11 |
| 274. | कवडळि | Cavandely | കൈപ്പച്ചോര | *Lagenaria siceraria* | V.8, F.4 |
| 275. | काइरोळी | Cairoli | കക്കുവള്ളി | *Mucuna gigantea* | V.8, F.36 |
| 276. | काराति | Carati | പാവൽ | *Momordica charantia* | V.8, F.10 |
| 277. | कारो | Karo | മൊതിരകാഞ്ഞിരം | *Strychnos Colubrina* | V.8, F.24 |
| 278. | कुइलो | Guilo | നായിക്കൊരണ | *Mucuna pruriens* | V.8, F.35 |
| 279. | कुवाळि | Cuvaly | കുമ്പളം | *Benincasa hispida* | V.8, F.3 |
| 280. | कोडुवोदुदि | Culvio-Dudi | കൈപ്പച്ചോര | *Lagenaria siceraria* | V.8, F.5 |
| 281. | गरदुदी | Gara-Dudi | വെള്ളച്ചോര | *Lagenaria siceraria* | V.8, F.1 |
| 282. | गागइ | Garail | പെരിൻകക്കുവള്ളി | *Entada rheedei* | V.8, F.32-34 |
| 283. | गंकरनी | Gocarni | ചങ്കുപുഷ്പം | *Lindernia rotundifolia* | V.8, F.38 |
| 284. | गेमाळि | Gonsaly | പിച്ചിങ്ങാ | *Luffa acutangula* | V.8, F.7 |
| 285. | गोइटी | Gorinti | തൂട്ടപ്പിരി | *Trichosanthes nervifolia* | V.8, F.17 |
| 286. | गोइठी | Gointi | കരിവിബള്ളി | *Solena amplexicaulis* | V.8, F.26 |
| 287. | चवळि | Sanvali | പയെർ | *Vigna unguiculata* subsp.*Cylindrica* | V.8, F.41 |
| 288. | तवशीणी | Tava-Tini | മുള്ളൻവെള്ളരി | *Cucumis sativus* | V.8, F.6 |
| 289. | तीनिदोळाविकजि | ========= | മൊദക്ക | *Adenia hondala* | V.8, F.21 |
| 290. | तेडुली | Tenduli | കോവെൽ | *Coccinia grandis* | V.8, F.14 |

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| 291. | दादुलाफागली | Dadula-Papali | വെൺമ്പാവെൽ | *Momordica denudata* | V.8, F.18 |
| 292. | दाळवालु | Dala-vallu | ബളമരെക്ക | *Canavalia gladiata* | V.8, F.44 |
| 293. | दुदि | Polita-Gali-Dadi | ചക്കെരച്ചൊര | *Cucurbita moschata* | V.8, F.2 |
| 294. | देवतवसिणि | Deva-Teva-Sini | മുക്കാപ്പിരി | *Mukia maderaspatana* | V.8, F.13 |
| 295. | नेया | Neya | മുക്കെഴങ്ങ് | *Dioscorea esculenta* | V.8, F.51 |
| 296. | पिरडुका | Piru-Dukka | ഉഴിഞ്ഞ | *Cardiospermum halicacabum* | V.8, F.28 |
| 297. | पेटी | Penaar | പെണാർവള്ളി | *Zanonia indica* | V.8,F.47-48 |
| 298. | पोवुळि | Pouli | പടവളം | *Trichosanthes cucumerina* | V.8, F.15 |
| 299. | पोवुळि | ========= | ചെറുപടവളം | *Trichosanthes nervifolia* | V.8, F.16 |
| 300. | फागली | Pavali | എരിമപ്പാവെൽ | *Momordica dioica* | V.8, F.12 |
| 301. | भुइकवाळि | Bui-Cuivali | മൊതക്ക | *Adenia hondala* | V.8, F.20 |
| 302. | मटिगोसाळि | Matti-Gonsali | കാട്ടുപിച്ചിങ്ങാ | *Luffa aegyptiaca* | V.8, F.8 |
| 303. | मुगी | Mugi | പൂച്ചപയെറു | *Vigna radiata* | V.8, F.37 |
| 304. | रतनगुडी | Ratena-gunti | കുന്നി | *Abrus precatorius* | V.8, F.39 |
| 305. | रानचवळी | Rana-Sanvali | കാട്ടുപയെർ | *Vigna adenantha* | V.8, F.42 |
| 306. | रानवालु | Canavali | കാട്ടുചണ്ടി | *Canavalia rosea* | V.8, F.43 |
| 307. | रानवालु | Rana-Valu | കാട്ടുബളമരെക്ക | *Canavalia Cathartica* | V.8, F.45 |
| 308. | वळिकाराति | Valli-Carati | പാണ്ടിപാബെൽ | *Momordica charantia* | V.8, F.9 |
| 309. | सरपवाली | Serpata-valli | നാഗവള്ളി | *Bauhinia scandens* | V.8, F.29-31 |
| 310. | सापुस | Sapoessi | കരെൾവെകം | *Aristolochia indica* | V.8, F.25 |
| 311. | हसतिकाटो | Hasticanto | ആനമുള്ള് | *Dalbergia horrida* | V.8, F.40 |
| 312. | हुरवाली | Ura-valli | ചെറിയകമ്മട്ടിവള്ളി | *Kamettia caryophyllata* | V.8, F.46 |

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| 313. | आट्टगोकुडो | Atago-Culo | നീലെൻപാല | *Wrightia tinctoria* | V.9, F.3-4 |
| 314. | आबटी | Ambetti | ചെറിയത്തെരിഞ്ഞൽപുള്ളി | *Begonia malabarica* | V.9, F.86 |
| 315. | आबुलि | Amuli | ചെറിയമാങ്ങാനാറി | *Limnophila indica* | V.9, F.85 |
| 316. | आबोलि | Abuli | മഞ്ഞക്കുറിഞ്ഞി | *Crossandra infundibuliformis* | V.9, F.62 |
| 317. | ऊरवाली | Ulu-Valli | കമ്മട്ടിബള്ളി | *Kamettia caryophyllata* | V.9, F.14 |
| 318. | कणेरु | Caneru | ചൊമന്നഅരെളി | *Nerium oleander* | V.9, F.1 |
| 319. | करबाळो | Carabalo | ഇരിവെലി | *Coleus amboinicus* | V.9, F.74 |
| 320. | काइळादोळो | Caela-Dolo | കാക്കപൂബൂ | *Torenia bicolor* | V.9, F.53 |
| 321. | कारो | Boin-Caro | കരക്കാഞ്ഞിരം | *Andrographis paniculata* | V.9, F.56 |
| 322. | काळो अडुळसो | Kalo-Adulusso | ബാതക്കൊടി | *Justicia gendarussa* | V.9, F.42 |
| 323. | कोटिचि | ———— | സുന്തെരിഇല | *Sonerila rheedei* | V.9, F.65 |
| 324. | गगरि | Schama-Puspa | തന്തലകൊട്ടി | *Crotalaria laburnifolia* | V.9, F.25 |
| 325. | गरोचन | ———— | കല്ലുപുളെപ്പെൻ | *Striga asiatica* | V.9, F.66 |
| 326 | गागरि | Dacoli Gageri | തന്തലകൊട്ടി | *Crotalaria juncea* | V.9, F.26 |
| 327. | गागरि | Gageri | തന്തലകൊട്ടി | *Crotalaria retusa* | V.9, F.27 |
| 328. | गागरि | Gagaro | തന്തലകൊട്ടി | *Crotalaria quinquefolia* | V.9, F.28 |
| 329. | गागरि | Butta-Gageri | പെതന്തലകൊട്ടി | *Crotalaria verrucosa* | V.9, F.29 |
| 330. | गेडो | ========= | താർതാവെൽ | *Spermacoce hispida* | V.9, F.76 |
| 331. | गोटुवा | Gontua | കൊല്ലത്തെവെറ്റില | *Barleria prionitis* | V.9, F.41 |
| 332. | गोरोचन | Corosinam | ഗൊരൊചെന | *Centranthera indica* | V.9, F.68 |
| 333. | चकपुपुपि | Tsjanga-puspam | ചങ്കുപുഷ്പം | *Lindernia rotundifolia* | V.9, F.57 |
| 334. | चिरपुटवाळी | Zira-Puti-Valli | നൊട്ടാനൊടിബെള്ളി | *Ceropegia candelabrum* | V.9, F.16 |

